Price ₹ 40/- (₹ 45/- Outside Goa)




फ़ेब्रुवारी २०१३

# प्रतिमांचें पूजन आनी विचारांचें दफन
# ही आमची भारतीय संस्कृताय...?

कोंकणी मासिक
# बिम्ब
१२ वें वर्स



वर्स : १२ अंक २

फेब्रुवारी २०१३

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५० रु. / तीन वर्सा १००० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब मन्थली' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in





# आदीं च मेंदू बंदिस्त, आतां शाळाय बंदिस्त....!

शिकल्या बगर मनीस जायना अशें फकत शिकिल्लेच न्हय तर आशिक्षीत लेगीत मानूक लागल्यात. जाका शिक्षण ना, ताचेकडेन हेर कितलीय गिरेस्तकाय आसूं, ताका समाज मान दिना. शिक्षणाची गिरेस्तकाय ही सगळ्यांत व्हड गिरेस्तकाय अशें आमी मानतात. एखाद्रयाच्या आंगांत कसलीय कला जल्मजात आसली आनी ते कलेंत तो फिशाल आसलो तरी शिक्षण नासप म्हळ्यार ताचे ते फिशालकायेचेर एक दाग उरताच. ताचे कलेक शिक्षणाची जोड मेळत जाल्यार मुगटार मोर पीस थारले बगर रावना.

आतां हें शिक्षण म्हळ्यार कितें? शाळेच्या चार वण्टींमदीं भुरग्यांक चोंदून, व्हडल्यो व्हडल्यो पदव्यो घेतिल्ल्या शिक्षकांकडल्यान पुस्तकांतली म्हायती त्या भुरग्यांमेरेन पावोवप आनी मागीर तीच म्हायती भुरग्यांनी याद करून उत्तरपत्रिकेंत बरोवन यादींच्या मालवजार गूण मेळोवप आनी दाखले पदरांत घालून घेवप?

आयची शिक्षणपध्दत ही अशेच तरेची जाल्ली आसा. गिन्याना परस शिक्षकांनी जबरदस्तीन तकलेंत चोंदिल्ली म्हायती म्हळ्यारूच शिक्षण असो कितें तरी समज पालकांचो जाल्लो आसा. जाच्या प्रमाणपत्रांचेर चडांत चड गूण दिश्टी पडटात ताकाच हुशार, अतीहुशार अशें मानपाची प्रथा आयज सुरू आसा. तेच पासत हीं असलीं प्रमाणपत्रां भुरग्यांच्या गळ्यांत बांदपाखातीर समाजांत सर्त सुरू आसा. ते पासत गिरेस्तांतले गिरेस्त शाळेंतले बांक आपल्या भुरग्यांखातीर राखून दवरपांतूच पालक धन्यताय मानतात. प्रमाणपत्रांतल्या विशयांमुखार गुणांचो सगळ्यांत व्हडलो आंकडो बरोवपी शिक्षकाकूच पालक विद्वान मानतात आनी असल्या गुरूकडल्यान आपल्या भुरग्याक शिकवणी मेळची म्हूण धडपडटात. देखुनूच आयच्यो शाळा आनी महाविद्यालयां म्हळ्यार प्रमाणपत्रां दिवपी कारखाने जाल्यात. ह्या कारखान्यांतल्यान भायर सरपी भुरगे आमच्या देशांतले आदर्श नागरीक अशें मानून आमी ताणीं घेतिल्ल्या डिग्र्यांक मान दिवपाचो?

शिक्षण हें मुक्त वातावरणांत, भुरग्यांचेर कसलोच मानसीक ताण पडनासतना, कसल्याच दबावाविणें जावंक जाय अशें आदल्या काळांतल्या रुशींसावन आतां मेरेनचे विद्वान आड्डून सांगत आयल्यात. शिक्षण हें गिन्यान जोडपाखातीर आसता, पोट भरपा खातीर न्हय. शिक्षणाचे दाखले दाखोवन नोकरी पदरांत पाडून घेवप म्हळ्यार शिक्षणांतलो दिग्वीजय न्हय तर शिक्षण घेतिल्ल्यान गिन्यानांत जी भर पडल्या त्या गिन्यानाचो वापर करून आपलें जिवीत घडोवप होच शिक्षणाचो मुळावो हेत आसता. पूण दुर्देवान आमी आमच्या भुरग्यांक शिक्षणाच्या नांवान बंदिस्त करून उडयल्यात. ज्या भुरग्यांनी हांसत, खेळत मुक्त वातावरणांत सैमीक रूपान शिक्षण घेवन गिन्यान वाडोवपाचें, तांकां शिस्तिच्या नांवान आमी बेडयो घाल्यात. आपल्याक दिसता देखून, भुरग्यांचे सैमीक भाशेंतल्यान शिक्षण दिनासतना आपल्याक फायद्याचें दिसता ते भाशेंतल्यान शिक्षण दिवन तांचे विकसीत जावपी मेंदू आमी बंदिस्त केल्यात. भुरग्यांक समजलां तें उत्तरपत्रिकेंत बरोवपा बदला शिक्षकांनी समजायलां तेंच बरोवपाची सक्ती भुरग्यांचेर जाल्ल्यान परिक्षेचो हावको भुरग्यांचे मानेर बसला. प्रचंड दबावा खाल भुरगीं बंदिस्त अशी जीण जियेतात. तरी आमी तांचे भितर आदर्श नागरीकांचो अपेक्षा बाळगितात!

आतां तर शाळांनी जावपी भुरग्यांवेल्या अत्याचारांक लागून भुरग्यांच्या स्वतंत्रतायेचेर आनीकूय बंधनां येवंक लागल्यांत. पयलीं चार वण्टी भितरूच भुरगो घुस्मट्टालो. आतां त्या चार वण्टीं भायर व्हडली वणत बांदपाचे प्रस्ताव येवंक लागल्यात. दारांक गडगंज ग्रील्स, वर्गांवर्गांतूच न्हय तर मुताऱ्यांनी आनी संडासांनी लेगीत सीसी कॅमेरे लावपाचे नदरेन उच्चस्तराचेर विचार चल्ला. हें सगळें कित्याक तर भुरग्यांक लैंगीक अत्याचार, मानसीक दबाव आनी हेर तरांचे पिडापिडींतल्यान मुक्ती मेळची देखून!

ही सगळी ख्यास्त भुरग्यांक कित्याक? कित्याक तर आमी फक्त व्हडल्यो व्हडल्यो डिग्री आशिल्ल्यांकूच बरे शिक्षक मानून तांच्या पोटा पाणयांची वेवस्ता केली देखून! जांकां आपूण कितें शिकयतां हेंच खबर ना तांकां शिकोवपाक लायले देखून!

हें सत जर आसत जाल्यार कोणाच्या नांवान बोबो मारतात? हातूंत बदल घडोवन हाडपाखातीर संवेदनशील विद्वानांचेर पातयेवन रावपाची ही वेळ जावन आसा.

# किळांच

केन्ना सावन यत्न करतां हांव
एक किळांच बरोवपाक
त्या अबलांची किळांच
दर एकदां तांचो खून घडटना
केन्ना दर्यादिगेर तर केन्ना शेतोडेंत
केन्ना झिलकुटांनी तर
केन्ना उकत्या काळखाच्या मळार
जिका कसलीच भास नाशिल्ली
पूण उलो आशिल्लो आकांताचो

**ह्यो** ओळी जावन आसात भोवमानेस्त निलबा खांडेकाराल्या ***किळांच*** हे कवितेंतल्यो. तांच्या ***दंडकारण्य*** ह्या कविता झेल्यांतल्यो. आयतारा सांजवेळां बिम्बाच्या पुरस्कार सोहळ्याक वचपाचो योग आयलो. सुवाळो खूबच सुंदर जालो. दिलीपबाबान नव्या लेखकांक दिल्ल्या प्रोतसाहनान म्हज्या सारख्या थोडेफार बरोवप्यांक खूब स्फूर्त मेळ्ळी. पुरस्कार विजेत्यांचे विचार आयकूंक मेळ्ळे. थोडयांची वळख जाली. थंयच बिम्बाच्या अंकांत *आस्वाद* हें सदर बरोवपी प्रा. हनुमंत चोपडेकार हांचेलागीं वळख जाली. घरा वचून बिम्ब उगडलें आनी आस्वादाचो आस्वाद घेतलो. तातूंत निलबा खांडेकारांल्यो वयल्यो कवितेच्यो वोळी वाचून म्हाका याद जाली ती सोळा तारखेक दिल्ली हांगा एके चलयेचेर बसींत घडिल्ल्या सामुहीक बलात्काराची. हे कवितेंतल्या शब्दांनी म्हज्या काळजाचो ठोको थोडो वेळ चुकिल्लेवरी जालो. मनांत प्रस्न आयलो, हे कवितेंतले किळांचे सारख्योच किळांच्यो ह्या अत्याचाराक बळी पडिल्ले ते बाबडे चलयेन मारल्या आसतल्यो काय!

हय तर! म्हज्या दुसऱ्या मनान जाप दिली. ताणें ह्या अमानवीय बळजबरिचो प्रतिकार करपा खातीर अश्यो साबार किळंच्यो मारल्यात आसतल्यो! जाका कवीच्या शब्दांप्रमाण कसलीच भास नासली पूण आशिल्ली त्या लांडग्यांच्या तावडिंतल्यान सुटका जावपाची आस्त. पूण ना! कोणूच ते आकांताचे भिरांकूळ किळांचेक धांवून आयलो ना आनी तें चली त्या लांडग्यांचें शिकार जालें. इतल्यारूच ताचे भोग सोपले नांत. सगळें काम जातकच त्या नराधमानी किरमिल्ली ताची विंगळी कूड बसींतल्यान रस्त्यार मोखून मारली. जिका मात्सो हपाप आसलो. साबार लोक पळयताले पूण कोणाकूच काळीज जालें ना ती विंगळी कूड धापपाक! हाचेवयल्यान ह्या संवसारांत शेणत चलिल्ल्या मनशाच्या मनिसपणाची कींव करचिशी दिसता.

त्या जाग्यार आमी आमकां दवरून पळोवया. ती रस्त्यार पडिल्ली चली जर आयज आपली आसली जाल्यार आमी तिची विंगळी कूड उक्ती प्रदर्शनाक दवरतलीं आसलीं? चिंतूनच आंगार कांटो फुललो. खंयचीय आवय-बापूय जावं तीं मागीर गिरेस्त वा गरीब, आपल्या भुरग्यांक बरे तरेन वाडयतात, ताचें फावो तशें पालन पोशण करतात. तांकां बरे तरेन शिकप दिवपाचो प्रयत्न करतात. तांचेविशीं बरीं बरीं सपनां पळयतात. पूण हाता तोंडाकडें पावून जर तीं असल्या भिरांकूळ अत्याचाराचीं बळी जातात जाल्यार तीं जल्माक येनांत तींच बरीं अशें खंयचेय आवयक दिसलें म्हूण वावगें थारचें न्हय. चली भुरगें वाचयात हे विशीं एका दोतोराचें आमी उलोवप आयकल्लें. तातुंतल्यान एक गजाल आमच्या मुखार आयली, आमच्या देशांत खंयच्यातरी राज्यांत खंय चलो जायनासतना चली जाली जाल्यार तांच्या घरांतलीं जाण्टीं आसात तीं ताच्या तोंडांत तंबाखू घालतात आनी म्हणटात, 'चल भाग जा! बेटा भेज!' हें आयकून मन एकदम सून्न जातालें. आमीय बी 'चली भुरगें मारूं नाकात वाचयात' म्हणटात पूण.... आमी जागृताय करप आनी व्हड जातकच कोणेतरी कुत्र्या-लांडग्यांनीं तांचे लचके तोडून तांची जीण इबाडून उडोवप! त्या परस जातनाच तें मेल्यार बरें असो खंयचेय आवयचो हावेस जावं येता. निकतीच मारिल्ली बुन्याद मोडूंक बरी पूण न्हय वयर सरून कोसळून पडिल्लें घर! कितल्योश्योच सरकारी बिगर सरकारी संस्था हाचेर आवाज उठयतात. पूण ते चलयेची इबाडिल्ली जीण परत येवची ना आनी




हातुंतले आरोपी सही सलामत सुटत सुध्दां! ते खातीर आमी चलयांनी, बायलांनी पावला कणकणी शादूर रावपाची तयारी दवरूंक जाय. खरें म्हळ्यार आयज चलयो घरांत लेगीत सुरक्षीत नांत. घराण्याची लज, मर्यादा राखपाखातीर तोंड धापून तीं ओगी रावतात आनी गुन्यांवकारांक आनी आनीक बळगें दितात.

आमचो भारत देश संस्कृती प्रधान देश. देशभर लोकांनी ह्या दिल्लींत घडिल्ल्या कृत्याचो निषेध केला. आमचे संस्कृतीचेर कलंक लावपी अशें हें कृत्य. अशें हें करतना तांकां आपले आवय, भयणीचो विसर पडला आसूंये! एकेवटेन भृणहत्त्या थांबोवन चलयांक मानान जगपाचें काम चालू आसा आनी दुसरेवटेन तांचें चलिल्लें शोषण ही खूबच खेदाची गजाल जावन आसा. असल्या मनशांक जामीन मेळपाक जायना वा खंयच्याच वकिलांनी तांची केस चलोवपाक जायना. ते मोकाट सुटले जाल्यार फुडें फुडें एकूय चली भुरगें अत्याचार जायनासतना उरचें ना आनी निलबा खांडेकाराचे कवितेंतल्या ***किळांच*** सारख्यो किळंच्यो आसमंतात घुमतल्यो, जांकां कसलीच भास आसचिना. आसतलो फक्त आकांत आनी आकांत.



**– सुनिता प्रकाश पेडणेकार**
गोवा वेल्हा
मो. : ८००७३८५७२१

**भ्र**श्टाचार जावं वो बलात्कार, आमी भारतीय संस्कृताय विसरत चल्ल्यात देखून घडटात, अश्या आशयांचीं वक्तव्यां आत्रेपयऱ्यान वाचूंक आनी आयकूंक मेळटात आनी हीं वक्तव्यां बरोबर आसात म्हूण मान हालोवपीय मेळटात.

पूण म्हजे सारक्या कलियुगी बुध्द आशिल्ल्या मनशाचे तकलेंत जायते तिरसुवादीक प्रस्न येतात. ब्रिटीश भारतांत येवचे आदीं, मुसलमान राजकर्ते भारतांत येवचे आदीं भारतांत वायट गजाली घडनाशिल्ल्यो व्हय? म्हाका भुरगेपणार आयकल्लें एक भक्तीगीत याद जाता. 'अनुसूयेचे सत्व आगळे, तिन्ही देवही झाली बाळे' हे तिनूय देव बाळकां कित्याक जालीं? समजा तांकां बाळक करपाचें सत्व अनुसूयेकडेन नाशिल्लें जाल्यार? द्रौपदीचेर वस्त्रहरणाचो प्रसंग भर राजसभेंत आयिल्लो. रावणान सीतेक उबारून व्हेल्ली. जालंधराक झुजांत पराजीत करपा खातीर ताचे बायलेचें वृंदेचें पातिव्रत्य भंग केलें म्हळ्यार कितें केलें? हाचो अर्थ फाटले काळांत भारतीय बायलांचेर अन्याय जातालो असो जायना व्हय?

म्हज्या असल्या प्रस्नांचेर म्हज्या एका इश्टान जाप दिली ती म्हळ्यार, 'रावण, दु:शासन सारख्या दुश्टांनी बायलांचेर अत्याचार केले.' हांवें म्हळें, 'आयजूय तुजे म्हजे सारके बरे लोक बलात्कार करिनांत. दुश्टूच करतात.' म्हज्या इश्टान म्हळें, 'अनुसूये सामकार देवांचीं बाळकां जालीं, रावण सीतेचेर बलात्कार करूंक शकलो ना, दु:शासन द्रौपदीचें वस्त्रहरण करूंक शकलो ना, ही गजाल तूं कशी विसरता?' हांवें म्हळें 'जे शक्तीनी ह्या अस्तुऱ्यांक शारिरीक बलात्कारा पासून वाटायलीं, ते शक्तींनी दुश्टांच्या मनांतले वायट प्रवृत्तींचोच नाश कित्याक केलो ना?'

*म्हाका सीतेचो त्याग करपी रामाचे करणेचो अभिमान भोगचोना. जालंदर दुश्ट राजा आसलो तरीय ताचे बायलेचें पातिव्रत्य भंग करप म्हळ्यार तिचेर बलात्कार करपाचे करणेचो अभिमान बाळगूंक येवपाचो ना. आपले बायलेक द्युतांत पणाक लावपी युधिष्ठिराचो अभिमान बाळगूंक येवपाचो ना.*

# प्रतिमांचें पूजन आनी विचारांचें दफन ही आमची भारतीय संस्कृताय...?





**डॉ. रुपेश पाटकार**
पणजी - गोंय.
मो. : ९४२११४८२१३

पुराणांतल्यो कथा त्या काळार समाजघातक पध्दतीन वागपी मनशां आशिल्लीं हें दाखयतात. सत्ययुगांत लेगीत मनीस दुख्खी आशिल्लो. इतलेंच न्हय तर मनशांचो बाजार भरतालो. सत्ययुगांतल्या राजा हरीश्चंद्रान बायले भुरग्यांसयत स्वताक विकलें, हाचोच अर्थ मनशांक विकताले आनी विकते घेताले असोच जायना व्हय?

मागीर, आमची भारतीय संस्कृताय म्हान आशिल्ली अशें सांगप्यांकडेन कांयच मुद्दे नांत व्हय? ते म्हणटात प्राचीन भारतीय संस्कृतायेंत अस्तुऱ्यो आदरणीय आशिल्ल्यो. तांकां देवीच्या रूपान पुजताले. गार्गी, मैत्रेयी सारक्यो विदुषी अस्तुऱ्यो आशिल्ल्यो. सत्यकाम जाबाली सारको बापायचें नांव खबर नाशिल्लो उपनिषद् काळांत आशिल्लो. रुशीचें कूळ आनी न्हंयचें मूळ विचारचें न्हय अशें म्हणटाले. मनाचो सुक्षीम अभ्यास करपी पतंजली आशिल्लो. आयज जरीय विकृत स्वरुपांत जात वेवस्ता आसली तरी पयलीं आदर्श वर्ण वेवस्ता आशिल्ली. भारतांत कितल्यातरी तरांचीं तत्वगिन्यानां आशिल्लीं. ईश्वरान सगळें व्यापिल्लें आसा.... तूं दुसऱ्यांच्या धनाची आस्त धरूं नाका म्हूण सांगपी इशोपनिषदा सारकीं उपनिषदां आशिल्लीं. उतराक जागून मरण पत्करपी बळीराजा, ससाण्या पासून पारव्याक वाचोवपा खातीर मांडयेचें मांस दिवपी शिबीराज आशिल्लो. चरक सुश्रुताच्या काळार शवविच्छेदन जातालें.

ह्यो दोनूय बाजू आयकल्यो म्हणटकच मातशें शें भ्रमीत जाल्लेवरी जाता. आमचो इतिहास, आमच्यो परंपरा हांचो अभिमान आमकां आसता, हाकाच लागून हे भ्रमीत अवस्थेंतल्यान भायर सरपा खातीर कांय गजाली वायट आसल्यो तरी मुखेलपणान सगळें म्हानूच आशिल्लें अशें दिसता वो वकिली थाटाचे कांय युक्तीवाद योग्य दिसतात. जशें वृंदेच्या घोवाक हारोवप गरजेचें आशिल्लें आनी तिका फसोवन तिजें पातिव्रत्य भंग करपा बगर मार्ग नाशिल्लो. अनुसुयेचेर देवांक विवस्त्र अवस्थेंत जेवण वाडपाचें धर्मसंकश्ट कित्याक हाडलें? कित्याक तर देवांचीच ती लिला. तांकां अनुसुयेक म्हान करपाचें आशिल्लें. देखून देवांनीं स्वतांचेर दोशारोप घेवन लेगीत तिका म्हान केलें.

पयलीं जन्माचेर आदारीत जाती नाशिल्ल्यो. गीतेंत म्हळां, 'चातुर्वण्य मया सृष्टवा गुणकर्म विभागशः' म्हळ्यार त्या काळाचे वर्ण गुणकर्माक लागून आशिल्ले. परमेश्वर सर्व शक्तीमान आसा जाल्यार तो दुश्टांचें दुश्टपण ना शें कित्याक करिना? अशें विचाल्ल्यार जाप मेळटा ती म्हळ्यार, ताणें जर सगळें आपसूक सारकें केलें जाल्यार मनशाचें कतृत्व कितें उरलें? परमेश्वराक मनशाक व्हड करपाचो आसा. कांयच येवजलें ना जाल्यार 'ताची लिला तोच जाणां, आमी पामर ताका कशें वळखतले?' हो युक्तीवाद हें तांचें अंतीम अस्त्र!

म्हाका आद्य शंकराचार्यांची गजाल याद जाता. ताणीं अद्वैत तत्वगिन्यान मांडलें.

**पयलीं टोळी भोंवत आसताली, आतां ती थीर जावंक लागली. लोखणाचो सोद लागलो. मगधाचें पयलें राज्य आयलें. मागीर राज्य तिगोवपाचे नेम आयले. सरभोंवतणचीं राज्यां जिंकपाच्यो युक्त्यो आयल्यो. सगळेचकडेन राजेशाय नासली. गणसमाज आशिल्ले. तांचेमदीं समता आशिल्ली, एकी आशिल्ली. ताका लागून गणसमाज जिखपा पासत तांची एकी कशी मोडची? तांचेमदीं सुवार्थ कसो निर्माण करचो? हे सांगपी कौटिलिय अर्थशास्त्र आयलें.**



'ब्रह्म सत्य, जगत् मिथ्या' अशें ते शिकयताले. भौतीक संवसार म्हळ्यार आभास अशें ते सांगताले. एकदीस ते विद्यार्थ्यांक शिकयतना थंय वाग आयलो. सगळे शिश्य पळ्ळे आनी आचार्य लेगीत. वाग गेल्या उप्रांत शिश्य आनी आचार्य पर्थून एकठावले. एका शिश्यान विचारलें, 'गुरुजी, हें बाह्य जग म्हळ्यार माया, असत् आसा, फटकिरें आसा अशें तुमी सांगतात. मागीर तो वाग येतकच तुमी कित्याक पळ्ळे? तो वाग असत् न्हय?' आचार्यान म्हळें, 'वत्सा, तो वाग जसो असत् आसा तशेंच हांव पळ्ळों हेंय असत् आसा. आभास आसा!' कितली लाजवाब जाप!

भारतीय संस्कृताय म्हूण जें कितें आसा, तत्वगिन्यान आसत्, परंपरा आसत, कथा आसत त्यो एकाच काळांत घडल्यात न्हय? आनी पुराय भारतभर एकाच वेळार एकूच संस्कृताय आशिल्ली न्हय? ह्या दोन प्रस्नांच्यो जापो आमकां भारतीय संस्कृतीविशींच्या घुस्पा गोंदळाची परिस्थिती ना शी करपाक मजत करतली.

**पुराणांतल्यो कथा त्या काळार समाजघातक पद्धतीन वागपी मनशां आशिल्लीं हें दाखयतात. सत्ययुगांत लेगीत मनीस दुस्खी आशिल्लो. इतलेंच न्हय तर मनशांचो बाजार भरतालो. सत्ययुगांतल्या राजा हरीश्चंद्रान बायले भुरग्यांसयत स्वताक विकलें, हाचोच अर्थ मनशांक विकताले आनी विकते घेताले असोच जायना न्हय?**

'वेद' हें सगळ्यांत पोरणें श्रौत वाङमय मानतात. वेदां उप्रांत उपनिषदां तयार जालीं. उपनिषदां उप्रांत गीता जल्माक आयली. देखून पयल्या प्रस्नाची जाप आसा. 'हें सगळें वाङमय एकाच वेळार जल्माक येवंक ना.'

आतां दुसरो प्रस्न, जेन्ना जल्माक आयलें तेन्ना पुराय भारतभर एक सारकीच सांस्कृतीक अवस्था आशिल्ली न्हय? हाची जाप सोपी आसा. कारण आज लेगीत पुराय भारतभर एक सारकी सांस्कृतीक अवस्था ना. आयज लेगीत जंगलांनीं रावपी आदिवासी आसात. अंदमानांतली कपडे घाली नाशिल्ली टोळी लेगीत आसा.

देखूनच भारतांतल्या इतिहासांत पुराय भारतांत सगळ्याचो सगळो मानवी समाज सुवर्णयुग उपभोगतालो अशें केन्ना घडलें ना. इतिहासांत गुलाम आशिल्ले, दास दासी आशिल्ल्यो, गणिका आशिल्ल्यो, कुळां आशिल्लीं. हांचें जिवीत आनी राजाचें जिवीत, जमीनदारांचें जिवीत, सरदारांचें जिवीत, सावकारांचें जिवीत, श्रेश्ठींचें जिवीत सारकें नाशिल्लें. टाळी मारतकच आज्ञा



झेलपा पासत येवपी दासी आनी टाळी मारपी राजा सारकोच सुखी आसतलो काय?

देखून भारतीय इतिआसांतल्यो सरसकट सगळ्यो गजाली स्वीकारपाक येवच्यो नांत. भयणीलीं भुरगीं मारपी कंस, भावजयेची साडी सोडूंक पळोवपी दु:शासन, सीतेचें अपहरण करपी रावण ह्या भारतीय संस्कृतायेंतल्या लोकांच्या करण्यांचो अभिमान दिसता अशें कोणूच म्हणपाचो ना. पूण त्याय मुखार वचून हांव अशें म्हणन, म्हाका सीतेचो त्याग करपी रामाचे करणेचो अभिमान भोगचोना. जालंदर दुश्ट राजा आसलो तरीय ताचे बायलेचें पातिव्रत्य भंग करप म्हळ्यार तिचेर बलात्कार करपाचे करणेचो अभिमान बाळगूंक येवपाचो ना. आपले बायलेक द्युतांत पणाक लावपी युधिष्ठिराचो अभिमान बाळगूंक येवपाचो ना. मागीर प्रस्न असो उबो रावता, म्हज्या सारक्या विचार करप्यांक भारतीय संस्कृतायेंत कांयच बरें दिसना व्हय?

भारतीय संस्कृतायेंत जायतें कितें बरें आसा. 'सर्वेत्र सुखिनः संतु...' म्हणपी रुशी आसात. पंचशील दिवपी गौतम बुध्द आसा, जगाचो भौतिकवादी अर्थ लावपी लोकायती आसात, चार्वाक आसा. 'जो जे वांछिल, तो ते लाहो!' अशें सांगपी ज्ञानेश्वर आसा. तुकाराम आसा, अजिबात रागार जावपी न्हय असो एकनाथ आसा. शरीरशास्त्राचो अभ्यास करपी चरक, सुश्रुत सारके आचार्य आसात. चित्तवृत्तींचो निरोध म्हळ्यार योग म्हणपी पतंजली आसात. म्हाका ह्या सगळ्यांविशीं आदर आसा, अभिमान मात ना.

कित्याक तर अभिमान म्हळो म्हणटकच अहंकार आयलो. प्रतिमांचें पूजन आनी विचारांचें दफन आयलें. म्हाका तांचेवशिीं आदर आसलो, तरी तांच्या विचारांच्यो मर्यादा आशिल्ल्यो, तांच्या कृतींच्यो मर्यादा आशिल्ल्यो हें वास्तव हांव स्वीकारतां. त्या मर्यादांची विस्कटावणी करपाचें म्हजें आनी हेरांचें स्वातंत्र्य मान्य करप गरजेचें आसा. पूण अभिमान म्हळो म्हणटकच विस्कटावणी जायना.

जेन्ना 'भारतीय सस्कृताय' अशें सहजपणान म्हणटात, तेन्ना तें खूबच गोलमाल पध्दतीन वापरतात. कर्मठ धार्मिक परंपरांचें पालन म्हळ्यार भारतीय संस्कृतायेचें पालन असो अर्थ काडटात. कर्मकांड म्हळ्यार संस्कृताय अशें म्हणटात. 'धर्म' हे 'उतर' भारतांत केवळ religion उतराखातीर वापरतात अशें न्हय. 'कर्तव्य' ह्या उतरा खातीरूय 'धर्म' उतर वापरतात. 'गूणधर्म' वो 'खाशेलेपण' ह्या उतराखातीर 'धर्म' ह्या उतराचो वापर जाता. देखून खूब खेप धर्म ह्या उतरा बाबतींत गोलमाल केल्लो दिसता.

जाका 'हिंदू' म्हणटात असो एक धर्म - relegion ना. हिंदू हो 'भारतीय धर्मांचो समूह' जावन आसा. विंगविंगड जनसमूह विंगविंगड परंपरा पाळटात, विंगविंगड जाती विंगविंगड परंपरा पाळटात. कांय जनसमूह निराकार देव मानतात, कांय साकार मानतात.

भारतीय तत्वगिन्यान म्हळ्यार फकत वेदांताचें तत्वगिन्यान अशें मानतात. पूण हें सत न्हय. वेदांताचें तत्वगिन्यान हें एक एकसुरें भारतीय तत्वगिन्यान न्हय. लोकयत आसा, न्याय वैशेषीक आसात, बौध्द आसात, मिमांसा आसा.

'वेद' हे अपौरूषेय आसात म्हळ्यार ते कोणे रचूंकच नांत, हें गृहीतक न्हयकारून हांव फुडलें विवेचन करतां. वेद रचपी समजा पशुपालन अवस्थेंत आशिल्लो. तांचे पासत सैमीक शक्त हेच देव आशिल्ले. ह्या देवाकडेन ते कितें मागताले? नक्कीच ते चार रोदांची गाडी मागनाशिल्ले. ते गोरवां ढोरां मागी, अन्न धान्य मागी, पावस मागी, भुरगीं मागी, झुजांत जैत मेळचें, दुश्मानांचो नाश जावंचो हें मागी. ते पासत याग करी, यागांत आहुती दियी.

त्या उप्रांतचो काळ उपनिषदांचो आसा. हो काळ जीवन मातशें थीर जाल्या उप्रांतचो काळ जावन आसा. आता भौतिक गरजां पलतडीं विचार करपाक सवड आसा. अग्नीक ल्हासपाची ताकत, वाऱ्याक उबोवपाची ताकत, पावसाक भिजोवपाची ताकत खंयच्यान येता? हे विविधताये फाटल्यान कितें आसा? ह्या प्रस्नांची चर्चा उपनिषदांत येता. सैमशक्तींक देव मानपी वेदकाळांतल्या लोकां परस उपनिषद काळांतलो देव वेगळो आसा. तो निराकार निर्गुण आसा. वेद काळांतल्या मनशाक सैमाच्या रौद्र रुपा पासून साल्वार करपी देव जाय आशिल्ले. उपनिषद काळांतलो मनीस मोक्षापासत परमेश्वराचो शोध घेता. ताका यागाची, यागांतल्या आहुत्यांची गरज भासना.

पूण ताका लागून यागाचे मंत्र गावपी पुरयतांच्या रोजी रोटीचेर हांवळ येवंक लागली. तांकां याग चलूंक जाय अशें दिसप साहजीकच आसा. आपूण करता त्या मंत्रांच्या उच्चारणांक लागूनच फळ प्राप्त जाता असो विचार समाजांत पसरावप तांचे पासत म्हत्वाचें आशिल्लें. मागीर ते साहजिकच मंत्र, कर्मकांड, याग हेंच फळ दिवपी आसात. देव, मोक्ष हांची तांकां गरज नाशिल्ली. देखून तांचेकडल्यान देव न्हयकारपी पूण मंत्रांच्या शक्तीची ताकद सांगपी 'मिमांसा तत्वज्ञान' येवंक लागलें.

आर्य जरीय पशुपाळन अवस्थेंत आसले, तरी भारतांतले कांय समाज शेतकी वेवस्तेंत आशिल्ले. तातूंत प्रकृती प्रधान मानपी सांख्य तत्वगिन्यान तयार जातालें.

त्या उप्रांत 'व्यक्ती' स्वरुपांतल्या देवाची कल्पना मानपी गीतेचें तत्वगिन्यान आयलें.

एकेवटेन विश्वाच्या रहस्या बाबतींत चिंतन करपी विंगविंगड विचार जल्म घेताले तर दुसरे वटेन सामाजीक परिस्थिती बदलताली.



वेदकाळांतले 'रूत' मोडटाले. गण समाजांतली समता, सगळ्यांचो विचार करपाची प्रवृत्ती ना जायत वताली. हे परिस्थितीक बदलपाचो प्रयत्न म्हाकारूणी गौतम बुध्द करतालो. संवसारांत दुख्ख आसा. दुख्खांतल्यान मुक्ती मेळोवंक जाय. तेन्ना देव दानव, सर्ग, नरक असल्या निरूपेगी कल्पनां बाबतींत म्हाका विचारूं नाकात. पंचशिलांचो स्वीकार करात – सोरो पिवूं नाकात, हिंसा करूं नाकात, चोरी करूं नाकात, फट उलोवंक नाकात, व्यभिचार करूं नाकात अशें ते सांगताले.

वेद काळांत सगळेच गोरवां पोसताले. आतां जायते वेवसाय आयल्यात. दास दासी आयल्यो. मालक आयले, राजा आयले. ह्या नव्या समाज वेवस्तेचे नेम जल्म घेवंक लागले. विशमताय मांडपी, जातीच्यो बेडयो घालपी स्मृती जल्माक आयल्यो.

पयलीं टोळी भोंवत आसताली, आतां ती थीर जावंक लागली. लोखणाचो सोद लागलो. मगधाचें पयलें राज्य आयलें. मागीर राज्य तिगोवपाचे नेम आयले. सरभोंवतणचीं राज्यां जिंकपाच्यो युक्त्यो आयल्यो. सगळेचकडेन राजेशाय नासली. गणसमाज आशिल्ले. तांचेमदीं समता आशिल्ली, एकी आशिल्ली. ताका लागून गणसमाज जिखपा पासत तांची एकी कशी मोडची? तांचेमदीं सुवार्थ कसो निर्माण करचो? हे सांगपी कौटिलिय अर्थशास्त्र आयलें.

समाजांत विशमताय आशिल्ली. विशमतायेन अस्वस्थ जावपी लोक आशिल्ले. ते कर्मकांडांक, परंपरांक आव्हान दिताले. 'संस्कृत देवांची भास आनी प्राकृत कितें चोरांची भास?' अशें विचारपी ज्ञानेश्वर जालो. पंढरीच्या वाळवंटांत सगळे भेद नानपयत करपी वारकरी संप्रदाय निर्माण करपाचो ताणें प्रयत्न केलो.

'रयतेचो राजा' जाणें रयतेखातीर राज्य निर्माण केलें, ताका पुरयतांनी शुद्र राजा म्हूण हिणसायलें, ताचो राज्याभिषेक करपाक न्हयकार दिलो. हेच वांगडा आनीक एक उद्येग चलता. ज्या व्यक्तींक तांच्या पुरोगामी भूमिकांक लागून तांच्या जिवितपणांत सातत्यान ज्या प्रवृत्तींक विरोध केलो, त्यो प्रवृत्ती तांच्या मरणां उप्रांत तांकां दोन तरांनी नानपयत करपाचो प्रयत्न करतात. एक तर तांचो उल्लेखूच टाळपाचो आनी जर तांची जनमानसांतली प्रतिमा घटमूट आसत जाल्यार ते आपलेच अशे भासोवन वैचारीक गोंदळ घालपाचो आनी पद्धतशीरपणान प्रतिमांचें पूजन आनी विचारांचें दफन करपाचें.

देखुनूच भारतीय संस्कृतायेचो जप करप्या पासून सावध रावपाची गरज आसा. हो जप करप्यांमदीं वैचारीक गोंदळ घालपी जशे आसात, तशेच जांची दिकाभूल केल्ली आसा अशेय आसात. समाजा मुखावेल्या प्रस्नांचें स्वरूप स्पश्ट करप, तांची व्याख्या करप, तांचीं खरीं कारणां सोदप हें जावंक फावना अशें जांकां दिसता आनी समाजा मुखावेल्यो अडचणी जांकां गोंदळ निर्माण करपा पासत पर्वणी दिसतात तांचे पासून शादूर रावंक जाय आनी दिकाभूल जाल्ल्यांक शादूर करूंक जाय.

भारतीय संस्कृतायेंत आमी तीन तरांचे प्रवाह पळयले. एक म्हळ्यार कंस, रावण, दुःशासन हांचो प्रवाह. दुसरो राम, कृष्ण बी हांचो प्रवाह आनी तिसरो कपिल (सांख्य), बुध्द, चार्वाक आदींचो प्रवाह. हातुंतलो कपिल, बुद्ध चार्वाक हांचो प्रवाह म्हाका योग्य दिसता. आता मेरेन हांवें कांय वैयक्तीक उदारणां दिवन विसंगती दाखोवपाचो प्रयत्न केला. आतां थोडी सामाजीक बाजू पळोवया. मोस्त्रा पासत महाभारतीय युध्द घेवया. हें युध्द कौरव आनी पांडवां मदीं आशिल्लें. हातूंत कोणाची बाजू न्याय्य आशिल्ली अशें विचारल्यार पांडवांची बाजू अशी भोव संख्येन जाप येतली. आतां दुसरो प्रस्न. हें युध्द कित्या खातीर आशिल्लें? हस्तिनापुरचो राजा कोण आसचो हाचे पासत आशिल्लें. बरोबर मूं? म्हळ्यार तातूंत प्रजेची, सामान्य जनतेची कितें बाजू आशिल्ली व्हय? हाची जाप न्हयकारी दिवची पडटली. एके हिंदी कवितेचे ओळींचो मतितार्थ सांगतां –

**राजा कौरव आसूं वो पांडव**
**जनता बाबडी द्रौपदीच आसता**
**राजा कौरव आसलो जर**
**तिजें दरबारांत वस्त्रहरण जाता**
**राजा पांडव आसलो जाल्यार**
**तिका द्युतांत पैजेक लायतात**

पूण हे सामाजीक प्रस्न बुध्द हातांत घेतना दिसता. ताका समाजांतलें दुख्ख दिसता, भौजनांचें दुख्ख दिसता. 'बहुजन हिताय बहुजन सुखाय' हें ताचें ध्येय जावन आसा. तो 'संघ' स्थापन करून समतेचेर निंबून आशिल्लो समाज हाडपाचो प्रयत्न करता. ज्ञानेश्वरांचोय असोच प्रयत्न दिसता, पुरोयतांची मक्तेदारी ना करून तो भौजनांच्या हातांत गिन्यानांचीं सुत्रां दिवंक पळयता.

आयज समाजांत नवे प्रस्न उबे आसात. हे प्रस्न यांत्रिकीकरणाक लागून निर्माण जाल्यात, शारीकरणाक लागून निर्माण जाल्यात. दरेक गजालींचें वस्तुकरण जालां. सरंजामी काळांत शोशण आशिल्लें तरी सामाजीक बंध घट्ट आशिल्ले. भांडवलशायेन ते उधळून घाल्यात. मागीर हाचेर उपाय कितें? 'जूने ते सोने' हो उपाय सुचयतात. पोरण्या काळांतल्यो बऱ्यो गजाली मुखार करतात. त्यो संदर्भ तोडून दाखयतात. हातुंतय दोन तरांचे लोक आसतात. एक, जांकां खऱ्यानीच जग सुंदर जावंचें अशें दिसता, त्या पासत आपले परंपरेंत कितेंय मेळटलें अशें तांकां दिसता. ते पोरण्यां धर्मतत्वांक नवो पुरोगामी अर्थ दिवपाचो प्रयत्न करतात. दुसरे मात फटींग आसतात, ते पोरण्याचें पेरगांव, आपलीं पोरणीं सत्तास्थानां पर्थून हाडपाखातीर घालतात.

थोडेभितर सांगपाचें जाल्यार, आयचे चंगळवादी संस्कृतायेर पर्याय म्हूण सरंजामी संस्कृताय दाखयतात. पूण ह्यो दोनूय संस्कृतायो शोशण अबाधीत दवरपी जावन आसात. चंगळवादी संस्कृताय 'तू चिज बडी है मस्त' म्हणटली आनी अस्तुरेक बाजारांत दवरतली. तर सरंजामी संस्कृताय ती स्वतंत्रतायेक पात्र ना म्हणत तिका सती वचपा खातीर घोवाचे चितेकडेन व्हरतली.

आमकां ह्या दोनूय संस्कृतायेच्या पलतडची संस्कृताय जाय. जी संस्कृताय समतेचें मूल्य उखलून धरतली, जी संस्कृताय खरी लोकशाय दरेक मनशाचे वागणूकेंत हाडटली. 'वर्ग, वर्ण आनी स्त्रिदास्य' हांकां मातयेक लावपी संस्कृताय हाडपाचो आमचो प्रयत्न आसूंक जाय. भारतीय संस्कृतायेंतलो जो तिसरो प्रवाह हांवें म्हळा तो प्रवाह अशी संस्कृताय हाडूंक आंवडेवप्यांचो प्रेरणा स्त्रोत आसा.



# पुनर्नवा



*१३ जानेवारी २०१३ सावन पुराय संवसार स्वामी विवेकानंदाचो सार्धशती सुवालो मनयता. स्वामी विवेकानंदाची १५०वे जयंती निमतान ह्या वर्सा बिम्ब मासिक स्वामी विवेकानंदाचें चरित्र बिम्ब वाचकां पासत कोंकणींत हाडटा. दर म्हयन्याक 'पुनर्नवो' ह्या सदरांतल्यान हें चरित्र खिस्ती खिस्तीनी उजवाडाक येतलें आनी १२ जानेवारी २०१४ हे दिसा सार्धशती समारोप सुवाळ्या दिसा ह्या चरित्राचें पुस्तकरूपान विमोचन जातलें.*

# स्वामी विवेकानंद

## जिवीत आनी कार्य



पिरायेचीं पांच वर्सां पुराय जाल्या उप्रांत घरचे प्रथेप्रमाण नरेंद्रनाथाच्या शिक्षणाक आरंब जालो. ताका शिकोवपाक घराकडेन 'मास्तर' येतालो. पूण ताच्या ह्या शिश्यान ताका नाकाशेवट करून सोडलो. धोडावन बडोवन विद्या शिकोवपाचे सनातन परंपरेंतले प्रयोग करीत आयिल्लो तो मास्तर हांगा मात थकलो. ताची ती 'छडी वाजे छम् छम् विद्या येई घम् घम्'ची पध्दत ह्या शिश्याबाबतींत निरूपेगी थारली. गुरूजी रूद्रावतार हाडून दोळे मोठे करतांच नरेंद्र आनीकूय हट्टीपणा करी. शेवटाक मास्तराक आपली पारंपारीक शिक्षण पध्दत सोडची पडली आनी गोड गोड उतरांनी, बाबापुता करीत आपलें कार्य तडीक व्हरचें पडलें.

अशे तरेन मुळावें शिक्षण सोंपल्या उप्रांत नरेंद्रनाथाक 'मेट्रोपॉलिटन इन्स्टिटच्यूशनां'त घालो. हांगा ताका ताच्या वर्गांत ताचेच पिरायेचे सवंगडी लाबले. नरेंद्रनाथ खोसयेन सामको भुरकुटलो. नरेंद्रनाथाच्या मुखेलपणाखाल रोखडीच तांची एक टोळी तयार जाली. सकाळ आनी सांज तांच्या खेळाक अंतपार उरलोना. दत्तघराब्याच्या त्या म्हालाच्या अयस पयस आंगणांत ह्या भुरग्यांचो बोवाळ एक सारको वाडत आसतालो.

आतां आतां नरेंद्रनाथाक नेमान शाळेक वचचें पडूंक लागलें. ताचे खातीर तें एक व्हड संकश्टच आशिल्लें. शाळेन ताची स्वतंत्रताय पुरायेन ना केल्ली. वर्गांत एकेच सुवातेर वरानवरां बसप ताका मात्तूय जमनाशिल्लें. केन्ना उबो रावप, केन्ना बसप तर केन्ना केन्ना वर्गांतल्यान फुज्जो काडप! आनी केन्ना केन्ना हातुंतलें कांयच करूंक मेळना जातच स्वताच्या आंगावेले कपडे आनी हाताक मेळत तीं पुस्तकां पिंजपाक लागप! ताच्या आवय-बापायक, शिक्षकाक कितें करप हेंच कळनाशिल्लें. तापोवणी काडून, धपकावन कांयच जावपा सारकें नाशिल्लें. म्हणटकच बाबापुता करूनच गोड गोड उतरांनीं समजावंचें पडटालें. नरेंद्रनाथ असो चंचळ आनी मस्तो आसलो तरी ताचे भितर ल्हानपणा सावनूच हेर सर्वसादारण भुरग्यांपरस कितें तरी खाशेलेपण दिसतालें. खेळटना कोणेंय ल्हानशे घडणुकेवेल्यान झगडीं सुरू केल्लीं ताका मात्तूय खपनाशिल्लें. आपूण जावन मुखार सरून तो तीं मिटयतालो. ताच्या सांगण्याकडेन आडनदर करून जर भुरगीं एकमेकाक मार बडय करूंक मुखार सरलीं जाल्यार तो भियेनासतना मदीं पडऽ आनी झगडीं थांबयी! हेर खंयच्याय भुरग्या परस कुडीन तो बळीश्ट आशिल्लो. ताचें धाडस आनी मुठीनी झगडपाची तरा पळोवन मस्त्यांतलीं मस्ती भुरगीं ताका भिवून आसतालीं.

ल्हानपणा सावन भंय म्हळ्यार कितें हें ताका खबरच नाशिल्लें. स वर्सांचो आसतना एक दीस तो आपल्या इश्टां वांगडा कसले तरी जात्रेक गेल्लो. म्हादेवाच्यो कांय मातयेच्यो मूर्ती घेवन सगळीं भुरगीं घरा परततालीं. त्याच पंगडांतलो एकलो ल्हान भुरगो तांच्या मदल्यान कसो कोण जाणां चलतां चलतां चुकून मुखेल रस्त्यार पावलो. तेच वेळार मुखावेल्यान एक गाडी भर वेगान येतना ताचे नदरेक पडली. अकस्मात अशें घडिल्ल्यान कितें करचें तेंच ताका कळ्ळें ना. आजूबाजूच्या लोकांक प्रसंगाची कल्पना आयली. ते भिऊन बोवाळ घालूंक लागले. बोवाळ आयकून

नरेंद्रनाथान फाटीं वळून पळयलें आनी आयिल्ल्या अरिश्टाची ताका कल्पना आयली. खिणाचोय वेळ वगडायनासतना ताणें हातांतली मूर्त बिरकटावन माल्ली आनी लागीं लागीं घोड्यांच्या टापां पोंदच्यान कसो त्या भुरग्याक खिणाभरयांत ओडून कुशीक काडलो. मातसो कळाव जर जाल्लो जाल्यार ते गोडये पोंदा त्या भुरग्याची भातेरी जावपाची! नरेंद्रनाथाचें तें धाडस पळोवन जमिल्ल्या सगळ्यांनी ताची तुस्त केली. उचंबळून येवन कांय जाणांनी ताचे तकलेर हात दवरून आशिर्वादूय घाले. जेन्ना ही गजाल ताचे आवयक कळ्ळी तेन्ना भुवनेश्वरीच्या दोळ्यांत खोसयेचीं दुकां घळ्ळऽ करून देंवलीं. आपल्या पुताक मांडयेर घेत, ताका पोशेत, वेंगायत तिणेंय ताका आशिर्वाद दीत म्हळें, 'सदांच असोच मनशा सारको वागत राव रे पुता.'

भुरग्यांचें संगोपन करून तांकां मनीस कशे करप हें भुवनेश्वरीक पुरायेन खबर आशिल्लें. हे आदर्श अस्तुरेच्या हातांतल्यान नरेंद्र, महेंद्र आनी भूपेंद्र नांवाचे हे तीन पूत्र घडले जांचेकडेन वंगभूंय अभिमानान पळयताली.

भुतां-बितांचेर नरेंद्रनाथाचो मात्तूय विस्वास नाशिल्लो. भूत, पिशाच्च, ब्रह्मराकेस बी नांवां आयकून हेर भुरगीं थर्त भियेतालीं थंय नरेंद्रनाथ तांकां सोदपाक भोंवतालो. तांकां पळोवपाची ताच्या मनांत जबर आस्त उप्रासतालीं. ताच्या घरा शेजराकूच ताच्या एका सवंगड्याच्या आंगणांत एक चाफ्याचो रूख आशिल्लो. त्या रूखाचे फांदयेर वटवागळा सारखो हुमकळून दोनूय हात सोडून झेलप हो नरेंद्रनाथाचो एक आवडिचो खेळ आशिल्लो. एक दीस नरेंद्रनाथाक एके उंचावेले फांदयेचेर असो हुमकळटना पळोवन त्या घराच्या धनयाच्या काळजांत धडकी भरली. चाफ्याचें झाड केन्ना मोडत हाची ताका खात्री नाशिल्ली. त्या म्हाताऱ्याक ह्या भुरग्याचो सभाव खबर आशिल्लो. ताचेर तापल्यार तो ज्युस्त उरफाटें करपाचो! देखून ताणें म्होंवाळ उतरांनीं ताका सांगलें, "बाबू, त्या झाडाचेर चडूंक फावना आं!"

अपेक्षेप्रमाण नरेंद्रनाथान विचारलेंच, "कित्याक, चडल्यार कितें जाता?" जाण्टेल्यान जाप दिली, "ह्या झाडाचेर मरे एक ब्रह्मराकेस रावता." इतलें सांगून त्या जाण्टेल्यान त्या ब्रह्मराकेसाचें भिरांकूळ रूप सामकें रंगोवन सांगलें आनी आपल्या झाडाचो जाल्लो अपमान तो कसोच सोसून घेना म्हणपाचें सांगून, ताच्यो दोन-चार घडणुको ताणें बऱ्यो तिखट मीठ लावन कश्यो वर्णन करून सांगल्यो.

हें सगळें आयकून घेवन नरेंद्रनाथ ओग्गी रावलो तें पळोवन जाण्टेल्याक आपली मात्रा लागू पडली म्हणपाचें कळ्ळें आनी तो थंयच्यान गेलो. ताणें फाट घुंवडायल्या मात, नरेंद्रनाथ पर्थून त्या रूखाचे फांदयेर वचून बसलो. ताणें मनांतल्या मनांत म्हळें, "ब्रह्मराकेसा, एक खेप म्हजे सामकार येवन तरी पळय."

जाण्टेलो त्या ब्रह्मराकेसाचें वर्णन करतालो तें थंय आशिल्ल्या नरेंद्रनाथाच्या सवंगड्यानूय आयकल्लें. तें आयकून ताचो आवरो उडिल्लो. ताणें म्हळें, 'नाका सायबा ही भानगड, ह्या भुतांचो, ब्रह्मराकेसांचो नेम ना. केन्ना कोणाचे मानगुटीचेर बसत म्हणपाचो नेम नासता.' ताचेर नरेंद्रनाथान हांसून ताका म्हळें, "तूंय म्हळ्यार सामकोच आवटो कसो मरे! तुज्या आज्यान आमकां भिवोवपाखातीर ही काणी घडोवन सांगल्या. ह्या झाडाचेर ब्रह्मराकेस आसलो जाल्यार केन्नाधर तो येवन म्हजे मानगुटेर बसपाचो!"

कोणूय कितेंय सांगता त्या गजालींचेर विस्वास दवरप हें नरेंद्रनाथाच्या सभावा उरफाटेंच आशिल्लें. खंयचेय गजालीचेर पुराव्या बगर विस्वास दवरप हें ताका ल्हानपणा सावनूच मान्य नाशिल्लें. तेच पासत मुखार तरणेपणांत पुस्तकी तत्वगिन्यानाचेर वाचन करून तृप्त जावपाचें सोडून सत्याचे प्राप्ती खातीर साधनां करपा खातीर तो मुखार सरलो ताचें कारण म्हळ्यार ताचो होच सभाव!

पिरायेच्या १४व्या वर्सा अतिसार जावन नरेंद्रनाथाक पोटदुखीचें दुयेंस जालें. बरोच काळ दुयेंत पडिल्ल्यान तो सामको सुकलो आनी अशक्तूय जाल्लो. त्या सुमाराक विश्वनाथबाबू आपल्या धंद्या निमतान मध्यप्रदेशांतल्या रायपूर नांवाच्या एका शारांत रावपाक गेल्लो. हवा पालट केल्यार नरेंद्रनाथाची भलायकी सुदारतली अशें दिशिल्ल्यान नरेंद्रनाथा सयत घरांतल्या सगळ्यांक तो रायपुराक घेवन गेलो. ही १८७७तली घडणूक.

मध्यप्रदेशांत तो वेळ मेरेन सगळ्याक आगगाडी नाशिल्ली. अलाहाबाद - जबलपूर मार्गान नागपूर मेरेन आगगाडयेन वचूंक मेळऽ. नागपूरच्यान रायपुराक वचपाचें जाल्यार सुमार पंद्रशी परस चड दीस बैलगाडयेन वचचें लागऽ. पयसुल्ल्या रस्त्यान इतल्या लांबचे भोंवडेंत अर्दो अदीक भारत पळोवंक मेळिल्ल्यान नरेंद्रनाथाच्या तरण्या मनाचेर आवयभुंयेच्या ह्या तरातरांच्या रुपांचो प्रभाव पडिल्लो.

आपूण जें कितें पळयतां ताचें रसाळ वर्णन करपाची नरेंद्रनाथाक संवय आशिल्ली. आपल्याक जें कितें भावलां तें हेरांमुखार दवरल्या बगर सूख लागनाशिल्लें. नागपूर ते रायपूर मेरेनचो हो बैलगाडयेंतलो प्रवासूय नरेंद्रनाथाक आपल्या मनांत दवरप जमलेंना. त्या प्रवासांतलें वर्णन ताणें आपलो गुरूबंधू स्वामी सारदानंदजी हांचे मुखार केल्लें. नरेंद्रनाथाच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें हें वर्णन जशाक तशे सारदानंदजीन आपल्या एका ग्रंथांत बरोवन दवरलां - 'रानवाठारांतल्यान प्रवास करतनासतना त्या दिसांनीं जें कितें हांवें पळयलें आनी अणभवलें तें म्हजे यादींत सासणाचें दसून रावलें. तांतल्या एका दिसाची गजाल तर म्हजे यादींतल्यान केन्नाच ना जावपाची ना. उंच उंच तेमकां आशिल्ल्या विंध्याद्रीच्या मुळसांतल्या रस्त्यान ते दिसा आमी वतालीं. रस्त्याचे दोनूय वटयां उबीं आशिल्लीं शिखरां मळबाक तेंकल्यांत काय कितें असो भास जातालो. तरांतरांच्या फळां आनी फुलांनी भरिल्ल्या रूखां आनी वेलीनीं त्या दोंगरावळीक अपूर्व सोबाय हाडिल्ली. तो पुराय रानवाठार आपल्या गोड किलबिलाटान भरून उडोवन रंगरंगयाळीं सवणीं हांगा थंय मुक्तपणान खेळटालीं. केन्ना केन्नाय आपले खावडी पासत जमनीर येवन बसतालीं. हो सगळो मन रिजवणेचो देखाव पळयतां पळयतां मन उमेदीन भरून सामकें शांत शांत जाल्लें! आमच्यो बैलगाडयो त्या वातावरणाक सोबऽ सारके मंदगतीन चलताल्यो. ल्हव ल्हव आमी अशे एके सुवातेर येवन पावलीं, जंय त्या रस्त्याच्या दोनूय वटयांचीं शिखरां जणकाय मोगान एकमेकाक वेंग मारपा पासत एकामेकां लागीं सरकतात काय कितें असो भास जावंक लागलो. हांव ते मळबाक चुंबपी उंच उंच सुळके बारकायेन पळोवपाक इतलो दंग जाल्लों, तेन्नाच म्हाका अशें दिसून आयलें की, तांच्या पयकी एके वटेनचो कडो दुभंगला.

ताका सकयल्यान वयर मेरेन एक व्हड चीर पडिल्ली आसा, ती रिकामी पोकळी व्यापून उडयल्या ती म्हांवा मुसांच्या एका व्हडल्या पोळयान. थंय एक व्हडलें म्हांवा पोळें हुमकळटालें आनी हांव ताचे कडेन अजापान पळयत संवसाराच्या आदी-अंताविशीं विचार करतालों. त्या विचारांत हांव इतलोऽ घुस्पलों की म्हाका ते वेळार म्हज्यो पुराय जाणिवोच ना जावन गेल्लेवरीं जालें. कितलो वेळ हांव ते अवस्थेंत पडून आशिल्लों ताची म्हाका कांयच याद जायना. जेन्ना हांव भानार आयलों तेन्ना आमचे गाडयेन बरीच व्हडली वाट सारिल्ली. गाडयेंत हांव एकटोच आशिल्ल्यान ही गजाल कोणाकूच कळ्ळी ना. हीच एक गजाल म्हाका याद जाता..."

आपले कल्पनेच्या बळाचेर ध्यानस्थ जावन तातूंत संपूर्णायेन तन्मय जावपाची नरेंद्रनाथाच्या जिणेंतली भोवतेक ही पयलीच खेप आसतली!

रायपूराक त्या काळार शाळा नाशिल्ली देखून विश्वनाथबाबू नरेंद्रनाथाक आपूणच शिकोवंक लागले. हांगा रायपूराक तांकां पक्षकारांची आनी कोर्टाची धांवपळ नाशिल्ली. तांकां खूबसो वेळ मेळटालो. तांकां पुताचे प्रतिभेची जाणवाय आशिल्ली. देखुनूच शाळेच्या अभ्यासक्रमांतल्या पुस्तका भायर, इतिआस, तत्वगिन्यान आनी साहित्यावेली तरांतरांचीं पुस्तकां ते आपल्या पुताक शिकोवंक लागले. तांच्या घरा रायपुरांतले कितले तरी विद्वान दिसपट्टे यो-वच करताले. नरेंद्रनाथ चडसो सदांच थंय हाजीर आसतालो आनी साहित्य, तत्वगिन्यान आदी विशयांवेली भासाभास चित्त दिवन आयकतालो. केन्ना केन्नाय विश्वनाथबाबू ताका तातूंत वांटो घेवन आपलें मत दिवपाकूय सांगताले. पिरायेन सामको ल्हान आसुनय त्या जाण्टयांमदीं तो आपलीं तर्कशुध्द मतां मांडटालो आनी तीं आयकून जाण्टेले ताचें कवतूक करी. आपल्या पुताची योग्यताय आनी प्रगल्भताय पळोवन विश्वनाथबाबू ताका सगळे तरेचें प्रोत्साहन दिताले.

एक दीस एक नामनेचे बंगाली साहित्यीक बंगाली साहित्याचेर भासाभास करताले. बापायचे सुचवणे प्रमाण नरेंद्रनाथानूय ते चर्चेंत वांटो घेतलो. तेन्ना बऱ्याच वेळान त्या साहित्यिकाच्या लक्षांत आयलें की भुरग्यान भोवतेक सगळ्याच नामनेच्या लेखकांचीं पुस्तकां वाचल्यांत. अजापान आनी खोसयेन नरेंद्रनाथाकडेन पळोवन ताणीं तेन्नाच भाकीत केलें, 'हो भुरगो बंगाली भाशेचें मुखामळ परजळीत करतलो' स्वामी विवेकानंदान बरयिल्लीं 'वर्तमान भारत' 'परिव्राजक' 'भाबबार कथा' सारकीं बंगाली पुस्तकां पळयत जाल्यार त्या साहित्यिकाची भविश्यवाणी सफळ जाली अशेंच म्हणचें पडटलें.

आपल्या पुताची बुध्दी, प्रतिभा आनी चडांत चड जाणून घेवपाची इत्सा जाणून घेवन विश्वनाथबाबून नरेंद्रनाथाचे शिकोवपाचे पध्दतींत थोडो बदल केलो. पुस्तक विद्येच्या भारान पुताचे प्रबळ स्मरणशक्तीक थकोवन उडोवपा बदला ताचे वांगडा विंगविंगड विशयांचेर भासाभास करी आनी नरेंद्रनाथाक आपलें मत मेकळेपणान मांडपाची संद दियी! हांगा नरेंद्रनाथूय आपल्या बापायचें प्रचंड गिन्यान पळोवन सामको भारावन वतालो. संवसारांत जे जे कोण स्त्रध्दावान लोक आसात ताणीं ज्या ज्या गजालींची वांसा धरली तांचो सदांच लाब जाला. विश्वनाथ बाबू हे दयाळ मनीस आशिल्ले. तांकां हेरांचीं दुख्खां आनी अडचणी पळोवंक जायना आशिल्लें. तांचे पासत ताणीं आपली संपत्त मुक्त हातांनीं वाटून उडयली आनी आपल्या गिन्यानाची कोटयेकूड दोनूय हातानी आपल्या ह्या योग्यतायेच्या पुताक दिवन उडयली. रायपुराक नरेंद्रनाथ आपल्या बापाय वांगडा दोन वर्सां उरलो. ह्या दोन वर्सांत ताणें आपल्या बापायकडल्यान फक्त गिन्यानूच घेतलें अशें न्हय तर त्या काळच्या ताच्या संस्कारक्षम कंवळ्या मनाचेर बापायभितर आशिल्लीं सद्गुणांचीं बिजां रुजलीं. तेजस्वीपण, दुसऱ्यांचीं दुख्खां पळोवन पाजरप, संकश्टांच्या वेळार धीर सोडप ना, शांतपणान आपलें कर्तव्य पुराय करप ह्यो गजाली ताणें आपल्या बापायकडल्यान घेतल्यो.

विश्वनाथबाबूंचो सभाव सामको खर्चीक आशिल्लो. बचत म्हणटात ती करप तांकां केन्नाच जमलीना. फुडाराचो विचारच ताणीं केन्ना केलो ना. नरेंद्रनाथाची पिराय ते वेळार ह्यो गजाली समजुपाची नाशिल्ली. तरी सोयरेदायरे हे विशीं उलयताले तें ताच्या कानार पडलां आसूं येता. एकदीस नरेंद्रनाथानूच बापायक विचारलें, 'तुमी आमचे पासत कितें दवरलां?' ताचो तो प्रस्न आयकून विश्वनाथबाबून वण्टीक लायिल्ल्या एका व्हडल्या हारशाकडेन बोट दाखयलें आनी ताका सांगलें, 'वच आनी त्या हारशांत तुका पळय. म्हणटकच तुका कळटलें, हांवें तुका कितें दिलां पळय तें.'

कितें समजुपाचें तें बुदवंत नरेंद्रनाथ समजलो. भुरग्यांक शिकयतना तांचे भितर आत्मविश्वास निर्माण जावंचो देखून विश्वनाथबाबू तांकां केन्नाच झिडकारिनाशिल्ले वो वायट उतरूय दिना आशिल्ले. हाचो अर्थ हो न्हय की भुरगीं चुकल्यार तांकां योग्य वळण दिवंक ते कांयच करिनाशिल्ले. तांची ते खातीर पध्दत वेगळी आशिल्ली.

एक खेप नरेंद्रनाथान आपल्या त्या काळच्या भुरगेपणाक सोबता तशी एक आगळीक केली. ताणें आपले आवयक कसल्यातरी कारणाक लागून वायट उतर वापरलें. बापायन ताका ते पासत तापोवणी दिली ना. ताणीं ते पासत एक वेगळीच युक्त वापरली. जे कुडींत नरेंद्रनाथ आपल्या शाळेंतल्या सवंगड्यां वांगडा आनी हेर इश्टां वांगडा गजाली करीत बशिल्लो ते कुडीच्या दारार ताणीं नरेंद्रनाथान आपले आवयक कसलीं उतरां वापरलीं तीं ठळक अक्षरान बरोवन दवरलीं. तें वाचून नरेंद्रनाथाक आपल्या इश्टां मुखार इतली लज जाली, ताका ती गजाल सासणाची याद उरली.

आपल्या बापायकडल्यान अशे तरेचें शिक्षण मेळिल्ल्यान नरेंद्रनाथाच्या काळजांत आपल्या बापायविशीं स्त्रध्दा निर्माण जाल्ली. आपल्या इश्टांमुखार तो आपल्या बापायचें हें व्हडपण संद मेळटा तेन्ना गायतालो. आपूण एका व्हडल्या मनशाचो पूत आशिल्ल्याची भावना तो चलता भोंवता आसतना व्यक्त जाताली. ताका कोणें तूं भुरगो बी म्हणून फकाणां बी केलीं जाल्यार ताका तें मात्तूय सोंसनाशिल्लें. तो खुबळटालो पूण तातूंत मात्तूय अहंकार दिसून येना आशिल्लो. ताचे भितर द्वेशभावना दिसनाशिल्ली. उच्चनीच अश्या सगळ्याच लोकांविशीं सारकोच मोग आनी अपलेपण ताचे भितर आशिल्लें. सत्यवचन आनी सत्यवेव्हार हो ताच्या जिविताचो मूळ मंत्र आशिल्लो. सत्य मागीर तें कितलेंय अप्रिय आसूं, भियेनासतना तो

कोणाच्याय तोंडार सांगपाक मात्तूय फाटीं सरऽ नाशिल्लो. ते पासत ताका केन्ना केन्नाय ख्यास्त भोगची पडऽ खरी, तरीय सत तें लिपोवप ताका जमऽ नाशिल्लें.

भुरगेपणार ताची शक्त आनी बुद्द ताचे दरेक करणेंतल्यान स्पश्टपणान दिसताली. ताणें विचारपूर्वक मांडिल्लें म्हणणें जर कोणेंय पोरकटपणाचें मानून जर आडनदर केलें जाल्यार नरेंद्रनाथ रागान सामको बेफाम जातालो. मागीर ताका कोण ल्हान-व्हड हाचें भान उरनाशिल्लें. हाचो अर्थ तो कारण नासतना कोणायकडेन उद्दटपणान वागतालो असो न्हय आनी तशें घडत जाल्यार विश्वनाथबाबू ताचेर आडनदर करिनाशिल्ले. ते विशी ताका फावो ती ख्यास्त दिवन फुडाराक अशें घडूंक फावना हाची तंबी दिताले.

कांय म्हयन्यां उप्रांत नरेंद्रनाथाची भलायकी सुदारली आनी तो मूळ पदार आयलो. सोळा वर्सांचे पिरायेर ताणें आपलें शरीर धडधाकट आनी पिळदार केल्लें. ताची ती बांदावळ पळोवन कांय लोक ताका वीस वर्सांचो थारायताले. आपलें शरीर धडधाकट जावंचें देखून तो भुरगेपणासावन नेमान कुस्ती बी खेळटालो. त्या काळार प्रसिध्द आशिल्ल्या 'हिंदू मेळ्या'चे प्रवर्तक नवगोपाल मित्र हाणीं शिमुलिया वाठारांत कॉर्नवॉलिस स्ट्रिटाचेर एक व्यायाम शाळा उगडिल्ली. नरेंद्रनाथ थंय वचून नित्य नेमान व्यायाम करी. तरनाटेपणाच्या आरंबाक एक खेप बॉक्सिंगांत पयलो आयिल्ल्यान ताका चांदीचो एक फुलपाखो बक्षीस म्हूण मेळिल्लो. त्या काळच्या विद्यार्थ्यांमदींय एक बरो क्रिकेटर म्हूण ताचें नांव जाल्लें.

विश्वनाथबाबू पाककलेंत पारंगत आशिल्ले. रायपुरच्या राबित्यांत नरेंद्रनाथ तांचेकडल्यान तरातरांचीं पक्वानां करूंक शिकलो. कॉलेजींत शिकतना तो जायते खेप आपल्या इश्टांक जेवणाक आपोवन आपणें तयार केल्लीं पक्वानां तांकां खावंक घाली. पाकशास्त्रावेलो ताचो हो मोग सामको अखेर मेरेन आशिल्लो. तो जगप्रसिध्द विवेकानंद जाल्या उप्रांतूय तसोच आशिल्लो. स्वामीजीन जायते खेपे तरांतरांचे जिन्नस आपणें स्वता करून आपल्या शिश्यांक खावयल्यात. तातूंत ताका खूब खोस भोगताली.



रायपुरांतल्या वास्तव्यान नरेंद्रनाथां भितर खूब व्हडलो शारिरीक आनी मानसीक बदल घडोवन हाडलो. थंय सुमार दोन वर्सां रावन नरेंद्रनाथ पर्थून कलकत्त्याक आयलो. खूब दिसांनीं आपल्या मित्राक पळोवन ताच्या सवंगड्यांक खोस ही जालीच, पूण दोन वर्सां शाळेंत गैरहजर राविल्ल्यान ताका मॅट्रीकेच्या वर्गांत भरती जावंक मात अडचण उबी रावली. पूण शेवटाक ताचे गूण खबर आशिल्ल्या कांय शिक्षिकांनी अधिकाऱ्यांची खाशेली मान्यताय घेवन ताका मॅट्रीकेक घेतलोच. उप्रांत दिसरात मेनत करून दोनूय वर्सांचो अभ्यास एकाच वर्सांत पुराय करून ताणें मॅट्रीकेचे परिक्षेची तयारी केली आनी तो भोवमानान पयल्या वर्गांत पास जालो. ताच्या ह्या यशान ताचीं घरचींच न्हय तर शाळेंतले शिक्षक आनी अधिकारीय सामके संतुश्ट जावन गेले. कारण हे वर्सा तो एकलोच पयल्या वर्गांत येवन ताणें शाळेचें नांव वयर काडिल्लें.

मेट्रोपॉलिटन इन्स्टिट्यूशनांत शिकतना थंयचे एक आदले, कर्तव्यदक्ष शिक्षक सेवानिवृत्त जावपाचे आसात अशें कानार पडटकच नरेंद्रनाथ कांय उत्साही भुरग्यांक वचून मेळ्ळो. ताणीं निरोपसमारंभाची तयारी करून त्या शिक्षकाक एक मानपत्रूय दिवपाचें थारायलें. बक्षिससमारंभ सुवाळ्या वेळारूच ह्याय कार्यक्रमाचें आयोजन केलें. पुराय देशांत प्रभावी वक्ते म्हूण जांची नामना आशिल्ली ते श्री. सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी ह्या प्रसंगार अध्यक्षस्थानार आसतले आशिल्ले. तांचेमुखार उबे रावून भाशण कोण करतलो हाचेर बरीच चर्चा जाली. पूण निर्णयाचेर कोणूच पावना जालो. शेवटाक नरेंद्रनाथानूच भाशण करचें अशें सगळ्यांनीं थारायलें. माचयेर उबो रावन नरेंद्रनाथान सुमार अर्दवर आपल्या सभावीक म्होवाळ आवाजान इंग्रजींतल्यान शिक्षकाच्या गुणांचें वर्णन केलें. भाशणाच्या शेवटाक जेन्ना त्या शिक्षकाचे निवृत्तीक लागून आपल्याक आनी हेर विद्यार्थ्यांक जें दुखख जालां तें उक्तावन नरेंद्रनाथ सकयल बसलो तेन्ना ताळयांचो गजर थांबून थांबना जालो. आपल्या अध्यक्षीय उलोवपांत सुरेन्द्रनाथांनीय ताच्या उलोवपाची तोंड भरून तोखणाय केली. ह्या सोळ-सतरा वर्सांच्या भुरग्यान सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी सारख्या वक्त्या मुखार उबो रावन उलोवप म्हळ्यार ल्हान गजाल नाशिल्ली!

नरेंद्रनाथाच्या चारित्र्यांत जें कितें म्हान आशिल्लें, जें कितें सुंदर आशिल्लें तें सगळें ताचे सुशिक्षीत आवयची देण आशिल्ली. आपल्या भुरग्यांच्या चारित्र्यांत कसलेच तरेची वायट गजाल रिगची न्हय म्हूण भुवनेश्वरीन दोळ्यांत तेल घालून म्हणटात तशी काळजी घेतली. नरेंद्रनाथानूय आपले आवयची आज्ञा केन्नाच मोडूंक ना. मातृभक्ती ताच्या रुंवांरुंवांत आशिल्ली.

आवय बापायचे मोगाळ सावळेंत आनी घरचे गिरेस्तकायेंत नरेंद्रनाथाचो पयलींचो सोळा वर्सांचो काळ हासपा - खेळपांतूच सरलो. भुरगेपणीचें ताचें जिवीत हें अलौकीक अशें नाशिल्लें, सर्व सादारण अश्या भुरग्यां सारकेच आशिल्लें तरी ताचे भितर कांय खाशेल्यो गजाली आसात त्यो लिपून उरनाशिल्ल्यो. तिश्ण बुध्दी, प्रखर आत्मनिश्ठा आनी गिन्यान मेळोवपाची तळमळ ही खऱ्यानीच तोखणायेची आशिल्ली. तो भुरगेपणार बापायकडल्यान संगीताचें शिक्षणूय घेतालो आनी ते पिरायेर ताणें गायनकलेंतूय प्राविण्य मेळयल्लें.

नरेंद्रनाथ एके वटेन बुध्दीमान, तेजस्वी, आशिल्लो जाल्यार दुसरेवटेन तितलोच मस्तो, तिरसुवाद, फकाणेर, हट्टी आशिल्लो. ह्या सगळ्या गुणांक लागून तो सगळ्यांकूच जायजाय सो दिसतालो.

मॅट्रिकची परिक्षा पास जाले उप्रांत नरेंद्रनाथान कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. मागीर ताच्या जिवितांत विचित्र, रहस्यमय आनी घुस्पागोंदळांच्यो एकेक गजाली येत रावल्यो आनी नरेंद्रनाथ ती वाट माड्डूवंक लागलो.

(चलता...)

# हांव सध्या कितें करतां?

महाबळेश्वर सैल

म्हाका साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना हांव पन्नाशीक तेकिल्लों. हेर खंयच्याय मळार वावर करतल्याक ही जाण्टी पिराय म्हणू येता. पूण साहित्यकाराक, कलाकाराक पिरायेची मर्यादा नासता. हें हांवेंच कांय आर्दी सिद्द केलां. पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना दोन कथासंग्रह प्रकाशीत जाल्ले आनी 'काळी गंगा' ही कादंबरी बरोवन जाल्ली. ताका प्रकाशक सोदूंक धडपडटालों. तरीय म्हाका साहित्य अकादमी पुरस्कार बेगीनच मेळ्ळो अशें हांव म्हणीन. कारण बरोवंक लागलों उसरां. म्हजी पयली कोंकणी कथा 'वाचाड' ही 'कुळागरां'त एकुणशे एक्यायशांत उजवाडाक आयली. तेन्ना हांव अडुतीस वर्सांचो आसलों. (ताचे पयलीं धायेक वर्सां हांव मराठींत नाटकां, कथा बरयतालों) इतलो उसरां येवनय लागींलागीं अडेच हजार पानां भर इतलें साहित्य हांवें कोंकणींत रचलां. सद्या एका व्हड कादंबरीचो वावर चालू आसा. साहित्य अकादमी पुरस्कारा उपरांत आतां कितें चल्लां अशें विचारल्यार हांव सांगीन, म्हजें खरें साहित्य पुरस्कारा उपरांतच आयलां. म्हाका साहित्यांत जायते पुरस्कार फावो जाले. पूण खंयच्याच पुरस्कारा उपरांत हांव तुश्ट, समाधानी जालों ना. साचलो, बरयचो रावलों ना. पुरस्कार दोन कामां करता, एक तुज्या साहित्याक मान्यताय दिता, दुसरें तुका बरोवंक उर्बा दिता. पुरस्कार मेळ्ळे उपरांत जालें, हांवें कितेंतरी व्हड काम केलें, आतां आनी कितें करचें उल्लें ना अशें म्हाका केन्ना दिसलें ना. आयज हांव म्हाका अपूर्णच मानतां, अजूनय बरें येवचें उल्लां अशें दिसता. जें बरयलां ताचें पूर्ण समाधान जाले बगर ते छापूंक घालचें म्हाका मानवना. हांवें बरयल्ली 'काळ घुवंडी' म्हण कादंबरी सुनापरान्तातल्यान खिस्ती खिस्तीनी येताली. एक दीस म्हज्या एक जाणकार इश्टान म्हटलें, 'कसली बाबत कादंबरी रे ती!' ते कादंबरीवेलें म्हजें मनच उठलें. मागीर हांवें ती आनीक एक म्हज्या जाणकार इश्टाक वाचूंक दिली. आतां बारा वर्सां जाल्यांत त्या इश्टान ती अजून परत केल्ली



ना. 'न आवडती' म्हण हांवेंच ताचो नाद सोडला.

साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो तेन्ना हांवें निकतीच चूल मांडिल्ली. म्हजो खरो साहित्यसंवसार सुरू जालो तो ताच्या उपरांतच. पुरस्कार जाहीर जाल्लो तेन्ना म्हजी नवलिका *अद्रुश्ट* अर्दी बरोवन जाल्ली. *अरण्यकांडा*वें बीज तकलेंत घुंवतालें. *अद्रुश्ट* बरयतना पंदरा वीस दीस म्हाका आगळीच तंद्री लागिल्ली आसताली. म्हाका याद आसा, पुरस्कार मेळ्ळो म्हण म्हाका अभिनंदनाचे फोन येताले. ताचे मर्दीं म्हजें बरोवप चालूच आसलें. पुरस्कार मेळ्ळो म्हण त्यो नवलीका बऱ्यो जाल्यो, ना मेळटो तर त्यो बाबत जातासले अशें म्हणूं नज. साहित्य हो म्हजो मनोधर्म. आयुश्याची मोख. ती खांदार घेतिल्ली पालखी. देवाले पालखेचो एक नेम आसता, ती निमाणे पेणे आयलेबगर सकल दवरूंक फावना. खांदे बदलूंक येतात, पूण भूंयेर दवरूंक फावना. म्हज्या साहित्य साधनेविशीं तीच म्हजी मोख आसा.

वाचकांचो, सर्वसामान्य लोकांचो असो एक समज आसता, पुरस्कार मेळटकीर बरोवपी सोंपता. अशें कोणाचेय बाबतींत जालांय आसत. खरें तर अशे हे बरोवपी मुळांत साहित्यीक नासतातच. खोकलेची उबळ येवची तशी ती उबळ येयल्ली आसता. बेसावध खिणाक ते हात धुवन घेतात. तें साहित्य वाठारांतलें अप्रमाणीकपणाच आसता. म्हाका पुरस्कार मेळिल्लो तेन्ना तेलगुंतल्या एका लेखकाक तो पुरस्कार मेळिल्लो. तो काथ्याच्या (कॉयर) फॅक्टरींत काम करतालो. ताणें तेलगूंत शंबर कादंबरी बरयल्ल्यो. आनीकय कांय बरोवचो आसलो. ती जीवीताची साधना आनी तपश्चर्या आसता. म्हाका विश्व कोंकणी पुरस्कार दिल्लो तेन्ना हांवें म्हज्या उलोवपांत म्हणिल्लें, 'हो कार्यक्रम सोंपतकीर हांव घरा वतलों आनी बरोवंक कागदां मुखार ओडटलों.' पुरस्काराचो अर्थ इतलोच आसता, कोणतरी आपल्या लिखाणाक मान्यताय दिता. आमचेकडेन समिक्षा ना. आसात ते पुरस्कार. तेंच इल्लें समाधान.

म्हजी प्रतिभा एकमुखी. एकच फावट साहित्याचे खूबशे प्रकल्प हातांत घेवप म्हाका जमना. दिलीप बोरकारा सारख्याक तें जमता, म्हाका जमना. फाटीं देडेक वर्स हांव गोमन्तकांत एक सदर बरयतालों. तेन्ना म्हजें हेर बरोवप थांबिल्लेवरी जाल्लें. तेन्ना हांवें तें बरोवप सोडलें.

आतां कितें चल्लां म्हण विचारल्यार सांगन, एक व्हड आवाठाची कादंबरी बरोवंक घेतल्या. तातूंत कारवार धरून काणकोण मेरेनचो वाठार आस्पावला. ह्या वाठाराक पयलीं 'सिवेस्वर' वाठार म्हणटाले. कादंबरीची पार्श्वभूंय पुराय कृशी संस्कृतीची. कृशी संस्कृती ही रुतूचक्रा वांगडा घुंवपी मनभुलायणी संस्कृती. तातूंत सैमाचे सगळे आयाम आसतात. तसोच मनशाचो चैतन्यमय संघर्शय आसता. केन्ना उपकारी केन्ना अच्छेवी सैम आनी मनशालो अस्तित्वाचो प्रामाणीक संघर्श हाचो मेळ घालचो यत्न हे कादंबरींत जातलो. मुळांत ती आत्मचरित्र म्हण प्रथमपुरूशी फॉर्मात घेवची आसली. मागीर कळ्ळें सर्वसाधारण लेखकांचे बाबतींत आत्मचरित्र ही मिथ्या कल्पना. तातूंत खोटेपणय जाता आनी अभिव्यक्तीकय मर्यादा येतात. भोवतर हाका आत्मचरित्रात्मक कादंबरी म्हणूं येत.

वैचारीक ललीत निबंधाचें एक पुस्तक छापूंक गेल्लें आसा. तें रोखडेंच उजवाडाक येतलें. 'विखार विळखो' ही कादंबरी 'जागान' छापूंक घेतल्या.



# जुले जुले



*तें पळोवन शशशाक आयलो शग. ताणें एक व्हडलो फातर उबारलो. तो गुरु नानक देवजीचेर मोखून मारलो. गुरु नानक देवजीचो स्पर्श जायना बराबर फातर मेणावरी मोव पडलो आनी गुरु नानक देवजीच्या कुडी भोंवतणी सुरक्षा तट करो रावलो.*



**शीला कोळंबकार**
मुलूंड - मुंबय.
मो.: ९८१९३१५३०७

पॅन्गाँग लेक पळोवन आयलीं. सांजेर सिंधु घाट पळोवंक गेलीं. सिंधु नदी म्हणटकच इतिहास येवजलो. सिंधु नदी आतां तिबेटांत आशिल्ल्या मानस सरोवरांत उगम पावता. थंयसान व्हांवत लडाख येता. मागीर थंयसान पाकिस्तानांत वचून मुखार फुडें अरबी समुद्राक मेळटा.

सिंधु नदीचो उल्लेख ऋग्वेद आनी पुराणानी मेळटा. महाभारतांतल्या भीष्मपर्वांत हिचो उल्लेख आसा. सतयुगांत भगीरथान आपल्या पुर्वजांक मोक्ष मेळचो म्हूण गंगा नदीक धर्तरेर येवंक सांगलें. ती आयली. तिचे तीन फांटे पुर्वेक आनी तीन फांटे पश्चिमेक गेले. हांतल्या एका फांट्याचें नांव सिंधु नदी.

खरें म्हळ्यार सिंधु आनी ब्रह्मपुत्रा हांकां नदी म्हणनात. नद म्हणटात. आमचे भाशेचें अजाप दिसलें. नदी आनी नद. नदी स्त्रिलिंगी आनी नद पुल्लिंग. कित्याक काय? पूण म्हाका नदी शब्द बरो दिसलो.

ही सिंधु नदी पळोवपाची आसा ह्या विचारानूच मन उचंबळीत जालें. हिच्या देगेवेली ती मोहेंजदारो आनी हडप्पाची संस्कृताय. १७००० वर्सां पयलींची संस्कृताय हिणें पळेल्ली. इतिहासांत मेळिल्ली ही नदी आतां प्रत्यक्षांत हांव पळेतालें. सगळेवटेन रेंवेचे दोंगर. मदल्यान शांतपणान व्हांवपी ही न्हंय! हिणें कितले पावसाळे पळेल्या जातले देवाक खबर! हिच्या देगांचेर कितल्यो वसणुको जाल्यो आनी खंय नानपश्यत जाल्यो देवाक खबर! म्हाका माधव बोरकाराची कविता येवजली.

गंगे गंगे
सुखांत राव
दुखांत व्हांव

ही सिंधु नदी बी तशीच दुखांत व्हांवताली काय? काय मनशाच्या सुखदुखाकडेन लक्ष दिनासतना ती आपलेच धुंदेंत, आपल्याच मग्नांत, आपलेच लयीत व्हांवताली काय?

आमी सिंधु नदीच्या घाटार पावलीं. न्हंयेच्या उदकांत पावल बुडोवचे पयलीं हांवें तिका नमस्कार केलो. मनांत म्हळें, 'हे माये, सगळ्यांचे वतीन हांव तुका नमन करतां. तुज्या दर्शनान हांव उचंबळीत जालां.' फुडें कितें म्हणचें तें येवजलेंच ना. फक्कत दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं. तींच हांवें न्हंयेक अर्पण केलीं.

हातांत उदक घेवन म्हजो भांग भिजयलो. दोळ्यांक उदक लायलें आनी तिकाच प्रस्न विचारलो, 'माये, तुका पळोवन म्हाका रडूंक कित्याक आयलें? हाचे पयलीं आमी केन्ना मेळिल्लीं? तूं म्हाका वळखता? खंयच्या तरी फाटल्या जन्मांत म्हजी तुजेकडेन इश्टागत आशिल्ली? तूं म्हाका इतली जन्मजन्मांतरीची, म्हज्या

काळजांतलीशी कित्याक दिसली? ऋणानुबंध म्हणटात तेंच हें काय?'

हांवें म्हज्या मनांतले विचार फाफडून उडयले आनी आनीक रडूंक येवचे पयलीं हेर वांगड्यांमदीं भरसून गेलें. सिंधु नदी पळोवन हेरांक किते दिसलें काय?

सिंधु घाट पळोवन परतताना उदास जावंक जालें. आपल्या मायेच्या मनशांक सोडून पयस वतना जाता तशेंशें.

मागीर आमी पत्थर साहेब गुरूद्वारा पळोवंक गेलीं. गुरूनानक देवजी सुमेर पर्वताचेर प्रार्थना करून नेपाळ, सिक्किम सान लेह पावले. तेन्ना लेहच्या दोंगरार एक राक्षस रावतालो. तो थंयच्या लोकांक त्रास दितालो. तांकां मारतालो आनी खातालो. गुरू नानक देवजी त्या गांवांत पावले. तांकां पळोवन लोकांक सूऽ जालें. ताणीं गुरू नानक देवाक आपलें गाराणें सांगलें. गुरू नानक देवजी तो राक्षस रावता ते सुवातेलागीं गेले. थंयचे एके सुवातेर बसून ध्यान करूंक लागले. तें पळोवन राक्षसाक आयलो राग. ताणें एक व्हडलो फातर उबारलो. तो गुरू नानक देवजीचेर मोखून मारलो. गुरू नानक देवजीचो स्पर्श जायना बराबर फातर मेणावरी मोव पडलो आनी गुरू नानक देवजीच्या कुडी भोंवतणी सुरक्षा तट कसो रावलो. आपणें फातर मारला तो मनीस मेलो आसतलो अशें समजून राक्षस सकयल देंवलो. पळेल्यार गुरू जितो आसा. रागान ताणें आपल्या उजव्या पांयाची खोंट त्या फातरार मारली. तेन्ना ताच्या पांयाचो छापो त्या फातरार उदेलो. मागीर ताका कळ्ळें गुरू नानक देवजी म्हळ्यार फकाणां न्हय. तो मागीर गुरूक शरण गेलो.

गुरू नानक देवजी त्या फातराच्या साच्यांतल्यान भायर आयले. तो सांचो अजून तसोच आसा आनी राक्षसाच्या पांयाचो ताचेवेलो सांचोय बी तसोच आसा. ते सुवातेर गुरुद्वारा आसा. ताका पत्थर साहेब गुरुद्वारा म्हणटात. ज्या दोंगरावेल्यान त्या राक्षसान फातर मोखून मारिल्लो ती सुवात बांदून काडल्या. ते सुवातेर वचूंक सोपणांय बांदून काडल्यांत. ह्या गुरुद्वारांत भितर वच्चे पयलीं शीख लोक पयलीं वयर चडून वचून ते सुवातेचें दर्शन घेतात. मागीरूच गुरूद्वारांत भितर सरतात.

गुरूद्वारांत भितर सरचे पयलीं हातपांय धुवचे पडटात. आमी काय तीं इतलीं सोपणां चडून वयर गेलीं ना. हातपांय धुवन पत्थर साहेबाचें दर्शन घेतलें. मात्शीं थंय बसलीं. थंय आमकां च्या दिली. खावंक फरसाण. थंय सेवा करूंक आशिल्ल्या मनशान सांगलें, ढगफुटी जाल्ली तेन्ना त्या गुरुद्वारांत पांच फूट मेरेन उदक जाल्लें. तें वतकीर मिलिटरी जवानांनी गुरूद्वारा लिंप करून दिलो.

आमी लेह लडाख खुब्ब दोंगर पळेले. चडशे रेंवेचे, खडी आशिल्ले, थोडे पांचवे आनी थोडे हळदुवे. तातूंत एक मॅग्नेटीक हील म्हळ्यार लोहचुंबकाचो दोंगर आसलो. आमच्या ग्रुप लिडरान आमकां थंय व्हरून तो दाखयलो. एके सुवातेर ताणीं गाडी उबी केली. ती आपशींच शंबरेक मीटर मेरेन चलत गेली. मागीर ग्रुप लिडरान सांगलें, 'ह्या दोंगरावेल्यान विमान वतना, हो दोंगर तें विमान खेंचतालो. ताका लागून विमानांची दिकाच बदल्ली.'

हांगा राविल्लीं तेन्ना एके गजालीचें अजाप दिसलें. हांगचे दादले बायलो दिसाच्या चमचमीत वोतांत स्वेटर घालताल्यो. आमी फक्कत थंडी खाली काय स्वेटर घालतात. आमी रावतालीं त्या हॉटेलांत कामाक एक बायल आसली. तिका इल्ली इल्ली हिंदी येताली. ताचे वेल्यान कळ्ळें ती पयसुल्ल्या गांवांतल्यान हांगा कामाक आयिल्ली. तिका तीन भुरगीं. धाकलें देड वर्साचें. भुरग्यांक मांय म्हऱ्यांत दवरून ती पयशे जोडूंक आयिल्ली. चार म्हयने हांगा काम करून ते पयशे घेवन घरा वचपाची आसली.

हांगा आमी ओले जर्दाळू खूब खाले. जेवणांत जर्दाळुंची चटणी आसताली. चटणी म्हळ्यार पिक्या जर्दाळुच्यो बियो काडून उडोवन उरिल्लो गिरोप चिमटीभर मीठ घालून वांटिल्लो.

निमण्या दिसा सकाळीं आमकां मिलिटरी जवानानी तयार केल्ल्या प्रदर्शनाक व्हेलें. थंय शहीद जाल्ल्या लोकांचे-जवानांचे फोटो आशिल्ले. कारगील युध्दांत वापरिल्लीं हत्यारां दवरिल्लीं. तातूंत ब्रेन-गन आसली. एके-फॉर्टी सेवन, एके-फिफ्टी सेवन आसली. णव मिलिमीटर कॅलीबरची गन आसली. मोरटार आसलो. ग्रेनेड आसले. आरपी आसले. हांवें तांचे फोटो घेतले. शैलेशाक-धाकल्या पुताक - ह्या गजालींचें आकर्शण आसा. ताका ते फोटोय दाखोवपाचे आसले.

सांजेर आमकां मार्केटांत फिरूंक व्हेलें. थंय जाय तितलें शॉपिंग करा म्हूण आमकां सांगलें. म्हाका कांय घेवपाचें नासलें. हांवें फक्कत सुके जर्दाळू घेतले. थंय दोन तरेचे जर्दाळू आसले. एक बरे दिसपी हळडुवेशे आसले. दुसरे घट्ट आनी काळशे आसले. थंय आयिल्ले मुंबयचे एके बायलेन सागलें ते बरे न दिसपी घट्ट आसात ते जर्दाळू घेयात. मुंबय वतकीच थंयचे हवेंत ते मोव पडटले. खावचे लायकीचे जातले. आमी ते घेतले. तरेकवार फातरांच्यो माळो आसल्यो. पूण त्यो घालता कोण?

थंयच्या भाजी मार्केटांत गेलीं. थंय ताज्जी ब्रोकोली आसली. कशी काय विचारल्यार पन्नास रुपया कील म्हूण सांगली. मुंबय ती दोनशें अडिजशें रुपया कील मेळटा. थंयच्या हॉटेलांत आमी जर्दाळुचो ज्युस पिवपाक घेतलो. लेह ट्रॅकींगाक लागता तें सामान हांगा सवाय मेळटा.

दुसरे दीस विमानांत बसून दिल्ली येवपाक भायर सरलीं. पर्थून ते सगळे रेंवेचे दोंगर दोळे भरून पळेले. सकाळच्या वोतांत चकचकपी ग्लॅशियर पळेले. वांकड्यो तिकड्यो व्हांवपी न्हंयो पळेल्यो. तांचेविशीं एक आपुलकीशी दिसली.

लेह लडाख भारताचो एक भाग. पूण कितलो वेगळो! संगीतांतलो अनवट राग कसो! चित्रकलेंतलें ॲब्स्ट्रॅक चित्रशें! तें आमचेंच आसून आमचे परस कितलें भिन्न! कितलें वेगळें! हांगच्या लोकांची जीण कितली कश्टांची. जगूंक तांकां कितले कश्ट काडचे पडटात! आनी आमी? आमचें पिकता दंवार आनी शिजता कुंड्यार! इतलें आसुनूय आमी समाधानी नात.

लेह लडाख-एक अणभव! जण एकल्यान आयुश्यांत एकखेप तरी घेवपाचोच. आपलीच जीण समृध्द करचे खातीर!



अप्रेकणी

# म्हजीं मनशां....



*एकटी बारकेलीशी जाण्टी कुणबी बायल सुकें मोतयाळें, सुकीं सुंगटां, सुको गालमो, खारे बांगडे, वेल्ल्यो घेवन येताली. पुरुमेंताचें खारें आमी तिचेच कडल्यान घेतालीं. बाजारांतल्यान केन्ना हाडलें ना. आमीच न्हय तर आमचीं सोयरीं धायरीं तांकांय बी खारें घेवन दवर म्हणून सांगतालीं.*




हर्षा शेटये
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डें - गोंय.
मो.: ९८५०५३०१५२


''भाजी जाय गेऽ'' सकाळफुडें हांव पोरसांत आसतना भाजयेकान्नीचो आवाज कानार पडलो. भाजयेकान्न चडशी आमच्या दारांतल्यान केन्नाच वचना. म्हाकाय भाजी जाय आशिल्ली. 'राव गे. राव गे' म्हणत हांव गेटीकडेन आयलें. ''यो भितर'' ती पाटें घेवन भितर सरली. तिणें पाटें सकयल दवरलें. आरे, ही भाजयेकान्न म्हजे वळखिची. कोंबांत, म्हज्या कुळारा, ही सदांच भाजी घेवन येताली.

''किते जाय बाय? मुळो, तांबडी भाजी, भेंडे, नाब, केळीं... म्हणत तिणें तकली वयर काडली आनी म्हाका पळयतच उरली. तूं त्या बायेगे चेडूं न्हू गो. बाय, तूं त्या बायेगे चेडूं न्हू गो?''

''हय गे, हांवूच तें. तूं बरी आसा मगे?''

''कितुल्या वोर्सानी चोयलें तुका. तुगे मांय बोरी आहा मुगो?''

''हय गे, धोपरां दुखतात. चलपाक मात्सो त्रास जाता. हरशीं बरी आसा.''

म्हाका पळोवन तिका जी खोस जाल्ली ती तिच्या तोंडार उदेल्ली. म्हाकाय बी तिका पळोवन कोण तरी लागिंची मनीस मेळिल्लेभशेन दिसली. म्हाका इतले भाजयेची गरज नासतना हांवें तिचेकडल्यान केळीं आनी सगळे तरेची भाजी घेतली.

म्हज्या भुरगेपणांतल्यान ही भाजयेकान्न आमच्या वाड्यार भाजी घेवन येताली. आज ही साडी न्हेशिल्ली. तेन्ना ही देठली मारून चौकटीचें तांबडें कापड न्हेसताली. मातशी तोंडान सुबेजूच आशिल्ली. भाजी नाका म्हळ्यार लेगीत भाजी दवरून वताली. म्हजे आवयक मागीर दुसरे दिसा झक्कत पयशे दिवचे पडटाले.पयशे म्हणून कितले! दोन रुपयांक तांबडे भाजयेच्यो दोन जुडयो मेळटाल्यो. कोंयसांव म्हणून आनीक एक साठ-पासश्ठ वर्सांची जाण्टेली भाजयेकान्न येताली. ती बाबडी आज भाजी नाका म्हळ्यार ओग्गी रावन वताली. कोयसांव भाजी हिचे परसूय मात्शी सवायूच दिताली. ही मागीर कोयसांव भाजी चड खपयता म्हणून बेगीन येवपाक लागली. तेन्ना कोयसांव जे पिरायेची आशिल्ली आज ही तेच पिरायेची जाल्ली. तेन्ना ही कोयसांवाकडेन सर्त करता म्हणून म्हाका तिचो राग येतालो.

''बाय, हेवटेन हांव आयज पोयले फावट येयलां. हांव येशीं वोयल्या रोस्त्यान वोयतां.''

''जांव गे. हेवटेनच्यान आयिल्ल्यान म्हाका तरी दिश्टी पडली.''

सुटी आशिल्ल्यान दत्तराज भायरूच आशिल्लो.

''हो तुगे चेडो बाय? इश्कोल शिकोता मुरे? बोरें कोन्न लिसांव कोर रे पुता! बायेक सांग आं, हांव फोबोर घेयतालीं म्हूणण.'' आनी तिणें पाटें उकलपाक हात घालो.

''राव गे. च्या घे.''

‘‘आसूं बाय. कित्याक तुका तरास!’’

‘‘यो गे भितर.’’

ती येवन सोप्यार बसली. हांवें तिका च्या आनी बटाटफोव हाडून दिले. म्हजो चलो भाजयेकान्नीक हांव च्या बी दितां म्हणून अजापान पळयत रावलो. च्या पिवन ‘देव बरें करूं बाय’ म्हणत ती वचपाक गेली. ती वतकच चलो म्हाका विचारता, ‘‘मम्मा तूंच म्हणटा, वळख नाशिल्ल्यांक गेट उगडून बी भितर घेवं नाका म्हणून. आनी तुवें तिका कशी भितर घेतली तर?’’

‘‘आरे ही म्हज्या भुरगेपणांतल्यान आमगेर भाजी घेवन येताली. हांव वळखता तिका. आमचें भायलें दार तेन्ना सकाळीं संक, सातांक उगडें जातालें तें रातचें न्हीदऽ मेरेन उगडें आसतालें. कोण भितर सरत, कितेंय व्हरत म्हूण हुस्को नाशिल्लो. भितर येवपी सोमतो चौकेर येवन ‘बाय’ म्हूण उलो मारतालो. फकत तिसऱ्यो, कुंडयो घेवन येवपी पाटें भायर सोप्यार दवरून उलो करतालीं. तेवूय बी पाट्यांतलें नुस्त्याचें उदक घरांत भितर पडटलें म्हणून!

एकटी बारकेलीशी जाण्टी कुणबी बायल सुकें मोतयाळें, सुकीं सुंगटां, सुको गालमो, खारे बांगडे, वेल्ल्यो घेवन येताली. पुरूमेंताचें खारें आमी तिचेच कडल्यान घे बाजारांतल्यान केन्ना हाडलें ना. आमीच न्हय तर आमचीं सोयरीं धायरीं तांकांय बी खारें घेवन दवर म्हणून सांगतालीं. तिका येतकच च्या मात दिवपाक जाय आशिल्ली. ‘बाय, च्यावे घोट दिता मगो’ म्हणून मागून घेताली. सामकी जाण्टी जाय मेरेन ती येताली.

तशीच कोलवेच्यान मडवळन्न येताली. ती व्हडलो कपड्यांचो पोटलो माथ्यार दवरून कोलवेच्यान चलून येताली. लांब, बारीक शिडशिडीत. तिचे पयलीं खंय तिची सासूमांय येताली. पूण म्हजे यादीक हीच चादरी, तुवाले बी घुडाक घालून बरेऽ धवेफुल्ल करून हाडटाली. दर वर्सा चवथी दिसा आनी दिवाळे दिसा ती येताली. तिका नेवऱ्यो, खाणां बी बांदून दितालीं आनी एकली धोणकान्न येताली. आमचे मागीलदारा एक बुडकुलो दवरलेलो आसतालो. शीत वाळतकीच जें तन्न उरता तें व्हरून बुडकुल्यांत रकयतालीं. सांजची ती धोणकान्न आनीक एक बुडकुलो घेवन येताली आनी तें तन्न त्या बुडकुल्यांत रकोवन घेवन वताली. वाड्यावयल्या चडश्या सगळ्या घरांनीं मागीलदारांत हो बुडकुलो दवरलेलो आसतालो. हें तन्न ती धुकरांक घालपाक व्हरताली.

बो म्हणून एक जाण्टेली आमगेर येताली. तिची धूव अमृतें आमगेर वावर करताली. हांव धा एक वर्सांचें आसतना तिणें वावर सोडिल्लो. पूण अमृत्याचो घराबो अडीअडचणीक आमकां उपकारा पडटालो. बो सामकी अनवाळी आशिल्ली. आमगेर ती च्या घेताली पूण तिचो ग्लास ती धुवून वेगळो काडून दवरताली. तिचे धुवेन लेगीत तातूंत च्या पिवंक जायनाशिल्ली. तिच्या पुताचेर दर बिरेस्तारा भार येतालो. तो दर बिरेस्तार ‘श्री गुरूदेव दत्त’ म्हणीत केसरी कोराची झोळी घेवन भिक्षा मागूंक येतालो. हरशील्या दिसांनी तो टॅक्सी चलयतालो.

बड्डेकान्न म्हणून एकटी बायल येताली. ही



हॉस्पीटलांत रावताली. ती म्हजे आजयेची इश्टीण. वरांचीं वरां तीं दोगांय खबरो करतालीं. घरांत भितर सरपाची तिची एक खाशेली पद्धत आशिल्ली. दारांतल्यानूच उलो करीत ती भितर सरताली. ‘ओ घारा, ओनीबाय, फूंय आहा गे.’ आजयेक कोणाकोणाल्यो गांवांवयल्यो खबरो सांगत आसताली. तिका लावालावी करपाची खूब संवय आशिल्ली. ‘सायबीणमांय तेंकां चोवन घेतोली’ ह्या वाक्यान तिची दर एक खबर सोंपताली.

साखळेच्यान म्हज्या आजोळच्यान वर्सांतल्यान दोनदां चवथीचें आनी दिवाळेचें वजें घेवन नारायण येतालो. हरशीं मोटवें कलसांव घालून आज्याल्या पोरसांत काम करपी नारायण मडगांवां येतना कोट, पुडवें बी न्हेसून येतालो. नारायण म्हळ्यार आजयेलीं खाणां घेवन येवपी देवदूत, राजदूत बी आसता तसो खाणांदूत. आजयेल्या हातचे घराव्या दुदाचे दूदफेणे, बेसन लाडू, चिवडो, तिखशे फोव, खटखटें.... नारायण आमचे मेरेन पावयतालो. तोय मडगांवां येवप म्हूण व्हडा उमेदीन येतालो. तेन्ना सपसप करून मडगांव–पणजे कोण पावनाशिल्लो. मडगांवां येवप खातीर मुंबय बी गेल्लेभशेन!

आयसक्रूट, आयसक्रूट करून येवपी तो आयफ्रुटकार. हनुमान आयस्क्रीम फॅकटरीचो निळसो गाडो घेवन भोंवपी तो आयसफ्रुटकार. ताचें नांव हांव आतां विसरलें. ‘राव रे, राव रे’ म्हणून ताचे फाटल्यान तें धावप. ताच्या गाड्या भोंवतणी वाड्यांवयल्या भुरग्यांची गर्दी. धा पयशांक सादो केसरी नाजाल्यार तांबडो आयस्फ्रूट, पंदरा पयशांक चॉकलेटी रंगाचो कॅडबरी आयसफ्रूट. काडी हातांत धरून मागीर तो सोपसर चोखप.

तळावलेच्यान चिरमुल्यो आनी चिरमुल्यांचे लाडू घेवन येवपी चिरमुल्यांकार. तो चौकेर येवन बसतालो. साक सोडयतालो. साकांतल्यो धव्योफुल्ल कुरकुरीत चिरमुल्यो पयलीं आमच्या हातार दवरतालो. आतां चिरमुल्यो वर्सयभर बाजारांत मेळटात. ज्यो कोणे ह्यो असल्यो साकांतल्यो चिरमुल्यो खाल्यात तांकांच ताची रूच कळटली!

गवळीवाड्यावयली एक गवळण येताली. रूंद देगेचें णववारी कापड घट्ट न्हेसताली. खणाचो पोलको घालताली. कपलाक पिंजरीची चिरी, गळ्यांत काळ्यो पिड्डुको, नाकांत नथ, केंसांचो आंबाडो, आंबाड्याचेर फाती, माथ्यार एक पाटलो आसतालो. गोंयांत मेळटा तसलो खोंटलो न्हय. कारवार तेवटेन मेळटा तसलो पाटलो. तातूंत भितर धंयाचे आनी ताकाचे बुडकुले आसताले. गोंयांत तेन्ना धंय लावपाची तितली पद्धत नाशिल्ली. घरांत सदच्या दुदावयली साय आसता म्हणून बाटली हालोवन हालोवन आमगेर ताक करतालीं. सोमार, बिरेस्तार वाड्यावयले लोक चडशे धंय घेताले. सकाळींफुडें आमगेर ह्या गवळीवाड्यावयलो खंडू म्हणून एक दुदकार येतालो. तीन, चार दुदाचे कॅन तो सायकलीक लावन घेवन येतालो. पावशेर, अर्दशेर अशीं ताचीं मापां आसतालीं. म्हस वियेतकीच तो कीट हाडून दितालो. पयले दिसाचो आसलो जाल्यार पोस बरो घट्ट जातालो. नाजाल्यार मागीर ताच्यो चायोबोयो. आजी मागीर ताचेकडेन वाद घालताली. 'आरे कीट दिता जाल्यार पयले दिसाचो दी मरे पापया.' ताचीं म्हणून कितलींशींच गिरायकां आसतालीं. कोणाकोणांक म्हणून तो कीट दितलो?

आनी एकटी यल्लम्मा येताली. तिचें खरें नांव शांतव्वा. शांतव्वा मंगळारा नाजाल्यार शुक्रारा येताली. माथ्यार पाटलो आसतालो. आंगार पांचवें कापड, गळ्यांत शंखाची माळ. माथ्यावयल्या पाटल्यांत यलम्मादेवीचें मुखें आनी कुंकूम आसतालो. ती आयली म्हणटकीच म्हाका बेश्टोच भंय सो दिसतालो. बेगीबेगीन तिका मोडचे पयशे हाडून घालताले. मदल्या दिसांनी ती वाड्यार कोणागेरूय काम करपाक येताली. तेन्ना ती सादारण बायल कशी दिसताली. तिचो भंय बी कांय दिसनाशिल्लो. तिका देवाक सोडल्या, ती कोणां दादल्याबरोबर रावता अशें कितेंतरी कानार पडटालें.

आतां भुरगेंपण शेणलें आनी बरोबर हीं मनशांय शेणलीं. आज कितले वर्सांनीं भाजयेकान्नीक पळोवन काळजाकुशीक खंय तरी घर करून आशिल्लीं हीं मनशां म्हाका परतीं मेळ्ळीं.



# तेफळां

*दात्यार बसतगीर खंय व्होवयो येतात. मदींच केन्ना आपणें शंदिल्लें जेवण ताळयासकयल देवन जालें तशें 'चायनीज फूड' करपाच्या कोर्साक वतालें. मागीर घे, सोया सॉस हाड, चिली सॉस हाड, खंयचें मेयोनीज तर खंयचें शेजवान सॉस घेवन यो.*



रुपा कोसंबे
व्हडलें भाट,
ताळगांव.
मो. : ९४०४९१४४३७

"शेनवारा दिसा म्हजे इश्टिणीच्या पुस्तकाचें विमोचन आसा. मात्शें व्हरून हाडटलो न्हीऽ?"

हाणें म्हळ्यार म्हजे अर्धांगीनीन सामकें लाडांत येवन विचारलें आनी हांव सामको पाघळ्ळों. हांव रोखडोच पाघळटां. म्हजो वीक पॉयंट तो, आनी तो हें बरेंच वळखून आसा. हाणें जशें गळ्यांत हात घालून कितेंय विचार नाका, कितें कोण जाणा म्हज्यान ना म्हणूंकच जायना.

आतां आतऱ्या पयऱ्यान हाच्या कोणाल्या ना जाल्यार कोणाल्या पुस्तकाचें विमोचन आसता तें जालेंच. पूण आमंत्रण आसूं, नासूं दिसाळ्याचेर आयिल्ल्या सगळ्या साहित्यीक कार्यक्रमांक हाजेरी लावप हें, हें आपलें आद्य कर्तव्य समजता. आपल्याक साहित्याक गती आनी रुची आसा हो सोद हाका हालींहालींच लागला आनी हाचे खातीर हांव ताका अजिबात दोश दिना. चूक म्हजीच. ताचें कितें जालें, केन्ना एकदां दिसाळ्याचेर चारोळ्यांची सर्त आयिल्ली. तातूंत वांटो घेवपाची हाका कूय आयली. आंकवार आसतना अशीच खंय बालवाडीच्या भुरग्यांची कसली स्पर्धा आशिल्ली. तेन्ना ऐनवेळार आफयिल्लो परिक्षक येवपाक पावलो ना म्हण ते स्पर्धेचें परिक्षण हाणें केल्लें आनी ते भायर शाळेंत आसतना चोम्यान गीत गावपाचे सर्तींत खंय तांच्या चोम्याक उमेद वाडोवपी इनाम मेळिल्लें. ही आशिल्ली भक्कम फाटभूंय! आमगेल्याक चारोळ्यां लेखन सर्तींत वांटो घेवपाक उद्युक्त करताली. जालें, तेच दिसाक म्हाका दोनशें पानांचो एक लाँग बूक आनी दाट बरवता तशें पेन हाडचे खातीर ऑर्डर पडली. हांवेंय उमेदीन हाडून दिलें, म्हाका खंय खबर फुडें येतल्या वादळाची ही सुलूस म्हणून!



दुसरे दिसाक जर हांव सान्न मारपाक वच जाल्यार कोयराची बादली सगळी हांवें उमेदीन हाडून दिल्ल्या कादेनांच्या पानांनी भरल्या. पळोवन अशी भिरभिरी मारली. सोमती बादली व्हरून आपटिली ताच्या म्हऱ्यांत.

"हीं कसलीं भुरगेपणां?"

"तातूंत कितें जालें? शिजता थंय करपताच!"

"अशें शिजयलां तरी कितें तुवें?"

आनी हांव हांगाच घाणलों. ह्या प्रस्नाची वाट पळयत आशिल्ले भशेन हाणें धांवत वचून आपली साहित्य संपदा हाडली.

## कर्मभोग

"आयक हां" म्हज्या गळ्यांत हात घालून तें वाचपाक लागलें.

'जाय तें करपाक
तुका गा कोणें आडायलां
आनी हांव बरयतां जाल्यार
तुजें कितें सल्लां?'

('आगो, हो कादेन हाडपाक चाळीस रुपया म्हज्या बोल्सांतले गेल्यात.' हांव भितरल्या भितर घुस्मटलों.)

'कितलो म्हण घुस्मट सोसूं
बायलांच्या जन्माक येवन
ते परस झाडांचेर भोंविल्लें बरें
मुक्त अशें शेवणें जावन'

(शेवणें जाल्लें जाल्यार हांव पूण सुटिल्लों.)

बरोवप, बरोवप

म्हण व्हडलेंशें कितें?
शेजान्नीगेर LCD हाडला
म्हाका मेळत काय जाय तें?
(हांवें फकत बोल्सां सांसपिलीं.)
शीत सदांच पेणको जाल्यार
व्हडलेंशें कितें जालें?
लेखिकेचो घोव म्हण मिरयतलो जाल्यार
हें सोसचेंच पडटलें

एकावेळार मानग्याच्या तोंडांतल्यान पूण सुटका आसत! मनांतल्या मनांत येवजीत हांवें विचारलें,

"आगो आनी कितल्यो उल्ल्यात? उरिल्ल्यो त्यो मागीर सांजे येवन आयकतां. म्हाका पळय, सान्न मारून, कपडे उमळून, न्हावन ऑफिसांत टायमार पावपाक जाय."

"ना. जाल्यो, चारच मागयल्यात ताणीं सर्ती खातीर!"

"म्हणटगीर हें फाल्तू बरप तूं सर्तीक धाडटलें? चारोळ्यांचो अर्थ तरी जाणां मगो तूं? पळय, हें असलें तुका जमपाचें ना. ताका शिकप लागता." हांवें धीर केलोच.

गळ्यांतले हात सोमतेच कमरार आयले. "चारोळयो म्हळ्यार कितें तें म्हाका सांगता तूं? चारोळ्यो म्हळ्यार जाका पद्याची झाक मारता आनी दुसऱ्या आनी चवथ्या वोळिचें यमक जुळटा ती उत्तम चारोळी अशें पयर 'महिलांची पद्य रचना' ह्या परिसंवादांत एके वक्तीणीन (वक्त्याचें स्त्रीलिंग दिसता!) सांगिल्लें. हांवें सोमतोच आवंडो घोटलो. हाचें फुडलें भाशण तयार.

"आनी राव रे, एक सांग म्हाका, साहित्य म्हूण केन्ना फाल्तू आसता? सृजनशक्त ती! आनी सदांच शिकप शिकप म्हण तूं पळय थोमणे मारता न्ही, तूं जाणां, बहिणाबाई कितली शिकिल्ली? तिणें बरयलां तें व्हडाव्हडांक साध्य जालें ना."

"तुजी तुळा तूं बहिणाबाईकडेन करता? तोंड वचून पळय हारशांत!" खूब दिसांनीं म्हाका राग उक्तावपाचें धाडस जालें.

"आनी तुवें बहिणाबाईचें कितलें साहित्य वाचलां आनी केन्ना?"

"वाचपाक कित्याक जाय? पयर 'महिला-दिनी' कोणेतरी सांगलां न्ही? सगळें जाणां हांव आयकून."

इतल्यानच म्हज्या भेंडांत आयलें.

"बरें, बरें आतां मात्शें म्हज्या डब्याचें पळय. ऑफिसांत वचपाक वेळ जाता म्हाका."

"हेंच, हेंच तें. दिसभर फक्त खाणां आनी जेवणां! आनी धंदो आसा? तुमी दादल्यांनी बायलांक रांदचेकुडींत घुस्पोवन दवरल्यांत."

"खाणां-जेवणां खंय! हिचे पाककलेचेर ना उलयिल्लेंच बरें. आपल्याच्यान नजो जातगीर म्हजे आवयन बाबडेन पुताच्या पानार बरेऽ चार जिनस पडटले म्हण 'आमट तें गट्ट' म्हणटात तशें करून म्हाका चतुर्भुज केल्लो. पूण हाचीं लक्षणां पळोवन आपल्या पुताचें फुडें कशें जातलें ह्या एकाच हुस्क्यान तिणें दोळे धांपले. पुण्यवंत बाबडी!"

तुमकां कितें दिसता? हें बरोवपाचें पिशें चड दीस तिगतलें? अजिबात ना. थोड्या थोड्या दिसांनीं ग्रह बदलतात. 'एक ना धड आनी पाटलोभर कोयर' असली हाची परिस्थिती. फाटल्या दिसांनीं करोडपती



जावपाचें मनार घेतिल्लें. दिसभर एकेवटेन फोन लायतालें आनी आयिल्ल्या-गेल्ल्याक हॉट सिटाचेर बसपाक वतना शतकांतल्या महानायकाक मेळतगीर 'आपको hug करना ही मेरे जीवन का एकमात्र सपना था' हो डायलॉग कशें म्हणटलें तें (with action) म्हणून दाखयतालें. दिसभर हें hug hug आयकून म्हाका भंय लोक एक दीस पूण हाच्या तोंडांत xxxx .पूण ना. हेंवय भूत देंवलें.'

दात्यार बसतगीर खंय व्हींवयो येतात. मर्दीच केन्ना आपणें रांदिल्लें जेवण ताळ्यासकयल देवना जालें तशें 'चायनीज फूड' करपाच्या कोर्साक वतालें. मागीर घे, सोया सॉस हाड, चिली सॉस हाड, खंयचें मेयोनीज तर खंयचें शेजवान सॉस घेवन यो. जन्माक आयकलीं ना तीं नांवां आयकलीं. तरी उपकार, जल्ले बी धरपाक लायले नांत! शेवट ताच्याच पचनक्रियेन असहकार करतगीर गाडी परत शीतकडयेचेर (ताच्या मतें गोंयचें पुर्णान्न हें इतलेंच) आयली.

फाटल्या सप्टेंबराक 'स्त्री-मुक्ती बायलांवयलो अन्याय' ह्या विशयांनी नेट घेतिल्लो. तावातावान एकदां भाशणय पाठ करतालें. कोणाकडच्यान बरोवन हाडिल्लें देव जाणां! आपल्याक माचयेर भाशण आसा म्हण अपुरबायेन सगळ्या आपलेवटच्या सोयऱ्यांक आफोवन हाडिल्लीं आनी सगळींच जाणां रातचीं रावल्यार हॉटेलांतल्या जेवणाचेर कितलो खर्च येतलो हाचो हिशेब हांव मांडटालों. पूण ते दिसाक कितें जालें कोण जाणां, हरशीं म्हजेकडेन 'वादे वादे जायते तत्वबोध' म्हण एखाद्या वाचस्पतीभशेन वाद घालपी भाशणां खातीर उबें रावलें आनी 'बायलांच्या आंगांत कापाझदाद आसा जाल्यार तांकां दाखोवन दिवचें पडटलें...' हे एके वळीचेर रिकॉर्ड आडखळ्ळी, फुडलें कशेंच याद जायना. पापणीन भाशणाचो खड्डोय व्हेलो ना दिसता! मुखावयलें सगळें भाशण म्हाका तोंडपाठ आसूनय 'हांव दादलो' ह्या एकमेव

कारणाक लागून तें promt बी करपाचे भानगडींत पडलों ना आनी उमेदीन आयिल्लीं सोयरीं बाबडीं हाका लज जातली म्हण हें माचयेवयल्यान देवचे पयलीं 'शेवटची बस चुकतली' म्हण म्हाका सांगून घरा पळ्ळीं (ताचेच वटेचीं न्हय तीं!)

मागीर चार दीस सगळें थंड आशिल्लें. अशेंच एकदां सार्वजनीक गणेशोत्सवाच्या निमतान 'बायलांनी आपलें सत्व न्हय म्हत्व' कशें पटोवन दिवचें ह्या विशयाचेर कोणा विचारवंताचें भाशण आयकून आयलें आनी आंगांत परत विरश्री संचारली. खरें सांगपाचें म्हळ्यार बायलांचें म्हत्व खरें कितें तें म्हाका हाचेकडच्यानच त्या दिसांनीं कळ्ळें. मदींच एक दीस गुगली घाल्लेभशेन करून म्हाका विचारपाक लागलें. 'रामान सीतेक कित्याक सोडलें जाणां?'

हांवें म्हळें ''जाणां, वाचलां रामायणांत. तिका रावणान उखलून आपल्यागेर व्हेली. रावणागेर राबितो करून पसून रामान तिका घरांत घेतलीच कशी? ह्या एका धोब्याच्या दुबावान थतरवितर जावन रामाक तो कटू निर्णय घेवचो पडलो. हांगा 'कटू' हो शब्द हांवें मुद्दम वापरलो. वाद आनी कोणाक जाय? 'सोरोपय मरतलो बडीय उरतली' म्हणटात तशें!

जाल्यार दोनूय हात म्हज्या तोंडामुखार नाचोवन म्हणपाक लागलें, ''ना, तेन्ना बायलेक सोडल्यार पोटगी बी कांय दिवची पडनाशिल्ली न्ही? नाजाल्यार मागीर ताणें रेडिमेड मेळिल्ल्या लव-कुशाचो अंगिकार कसो केलो तर?'' हावें आनी आनी वेळ केलो ना. धन्य, धन्य तुजी म्हण हाका साष्टांग नमस्कार घालो आनी वयल्यान सांगलें, 'आसूं आसूं आतां मातशें ओगी राव. तेरी भी चूप आनी मेरी भी चूप.'

तर असो म्हजो हो कर्मभोग. हांव आनी कितें करूं? आलिया भोगासी असावे सादर अशें म्हणून 'ठेविलें अनंते तैसेची रहावे, चित्ती असूं द्यावे समाधान' हो अभंग-आळयत तोंडार समाधान बाळगून सगळ्याक भोंवतां.



**('बिम्ब'चो अंक 'चुकां विरयत' वाचकां मुखार पावचो असो आमचो दर अंकाक प्रयत्न आसता. तरी लेगीत कसल्या ना कसल्या कारणांक लागून चुको उरताच. जानेवारी २०१३ अंकांतल्या रूपा कोसंबे हांच्या 'तेफळां' ह्या सदरांतल्या 'कर्मभोग' ह्या लेखांतलो निमणो 'परिच्छेद' फुडल्या पानार घेवपाचो तो नदरचुकीन छापून येवंक पावलोना. ते पासत पुराय लेख आमी ह्या अंकांत पर्थून उजवाडायतात. तशेंच ह्याच अंकांत रूपा कोसंबेचें पत्र 'प्रतिबिम्बां'त आयलां तातूंत.... अंदू पुरस्कारा खातीर निवड जाल्ल्या विजेत्यांनी तर बिम्बाचेर केन्नाच बरोवंक ना... ह्या वाक्यांत 'विजेत्यांनी' उतरा मुखार *कांय* हें उतर येवंक ना. तेन्ना हें वाक्य *'कांय विजेत्यांनी'* अशें वाचचें. हे आमचे चुकी खातीर लेखिकेक जाल्ल्या मनस्तापा खातीर आमी दिलगीर आसात.) - संपादक**

## तात्पर्य कथा

**कळंगुटे दर्यावेळेर सद्या देशी - विदेशी पर्यटकांची गर्दी पडल्या. तातूंत भर म्हण हे वेळेर पारपोळ गोरवांची गर्दीय दिसता. गोंयांत येवपी पर्यटक गोंयचो सवाय सोरो मारून जिवाचो गोवा करतात. असोच एक पर्यटक 'टायट' जावन दिसा उजवाडाक सुस्त न्हीद घेता. ताका पारपोळ गोरवां आपल्याक ल्हेंवतात हाची लेगीत साबुध्द ना.**



''हेऽ कितें खाता गो एकटेंच?''

''हांव हे रेवेंत आनी कितें खातलें, माती? हांव हाका हुंगतां!''

''जितो आसा काय मेला गो?''

''मेला खंयचो? पिला....!''

''शीऽ बाये! गोंयकार काय भायलो गो?''

''भयलोच आसतलो, टुरिस्ट! गोंयकार पिवून रस्त्यार पडनांत!''

''तुजेंय सारकें गो. गोंयकार आमकां रस्त्यार उडोवन, कोपाचें मारून घरा न्हिदता. पूण तूं ल्हेंवताशें गो ताका?''

''कितलोय जाल्यार टुरिस्ट न्ही गो! ते येतात म्हूण तरी आमकां प्लास्टीक पोतयो चाबडावंक मेळटात!''

**तात्पर्य : अतिथी देवो भव:**



# भालचंद्र गांवकारांचो कथाझेलो अंदल्ले उस्वास कोंकणी कथेच्या आधुनीक प्रवाहाचो दिर्घस्वास

खंयचेय भाशेंत साहित्यीक प्रतिभेचो पयलो चंवर दिश्टी पडटा तो काव्याचोच. कोंकणी भासूय तिका आडवाद ना. आयज तिच्या सगळ्याच दालनांनी संख्यात्मक आनी गुणात्मक साहित्याची भर पडिल्ली आसा. दिसान दीस तांचो आंकडो वाडत आसा. कोंकणी कथेचो विचार केलो जाल्यार तर आयची ही कोंकणी कथा सशक्त कथानक, भारदस्त व्यक्तिरेखा आनी परिपक्व अभिव्यक्ती हांकां लागून राष्ट्रीय पावंड्याचेर पाविल्ली आसा. इतलेंच न्हय तर नवें तंत्र-मंत्र आनी आशय विशयाच्या विविधतायेक लागुनूच नवनवीन प्रवाह ह्या साहित्य प्रकारांत आयिल्ल्याचें नदरेक भरता. प्रा. भालचंद्र गांवकार हांच्या *अंदल्ले उस्वास* ह्या कथा झेल्याच्याच आदारान ह्या नव्या प्रवाहांचो सोद घेवपी हो ल्हानसो यत्न. पयलीं कथा हो साहित्य प्रकार समजुपाक सॉमरसेट मॉम ह्या जाणकाराची कथेविशींची व्याख्या पळोवया. ती ह्या बरपा खातीर भोवूच सुचक आसा.

S. Maugham –

" A good Short Story is a piece of fiction, dealing with a single incident, material or spiritual that can be read at a sitting; it is original or effect or impression ; it should more in an even line from its exposition to its close."

कोंकणी सरस्वतीच्या देवळांत भितर सरताना तिच्या निश्ठावंत भक्तामदीं कितलेशेच म्हालगडे साहित्यीक आमकां दिश्टी पडटात. ह्या म्हालगड्या भक्ता उपरांत नदरेक पडटात ते म्हालगडे आनी नवोदीत हांचेमदले पिळगेचे प्रतिनिधी. तातूंतलें श्री. भालचंद्र गांवकार हें नांव एका व्यासंगी तशेंच प्रतिभासंपन्न व्यक्तित्वाचें! काव्य कथा, साहित्यशास्त्र, भासविज्ञान, शिक्षण, प्रकाशन अशा विंगविंगड विशयांची तांकां आवड. ललित साहित्याचो प्रवास करतना भासविज्ञान आनी साहित्यशास्त्राच्या खाचिकोनशांचो कांटयारो तशेंच कश्टमय प्रवासूय ते उमेदीन करतात. तरणाट्या पिरायेचेर तांणी केल्ल्या वावराची खऱ्यानीच तोखणाय करूंक जाय.

***आडवणांतले उले*** (कविताझेलो)

***कोंकणी भासविज्ञान*** (भासविज्ञानाचेर आदारीत ग्रंथ)

***साहित्य एक भासाभास*** (साहित्यशास्त्राचेर आदारीत ग्रंथ)

***यादिंचे देगेर*** (कविताझेलो)

***थाव*** (कविताझेलो)

***अंदल्ले उस्वास*** (कथाझेलो)

***दोंगराचे आंवडे*** (कथाझेलो)

***गांव नाशिल्ली वाट*** (कथाझेलो)

ही तांची साहित्यसंपदा. तेचवरी मित्र ह्या प्रकाशन संस्थेचे ते धनी. मराठी, कोंकणी अशा भाशेंतल्यान जायतीं पुस्तकां तांणी उजवाडायल्यांत. त्यानभायर कविता, कथा, गीतां, लेख, एकांकी, समिक्षणां आदी साहित्यकृती गोंयच्या वर्तमानपत्रांनी, आकाशवाणी, दुरदर्शनाचेर सादर जाल्यांत.

भालचंद्र गांवकार हांचे आतां मेरेन तीन कथा झेले उजवाडाक आयल्यात. *अंदल्ले उस्वास, दोंगराचे आंवडे* आनी *गांव नाशिल्ली वाट. अंदल्ले उस्वास* हो तांचो पयलो कथा झेलो. कथा लेखनांतलो प्रदीर्घ अणभव जरी गांठीक नासलो तरीय कथेच्या मळावेलें तें तांचें पयलें तांकिवंत पावल.

*अंदल्ले उस्वास* कथाझेल्यांत वट्ट १९ कथा आस्पावल्यात. पानांची संख्या ११८ इतली. ह्यो साबार कथा रचनेंतलें वेंगळेपण, तंत्रांतली नाविन्यताय आनी आशय विशयांतली विविधताय हांकां लागून वाचनीय तशोच अर्थपूर्ण जाल्यात. खासा बरोवप्याचीच प्रस्तावना झेल्याक लाभल्या(मनांतलें). मनोगत आनी प्रस्तावना अशीं दोन आंगां तातूंत दिश्टी पडटात. कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे उदयबाब भेंब्रे हांकां ओपिल्ल्या ह्या कथा झेल्यांतल्यान गोंयच्या सर्वसामान्य मनशाच्या दिसपट्ट्या जिणेचें, जिणेंतल्या नाट्यांचें आनी त्या नाट्यांत लिपिल्ल्या तरेकवार जिवनप्रवाहांचें दर्शन घडटा.




**अंदल्ले उस्वास झेल्यांतल्यो वट्ट १९ कथाय अश्यो वाटून घालूं येतात.**

अ. **अंतर्मनाचो सोद घेवपी कथा** – सपनांतल्यो आल्लयो, वांजुट्टो, भिजूड, सुरांचें पिशें. अंदल्ले उस्वास.

ब. **आधुनीक तंत्राचो दिश्टावो घडोवपी कथा** – एक चीट, प्रतिभा, निमणो हात.

क. **दिसपट्ट्या जिणेंतलें नाट्य चित्रावपी कथा** – फाटीं वोस फुडे वोस, हाण्डीर आसा चेडो, साडी, दादा.

ड. **लोकविश्वास, भ्रम, श्रध्दा, अंधश्रध्दा हांचेर भाश्य करपी कथा** – ओंवळ, अभिषेक, लामणदिवो.

इ. **गूढ कथा, रहस्यमय कथा** – गूढ, काळजांतलें.

ई. **सामाजीक मुल्यां, आधुनिकरण आनी पर्यावरण हांचो विरोधाभास दाखोवपी कथा** – आनी दोळे उक्ते जाले, शेणिल्लो गांव.

अंदल्ले उस्वासामदलो पयलो उस्वास म्हळ्यार सपनांतल्यो आल्लयो. स्वताचो कर्तो सवरतो चलो आसतनाय जाणट्या पिरायेचेर वृध्दाश्रमांत जीण घालोवपी जाणट्या जानकेची आनी महादेवाची ही करूण काणी. स्वताच्या हाडार्ची ताडां करून ज्या पुताक वाडयलो, शिकयलो व्हड केलो त्या पुतान घोवाक आनी आपल्याक स्वता वृध्दाश्रमांत दवरिल्ल्याचो तिका राग ना, तर तिचो पूत (किशोर) अपुरबायेन नातवाच्या जल्मदिसाक तांकां घरा व्हरपाक येतलो हे जाणिवेन ती सुखावता. आपलें घर, आपली घरांतलीं मनशां तातुंतली सवस्तकाय हाचे परस ही अस्तुरी नातवाचे ओडीन वश्रेता. त्या निमतान पयलेच फावट ती नातवाक पळयतली, मांडयेर घेवन आल्लयो म्हणटली, पापी घेतली अशीं सपनां रंगयता. किशोराचो राग धरिल्ल्या आपल्या घोवाकूय ती सोपूत घालून समजायता. पूण झगझगीत जिणेची संवय जाल्लो किशोर सांज जाली तरीय थंय पावना तेन्ना तिच्या वोंठांमेरेन आयिल्ल्यो आल्लयो दोळ्यांतल्यान रकपाक लागतात. हांगा कथा सोंपता. ही कथा जानकेच्या काळजांतल्या सुक्ष्म आनी मार्मीक स्पंदनांचें अचूक चित्रण करता. आयच्या आधुनिकतायेच्या चकचकांत तरनाट्यांक घरांतल्या जाण्टेल्यांची अडचण भासता आनी हेच मानसिकतायेंतल्यान वृध्दाश्रमासारखे असामाजीक घटक जल्माक येतात. कथाकारान ह्या असामाजीक तत्वांत ल्हासून वचपी जाण्टेल्यांच्यो वेदना आनी तांच्या भावविश्वाचें जिवंत दर्शन हे कथेंत घडयलां.

ह्या झेल्या मदली आनीक एक म्हत्वाची कथा म्हणल्यार *अंदल्ले उस्वास*. *अंदल्ले उस्वास* ही एक वास्तव कथा आसा, तिवूय एक सिस्टरीन सांगिल्ली, हांवें ती गोंयच्या वातावरणांत रंगयल्या अशें कथाकार सुर्वेक सांगून मेकळो जाता. पूण ह्या स्पश्टीकरणाची तशी गरज नासली. तरीयपूण ह्या स्पश्टीकरणाक लागून कथेच्या परिणामांत कांयच फरक पडना कारण कथा वास्तवतायेक धरून आखल्या. मानवी जिवितांतली सामाजीक व्यवस्था, धार्मिक भावना, श्रध्दा, विश्वास, परंपरा, चालीरिती हांकां सांबाळटां सांबाळटां मनीस दिसपट्टे जिणेंत स्वताचें अस्तित्वच आनी इत्सा-हावेस शेणोवन बसता हाचें स्पश्टीकरण दिवपी ही एक सोबीत सुंदर कथा. तातुंतली सिस्टर रिटाची वास्तवीक जीण म्हणजे एक घुस्मटपी वोल्केनो. अंदल्ले उस्वास ह्या समर्पक माथाळ्यांतल्यान हे कथेचो पांवडो उंचावला. देवाच्या आनी धार्मिक श्रध्देच्या नांवान एके रिटा नांवाचे तरणाटे चलयेचो घुस्मटमार हे कथेंत दिसता. उमेदीच्या आनी उर्बेच्या तरणे पिरायेचेर स्वताची इत्सा नासतना फकत बापायचे इत्सेन जिणेचो मुक्त आनंद घेवपी भोळ्या रिटाचें सिस्टर रिटांत रूपांतर जाता आनी आपल्यो इत्सा, हावेस, वांसा हांचो जळटो उजो कुडींत पोशीत तें भितरल्या भितर हुलपता. देवाधर्माच्या नांवार नश्टचो चालीरिती सांबाळीत रिटाच्या काळजांतलें जळटें होमखण म्हणजे भारतीय समाजजिणेंत हजारांनी वर्सांसावन घुसमटत राविल्ल्या अस्तुरेंचें खरें रूप जावन आसा..

*आनी दोळे उक्ते जाले* ही मात्शी वेगळी कथा. पर्यावरणाच्या नांवान कारण नासतना शबय घालपी कांय सुवार्थी वृत्तीचेर बडी मारता. भोंवतणचें पर्यावरण आनी धतरेचो सैमीक समतोल सांबाळप हें दर एका मनशाचें कर्तव्यूच पूण आपल्या सुवार्थाक लागून भरिल्ल्या पोटार फकत पर्यावरणाचो हावको नाचोवन सामान्याक चवताळून घालून, पयसुल्ल्यान फिदीफिदी हांसपी तथाकथीत पर्यावरणवाद्याचें बिंग हांगा कथाकारान फोडलां.

आयच्या काळांत सैमाचो संहार जायना अशें न्हय, पूण वोगीच दोरयेक नाचोवन सोरोप सोरोप म्हूण आड्डून अशिक्षीत वा अडाणी मनशांक फटोवप्यांचें सुवार्थी रुप उक्tाडार हाडपाचो यत्न कथाकारान केला. गांवांत साऱ्याचो कारखानो जालो जाल्यार गांवचे तरणाटे, हेर लोक कारखान्यांत कामांक वतले. आपल्या कुळागारांत मानयपणाक कोण येवचोना. लोक घरांक नळे घालतले, तांचेकडेन पयशे घोळटले. आपल्या भाटांतलीं माडां-चुडटां पडून उरतलीं, आपलें भाटकारपण सुगूर उरचेंना हें चितून फकत आपल्या सुवार्थाखातीर पर्यावरणाचें बावलें नाचोवपी सुवार्थी मनीस हे कथेंत आयला. ताका लोकांचें पडून वचूंक ना आनी पर्यावरणाचेंय बी पडून वचूंक ना. तो फकत आपल्या भाटकारपणाचो हुस्को करता. सर्वसामान्यांक चवताळून घालपी अण्णाची आनी ताच्या कारस्तानाक बळी पडिल्ल्या तरणाट्यांची ही कथा. साऱ्याचो कारखानो गांवांत आयलो जाल्यार ॲसिडाचो पावस पडून गांव काबार जातलो... अशें सांगीत गांवगिऱ्या लोकांक भडकावन सोडिल्ल्यानूच कारखान्याक बिटकी कवळून दुसऱ्या गांवांत वच्चें पडटा पूण जेन्ना त्या दुसऱ्या गांवाची जाल्ली उदरगत ते पळयतात तेन्ना ते वस्तुस्थितींत तरणाट्यांचे दोळे उक्ते जातात. शेवटाक हेच तरणाटे अण्णाचो कांटो काडटात अशी ही कथा. तसो पर्यावरणीय विशयांचेर वेगळो विचार मांडपी ही कथा. हो विशय पर्यावरणीय नदरेंतल्यान उरफाटो दिसता पूण गरिबी, उपासमारी, बेरोजगारी, लाचारी हांकां न्याय दिवपी हो विशय आसा हें खासा बरोवप्यानूच प्रस्तावनेंत (मनांतलें- पान ५-६) मान्य केलां. पूण हो विशय आनीक बरे तरेन हाताळपाची कळाशी बरोवप्या कडेन आशिल्ली अशें म्हाका दिसता.

ह्या झेल्यांतले *शेणिल्लो गांव* हे कथेंत आयचे नवे पिळगेंतल्या भुरग्यांमदली संस्काराची जाल्ली अधोगती दिश्टी पडटा. आयचे तरणाटे जाण्टेल्यांक आदरान पळयनांत तर उपहासाचे भावनेत पळयतात, हातुंतल्यान नवे पिळगे मदली अनैतीक अनास्था मतींत येता. जाण्ट्यांचो आदर, दुसऱ्यांचो तेंको, सेवाधर्म, सामाजीक कर्तव्य ह्यो गजाली आयच्या तरणाट्यांच्या पांयांपोंदा लोळटात हाचोच प्रस्न हांगा येता. शेजारधर्म पाळपाक लागून दुयेंत आशिल्ल्या शेजाऱ्याक वखद हाडूंक शिळोण्या ह्या अनवळखी गांवांत गेल्लेकडेन तरणाट्यांच्या अवचिनपणाक लागून चुकून भलतेच कडेन पाविल्ल्या जाण्ट्या बाप्पाची ही कथा नवे पिळगेच्या स्वैराचाराची आनी अबुध्दपणाची देख दिता. सुचकता आनी उपयुक्तता ह्या दोन गुणांनी भरिल्लें शेणिल्लो गांव हें नांव कथेक नवें तेज दिता. तशें पळोवंक गेल्यार हो शेणिल्लो गांव पयले फावटीं पुंडलीक नायकांच्या अच्छेव हे कादंबरींतल्यान कोंकणी वाचकांक दिश्टी पडला. ह्या

कथेंतल्यान हो विस्कटिल्लो गांव आयज खंयचे अवस्थेंत पावला हें घडये कथाकाराक दाखोवपाचें आसुंये! दुसरें म्हळ्यार हो शेणिल्लो गांव सोदपाक आनी सगळें गांवपण जाग्यार घालपाक आतां गरज आसा ती फकत अच्छेवांतल्या जाणट्या आबूची.

*सुरांचे पिशें* ही कथा सूर, ताल, लय, संगीत, मोग, विरह हांचो वळेसर घालीत गोंयच्या इतिहासाचेर उडटी नदर मारता. लेखकाच्या मत्तान तांणी गोंयच्या इतिहासांतली एक काल्पनीक कथावस्तू वेंचल्या. कथेचो बारीकसाणेन अभ्यास केलो जाल्यार ही काल्पनिकताय नदरेक भरता. पूण काल्पनीकतायेक लागून न्हय तर कथेंतल्या फिल्मी सांच्याक लागून आनी कृत्रीम फास्केक लागून कथा उंचेलो पावंडो गाठूंक पावना. सुदैवान व्हांवती खळखळीत निवेदनशैली, योग्य, उपयुक्त संवाद, सादी सोपी भास आनी अप्रतिम वाक्यप्रचाराक लागून तांच्यो कथा वाचनीय जाल्यात. देखीक-



१. म्हज्या गिटारीचे सूर तिच्या काळजांत पाविल्ले. एक विचित्र प्रसंग. तिचें नांव सुमन आशिल्लें.

२. तेच गिटारीन आमचीं काळजां एकठांय जाल्लीं.

तरीयपूण इतल्या वर्सांनी पुर्तुगालांतल्यान गिटारीच्या आनी मोगीकेच्या मोगान गोंयांत आयिल्ल्या लुकस आल्बुकेर्क इतली अस्सल कोंकणी कशी उलयता हाचें कुवाडें सुटना.

गांवगिऱ्या वाठांरातल्या लोकवेव्हाराचें, लोकश्रध्देचें, लोकविश्वासाचें आनी लोकसंभ्रमाचें प्रभावी चित्रण गांवकाराच्या कथांनी आयलां. लोकजीण, संस्कार आनी परंपरा हांच्या चेंपणाखाला बागविल्लो असहाय्य मनीस ह्या कथांचो नायक. *वांजुट्टो, लामणदिवो, अभिषेक* ह्यो तातुंतल्यो कांय कथा.

आंकवार भुरग्यांनी रोयिल्ल्या फुलांचीं झाडां फुलनांत फळनांत तर तीं आनी रोवपीय भुरगीं वांजुट्टीं जातात ह्या लोकभ्रमांत करपल्ली *एक तरनाटी जीण* हे कथेंत दिसता. गणपतान लायिल्ल्या शंकराच्या झाडाचो आनी तातुंतल्यान उप्राशिल्ल्या वांजुट्टेपणाचो योगायोगीक कथाभाग म्हळ्यार वांजुट्टो ही कथा. शंकराचें झाड आनी गणपताचो ताचेकडेन आशिल्लो भावनीक संबंद हांचें मनोविश्लेशणात्मक पद्दतीन केल्लें सुचक चित्रण कथेक बरो दर्जो प्राप्त करून दिता.

*अंदल्ले उस्वासांत*ली आनीक एक अप्रतिम कथा म्हळ्यार भिजूड. सादी कथावस्तू, तरणाटेपणांतलें आकर्शण, मोग, आनी मोगाची उखलापी भावना इतलोच कथा-साचो. पूण जे तरेन बरोवप्यान हे कथेची मांडणी केल्या ती तरा म्हत्वाची. खऱ्या निश्पाप मोगाची परिभाशा समजावपी ही कथा लेखकान व्हडा संयमान रचल्या. तरणाटे पिरायेचेर तरणाट्या मनाक सपनांतलो राजकुंवर आनी सपनांतली राजकुंवरी दिसतलीच पूण त्या सपनांतल्या राजकुंवरीक वा कुंवराक वास्तवीक जिणेच्या कोडू वास्तवतायेनूच जगचें पडटा हाचो विसर तरण्या मनाक पडटा हाची जाणीव ही कथा दिता. आयज ह्या सळसळट्या रक्ताच्या तरणाट्यांक फकत मोग जाय, भोग जाय, पूण तातुंतली जबाबदारी नाका हें दाखोवपी ही कथा.

वासंतीच्या आकर्शणान (मोगान न्हय) कुड्डो जाल्लो सुभाष, जागेपणी आनी न्हिदेंतूय आपल्या अस्तित्वाच्या कणाकणांत वासंतीमय जाल्लो सुभाष, वासंती खातीर कसलोय त्याग करतलों, बलिदान दितलों अशी बडाय मारपी सुभाष. आनी इतलेंच न्हय तर, म्हज्या जिवापरस व्हड तूं म्हजेकडेन कितें मागतलें? अशें म्हणून वासंती खातीर कितेंय करपाक तयार आशिल्लो सुभाष नांवाचो तरणाटो, 'म्हज्या वांगडा तुका आनीक एकट्याचो स्वीकार करचो पडटलो, म्हजो चार वर्सांचो भुरगो. म्हज्या पयल्या प्रियकरापासून जाल्लो. भिजूड तो; ताणें फकत मोगूच केलो!' इतलेंच आयकून न्हिन्नळटा. ताचे तकलेक चडिल्ली मोगाची नशा खिणांत उतरता. कथाकारान ही कथा सादे सोपे शैलीन रचल्या. हीच सादी शैली कथेक पुरक थारल्या. ह्या आनी हेर साबार कथेची आनीक एक जमेची बाजू म्हळ्यार कथेंचो अप्रतिम शेवट अशें म्हाका दिसता. देखीक - *सपनांतल्यो आल्लयो, अंदल्ले उस्वास, वांजुट्टे, भिजूड, ओंवळ* ह्या कथांचे शेवट.

*अंदल्ले उस्वास* हो कथाझेलो बरोवप्यान भौमानेस्त उदय भेंब्रे हांकां ओंपला - ( म्हज्यांतल्या कथाकाराक जागोवपी ॲड. उदयबाब भेंब्रेक.... नमळायेन).. जायते जाण वाचून वाचून बरोवंक प्रेरीत जातात पूण म्हजें उरफाटें जालां, हांव बरयतां बरयतां वाचूंक शिकलों. अशें स्पश्टपणान सांगपी ह्या बरोवप्याचेर हेरांचो प्रभाव दिसना. खूबशे फावटीं नवोदीत बरोवपी विशयाच्या आनी तंत्राच्या अनुकरणाक लागून तांच्या खऱ्या कलात्मकतायेक बादीकार हाडटात. तशेंच वाचन, चिंतन आनी मनन नासतना नवें कितेंतरी निर्माण करूंक मुखार सरिल्लो सभागो खंयच्याखंय अज्ञान रानांत चाचपडच पडून ताचे प्रतिभेचो कोंब खुट्टा. समाधानाची गजाल म्हळ्यार वयल्या दोनूय मुद्यांतलो सुवर्णमध्य सोदतानाच भालचंद्र गांवकारांनी कोंकणी कथेक एक वेगळें तंत्र दिलां. एक वेगळो मंत्र भेटयला. ह्या विधानाक ***प्रतिभा*** (कपयाळें तंत्रांतली कथा), ***एक चीट*** (चिटयेंतली कथा), ***निमणो हात*** (नवकल्पक कथा - शंबर वर्सांउपरांतलें गोंय) ह्यो कथा गवाय आसात.

झेल्यांतल्या हेर कथानीय भालचंद्र गांवकार आपली अशी वेगळी वाट चलतना दिश्टी पडटा. देखीक- *अभिषेक, लामण दिवो, गूढ, सुरांचें पिशें, दादा.*

ह्या कथाकारान *अंदल्ले उस्वास* प्रसिध्द जाले उपरांत हेर दोन कथा झेले उजवाडायले. *दोंगराचे आंवडे* आनी *गांव नाशिल्ली वाट.* निश्चितूच कोंकणी कथेक ते झेले नवी भर दिवंक पावल्यात.

तशें पळोवंक गेल्यार, गांवकाराची ओपनींग काव्यांतल्यान जाल्या. पूण ते एकमुळे कवी न्हय, एक गद्य बरोवपी पूण फकत कथाकार न्हय, एक व्यासंगी रसीक पूण अरसीक समिक्षक न्हय. भाशाशास्त्राचेर आनी साहित्याचेर भासाभास करपी भाशाशास्त्री पूण नश्टो चिकित्सक न्हय.... खरें म्हणल्यार म्हज्या मत्तान भालचंद्र गांवकार एक हाडाचे शिक्षक. आनी देखुनूच तांच्या व्यक्तित्वांत कवी, कथाकार, समिक्षक, भाशाशास्त्री, संपादक, प्रकाशक अशीं साबार रूपां एकाच वांगडा दिसून येतात. व्हडा अभिमानान आनी काळजाचे आत्मियतायेन आपलें पुराय

अस्तित्व शिक्षकी पेशाखातीर ओंपिल्ल्या शिक्षकामदीं तांचो आस्पाव करचो पडटलो. तांच्या भितरलो एक म्हत्वाचो गूण म्हळ्यार नम्रता. कसलोच बोवाळ, गोंधळ करीनासतना ते आपलें शैक्षणीक, सामाजीक आनी साहित्यीक कार्य संथपणान करीत आसात. सातत्य आनी संयम हीं दोन भांगरा-तांसां तांचें व्यक्तिमत्व फुलयता.

आडवाणांतल्यान उले घालीत कोंकणी भासविज्ञानाचीं देंगणां सासपुपी हें व्यक्तिमत्व साहित्याचेर एक भासाभास करपाक मुखार सरलें आनी यादींचे देगेर रसिकांच्या मनाचो थाव घेवपी काव्य रचतानाच अंतर्मनांतले दोंगराच्या आंवड्या येदें अंदल्ले उस्वास शब्दबध्द करीत गांव नाशिल्ले वाटेचो सोद घेवपी साहित्यकृती ते रचपाक लागले.

भालचंद्र गांवकारान आरंभ केल्लें कोंकणी कथेच्या मळावेलें हें सिंपल कथा बरोवपाचें वेगळेंपण निश्चितूच नव्या प्रवाहाचें लक्षण आसा. पूण कांय गजाली तांचे लेखणीक आजनेरी करतात. ते खातीर तांकांच दोश दिवंक जाय हेरांक न्हय. ते आपल्या उत्कृश्ट कथाबिजाक कांय फावटीं अतिसामान्य आकार दितात. माडाच्या वा वडाच्या तांकिचीं तांची कथाबिजां केन्ना केन्ना बोन्साय जावन पडटात हें पळोवन खंत जाता.

बॅरी पेन (Berry Pain) म्हण्टा

'A Short Story must be short and a story.'

लघुकथेचें हें तत्व हो बरोवपी मानता हें हांव जाणां. पूण त्या मोटव्यापणाची परिभाशा सारखी समजून घेवपाची गरज आसा. गांवकारांच्यो कथा तश्यो मोटव्योच आसतात पूण तांचेर परत एक फावट अपुरबायेचो हात भोंवडयल्यार त्यो सुखावतल्यो अशें म्हजें म्हणणें.

तशें खंयच्याय बरोवप्यान आपलें बरप वा कथा बरोवन जातकच परत परत वाचून निवळावची गरजेचें आसता. हो बरोवपी स्वता एक ॲकेडेमिशन आशिल्ल्या कारणान तो तें निश्चितपणान करता. पूण तो आपले कलाकृतीचेर रोकडोच तृप्त जावन लेखणेच्या प्रक्रियेक पुर्णविराम दिता अशें जाणवता. सांगपाचें म्हणल्यार आपले उपाट प्रतिभेचो पुरेपूर वापर हो बरोवपी निखालस करिना.

आंतोन चेकोव हो संवसारांतलो नावाजतो बरोवपी म्हण्टा,

'विशयालागीं संबंद नाशिल्ले खंयचेय गजालीक कथेंत सुवात दिवंक फावना. कथेंत सुर्वेक तुबक दाखयलें जाल्यार ताचो केन्नातरी फार जावंकूच जाय.'

हो कथाकार आंतोन चेकोवाचें हें तत्व मानता हें खरें पूण एकदां जल्माक घालतकच आपले कथेक तो परत पळोवन घेना कसो दिसता. एकदां हातामेकळी जाल्ली कथा परत एक फावट पॉलीश करून घेतल्यार तांची कथा आतां पावता ते परस दोन आंगळां आनीक वयर पावतली हातूंत दुबाव ना.

दोन तीन वर्सां पयलीं एका परिसंवादाक आधुनीक कोंकणी कथेचेर एक जेश्ट कथाकार तथा समिक्षकान आपल्या कथेवेल्या पेपरांतलो पुराय ३० मिनटां मदलो १५ मिनटांचो अर्दो वेळ खर्च केल्लो. तेन्ना थंय तांणी खासा भालचंद्र गांवकारांच्या कथेंतलो दोश दाखोवपाक बरीच तकालस घेवन मोठी सर्कस केल्ली. तेन्ना तांणी कित्याक तितलो वेळ ह्या कथाकाराक कमी लेखपाक घालयलो ताची प्रचिती गांवकारांच्या तिनूय कथा झेल्यांतल्या कथांक पळयतकच येता. म्हज्या हिसपान; विशिश्ट साच्यांतल्यान चलत आयिल्ल्या पारंपारीक कोंकणी कथालेखनाक भालचंद्र गांवकार ह्या कथाकारान बरीच मोठी वेर घातल्या. फकत गांव आनी खेंड्यांतल्योच न्हय तर पुराय अर्बन आनी सबअर्बन वाठारांतल्यो बदलत वचपी जाणिवो, वेदना संवेदना साद्या सोप्या, सहज पूण तितल्याच कलात्मक शैलींतल्यान मांडपाचें गांवकारांचें कसब थोड्यांक उस्तुऱ्यां वचपाक लागिल्लें हें ताचे फाटलें कारण अशें म्हाका दिसता. थोडें स्पश्टूच मांडचें जाल्यार २०व्या शेंकड्याच्या निमण्या दोन दशकांनी कथालेखनांत उंचेल्या पांवड्यार पाविल्ल्या आनी २१ व्या शेंकड्यांतल्या वट्ट धा वर्सांनी एकूय नवी कथा बरोवंक नाशिल्ल्या अश्या साबार बरोवप्यांक नव्या बरोववप्यांनी घेतिल्ली आपली सुवात स्वीकारप शक्य जावंक ना. दुर्दैवान हेर सगळ्या मळांचेर घडपी ही गजाल साहित्यीक मळाचेरूय घडटा. हेर भासांचे तुलनेंत कोंकणींत ताचें प्रमाण उणें आसा इतलें मात खरें.

नव्या जिविताक नव्या कथातंत्रांत शब्दबध्द करपी कथाकार माया खरंगटे, नयना आडारकार, ज्योती कुंकळकार, विन्सी क्वाद्रुश, मधुसुदन जोशी, रामनाथ गावडे, दुर्गादास गावडे, अजय बुवा, जोफा गोन्साल्वीस ह्या कथाकारांक आमी कित्याक सिरियसली घेयनांत हो म्हजे मतींत एक व्हड चर्चेचो मुद्दो आसा.

त्यानभायर ग्रामीण लोकसंस्कृती, लोकजीण, प्रखर सांस्कृतीक संदर्भ आनी थळावे प्रश्न हाताळप म्हणजेच खरी कथा अशें समजुपी त्या तथाकथीत लेखक-समिक्षकांक आयचें धकाधकीचें जीवन, आय टी युगांतल्या शारी मनशान केल्ले अमानवीय अत्याचार आनी तातुंतल्यान उत्पन्न जाल्ले आयचे साबार धगधगते प्रश्न हे कथालेखनाचे आयचे विशय कित्याक पचनाक येयनांत तें न समजुपाक आयचो वाचक पयलींचे वरी बरोवप्यांचो कुड्डो भक्त उरूंक ना. तो आतां सुजाण जाला, ताका कोण कितल्या उदकांत रावून थिगूर सोदता तें बेस बरें कळटा आनी दिसताय बी.

ह्या वादाचे फाटभूंयेर *अंदल्ले उस्वास* ह्या कथाझेल्याचेर बरोवचें जाल्यार हांव म्हणन; ह्या झेल्यांतली कथा ही सैमीक रितीन व्हांवपी रानांतल्या झऱ्या भशेन... तिका कृत्रीम कॅनालांची वा पाटांची निखालस गरज भासना, तिका पोव-पावडर मेकअप लिपिस्टीक वा हेर कसल्याच भांगरशिंगराची गरज दिसना. ती जशी आसा तशी वाचकांक भेट्टा देखून ती स्वताचें वेगळें तशेंच खरें अस्तित्व सिध्द करपाक शकल्या. हेरांच्या रंगान ती रंगना. जो रंग तिका प्रकृतीन दिला तोच रंग घेवन ती मिरयता. कलात्मकते खातीर ती वास्तवता दावाक लायना. ते खातीर ती हेरां परस खेरीत कथा थारता. कोंकणी कथेक ह्या झेल्यान आनी पर्यायान ह्या कथाकारान एक नवो आयाम दिला. ताच्या हेर झेल्यांनी हो आयाम कितलो दिर्घ स्वरूपाचो आसा तें सिध्द केलां. देखुनूच हांव म्हणटां - *अंदल्ले उस्वास* म्हळ्यार कोंकणी कथेच्या आधुनीक प्रवाहाचो दिर्घ स्वास.





**- हनुमंत चोपडेकार**
यशवंत नगर,
तीस्क, फोंडे - गोंय

ललित

*देवाचेर तुजो भावार्थ आसा जाल्यार, तोच देव आमची राखण हे सुवातेर करूंक शकना? देवा मुखार भुतांखेतां व्हड आनी शक्तिशाली आसत अशें म्हाका जाल्यार दिसना. तुमचो देवाचेर भावार्थ आसा जाल्यार, दुसरेकडे खंयच वचनासतना, 'देवा तूं पाव' म्हणात आनी हांगाच रावात. बऱ्या मनाच्या मनशांची देव सदांच राखण करता.*




**नं. ध. बोरकार**
मास्कारेन्यस वाडो,
गोवा वेल्हा.
फोन : ०८३२-२२१८१४७


# हांव असो पिसो कसो?

**च**ड करून ह्या संवसारांतलो खंयचोच मनीस स्वताक पिसो असो केन्नाच समजना. सगळेच स्वताक शाणे समजतात. थोडे खरे शाणे आसतातूय बी! पूण तांणीं शाणेपणान वागपाचो यत्न केल्यार, तांची दाळ देडशाण्या मुखार कशीच शिजना. ताका लागून, आपल्यांत थोडीं तरी शाणेपणां आसात हाची जाणविकाय आसुनूय बाबडे पिशें पांगरून ओग्गी बसतात.

हांगा हांवें फक्त बाबडे म्हणलें म्हूण शाण्यो बायलो बाबड्यो म्हजेर रागार जावंच्यो नांत, हाची म्हाका पुराय खात्री आसा. हांव शाण्यांमदें भेदभाव करून पिशेपणां करचो ना.

म्हज्या जिवितांत अशे खूबशे प्रसंग म्हज्या वाट्याक आयल्यात, जांकां लागून घरच्यांनी आनी भायल्यांनी म्हाका पिसो थारायला आनी हांवूय बी लोकांचे दिश्टीन पिशेपणां करपाचीं सोडिना. कितें करूं, जाल्ल्याचो सभाव मेलेबगर वता?

लोकांचे दिश्टीन हांव शाणो, सालस, शांत, मोवाळ, म्होवाळ बी जातलों जाल्यार हांवें लोकांक जाय तसो वागूंक जाय. हांगा सत्ता चलता ती लोकांची. तेन्ना सत्तेफुडें हांगा कोणाचींच शाणेपणा चलनांत. लोकशायेंत हांगा कोणूय पाड्याक घोडो म्हणत जाल्यार भोवमत वापरून तो सिध्द जाता. गिन्यानाच्या आदारान जनावराक तपासून पळोवपाची गरज नासता. कारण आमच्या ह्या विशाळ देशांत, केदेंय व्हडलें सत एकट्याच्या तोंडान भायर पडलें जाल्यार ताका मोल आसना. तें सत आसुनूय सत उरच ना. हाचे उरफाटें, केदीय व्हडली फट गजाल पांच मुखांतल्यान भायर पडली जाल्यार ती सत थारता. हाकाच लागून पांचां मुखी परमेश्वर म्हणपाची चलणूक आसा आमच्या समाजांत. हींच पांच मुखां, शाण्याक पिसो आनी पिशाक शाणो थारावपाचें काम बेसबरीं करतात.

म्हजे बाबतींत खास करून सांगपाचें जाल्यार, म्हजे जल्मदात्रीन म्हजेर ल्हानपणांतूच पिशेपणाचो शिक्को मारलो. तोय स्वताचे बुध्दीन न्हय, तर शेजाऱ्या पाजाऱ्यांल्या पांच मुखांतलें तत्वगिन्यान आयकून.

तें जालें अशें, म्हजे आवयन जल्म दिल्ल्या भुरग्यांमदें सगळ्यांत व्हडलो हांव. अर्थांत म्हजे आवयची दीस-रात म्हजेर नदर. हांव शाणो जावंचो आनी व्हडल्याच्या शाणेपणाचो वास ल्हानांक लागचो, अशें तिका दिसतालें.

हांव दोन-तीन वर्सांचो जायमेरेन आवयन म्हाका शाणो-गुणो केलो. पूण जशेंजशें म्हजें वय वाडत गेलें,



तशींतशीं म्हज्यांतलीं पिशेपणां तिका दिसूंक लागलीं. खरें म्हळ्यार हीं पिशेपणां आवयचे कल्पनेंतलीं आशिल्लीं. ती अशिक्षीत आशिल्ल्या कारणान, गावंढळांनीं सांगिल्ल्या गजालींचेर तिचो चड भावार्थ. खूबशा लोकांकडल्यान तिणें आयकल्लें, आवय-बापायलीं चडशीं पयलीं भुरगीं पिशीं आसतात. ताका लागून, तिचे कुशींत जल्म घेतिल्लो हांव पयलो आनी सगळ्यांत व्हडलो आशिल्ल्यान, तिचे दिश्टीन हांव पिसो!

म्हज्यांतलें भुरगेंपण सरून जाण्टेपण आयलें तरी म्हज्या प्रत्येक कर्मांत तिका पिशेपणाच दिसूंक लागलीं. म्हज्यांतलीं पिशेपणां पयस करपाचो तिणें खूब प्रयत्न केलो. पूण हांवें तिका कशीच दाद दिली ना आनी दितलो तरी कसो? म्हज्यांतलीं पिशेपणां तिचे कल्पनेंतलीं आशिल्लीं. ती जें कितें सांगता, तें म्हाका कशेंच पटऽसारकें नाशिल्लें. तरी ती म्हजी आवय आशिल्ली. तिचे सांगणे म्हणणेन चलप हें म्हजें कर्तव्य, अशें म्हजें मन म्हाका सांगतालें. म्हजें मनच न्हय, तर तिकाय तशेंच दिसतालें. ताका लागून म्हज्या आवय-बापायक दुखोवन म्हाका फुडें वचप कशेंच जमनाशिल्लें. तशें केल्लें जाल्यार तांकां दिसतलें आशिल्लें, आपलो पूत हाताभायर गेला. हांव आवय-बापायचें आयकना, तांकां जुमानीना तें पळोवन म्हजीं भावंडां तेच वटेन वचत हाची दुगदूग मनांत आसतालीच. ते भायर शेजारी पाजारी, सोयरीं धायरीं म्हजें वर्तन पळोवन म्हाका पारपोळांच्या वळेरेंत उडोवपाक एका पांयार तयार आसतालीं.

आनी म्हाका तर जाण्टेल्यांकडच्यान पारपोळ म्हणून घेवंक नाका आशिल्लें. तें टाळपा खातीर आवय-बापायच्यो आनी हेरां वडीलधाऱ्यांच्यो, मनाक पटनाशिल्ल्यो गजाली म्हाका मोन्यांनी मानून घेवच्यो पडटाल्यो आनी ताका लागून म्हजो सतत घुस्मटमार जायत रावतालो.

म्हजे सरभोंवतणी खूबशे भुरगे अशे आसताले की ते कोणाचेंच कोंत करिनासले. मनांत येता तशे वागताले. तांचें वर्तन सभ्यतायेक धरून नासतालें. तरी जाण्टेल्यांकडल्यान तांची तोखणायूच जातालो. लोक तांकां हुशार, शाणे आनी म्हाका पिसो लेखताले. तेन्ना म्हाका दिसतालें, हांवेंय त्या भुरग्यांचें अनुकरण करचें. केन्ना केन्नाय हांव करतालोय बी. पूण करचे आदीं हजारदां विचार करतालों, की असल्या वागणुकांनीं म्हजें आनी हेरांचें लुकसाण बी जांवचें ना मूं? आनी तशें जावपाची शक्यताय आसल्यार, स्वताक शाणे आनी जाण्टे समजपी केदेय व्हडल्या मनशांचें चेपण आयलें, तरी हांव तें लुकसाणकारक काम करपाक फुडें सरनासलों.

अंधश्रध्दा आनी म्हजो तर सदांच छत्तीसांचो आंकडो आनी हो समाज तर अंधश्रध्देन सामको बरबटला. असल्या समाजांतल्या लोकांकडे बरे संबंद कोणूय दवरतलो जाल्यार ताका जल्माचें लुकसाण करून घेवचें पडटा.

हांगा म्हज्या आवय-बापायचे बाबतींत घडिल्लो एक प्रसंग मात मुजरत व्यक्त करिनसो दिसता -

म्हजे बापायच्या बरेपणाक लागून, एका जमीनदारान म्हज्या बापायक ल्हानशें घर बांदपाक सुवात दिवपाचें थारायलें. म्हज्या ल्हानपणांतली गजाल ही. तेन्ना जमनीक व्हडलें मोल नाशिल्लें. तरी स्वताचें घर नाशिल्ल्या मनशाक फुकट जमीन मेळटाली. पूण हाय रे दैवा! देव दिता आनी देंवचार नाडटा, तशांतलो प्रकार घडलो.

इतल्यान कोण तरी मुखार आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ही सुवात बरी न्हय. हांगा घर बांदपी केन्नाच बऱ्याक पावचो ना. हें घट्टण. हांगा, हे सुवातेर केन्ना तरी घर बांदून भट रावतालो. भट मेलो आनी भटीण बोडकी जाली. उपरांत तीय मेली. आमचे जाण्टेले सांगताले, एक तांबडया कापडाची बोडकी बायल सद्दां फांतोडेर पासयो मारताली. प्रसादांक गेल्लेकडे कोणेतरी एक भगतान सांगलें की, अतृप्त मेल्ले बोडकेचो आत्मो त्या घट्टणा भोंवतीं घुटमळटा. भटणीचो आत्मो इतलो खर आसा की, फुडाराक कोणेंय त्या घट्टणाचेर घर बांदपाचो विचार लेगीत केलो जाल्यार तार्चे निसंतान जातलें.

ही गजाल आयकनाफुडें, म्हजे आवयच्या आंगांत कांपरें भल्लें. म्हजो बापूय हरशीं भुतांखेतांक भिवपी न्हय. पूण बोडके भटणीची गजाल आयकून तो खिणांत हाल्लो. ताच्या पांयांत थरथरो भल्लो आनी कित्याक भरचो ना? कितलींशींच अपुरबायेचीं भुरगीं म्हजे आवयचे मांडयेर खेळटालीं. तांचेर भटणीच्या आत्म्याची वांकडी नदर पडली जाल्यार?

नाका ती भानगड म्हूण म्हज्या बापायन ते सुवातेर घर बांदपाचो इरादो बदल्लो. ते वेळार म्हज्या बापायक गांवांतलो खंयचोय भाटकार आपल्या भाटांत सुवात दिवपाक एका पांयार तयार जावपाचो. म्हजो बापूय आशिल्लोच तसो ओडलायणो. कोणाच्याय सांगाताक गेलो जाल्यार आपल्या सांगात्याक केन्नाच लुकसाणाक घालपी न्हय.

हांव तेन्ना ल्हान आशिल्लों. तरी हेरां परस मात्सो चड चवकस आशिल्लों. कोणेंय कितेंय सांगलें आनी हांवें तें मुकाट्यांनीं आयकलें अशें केन्नाच घडनाशिल्लें. आवय-बापायन कसल्योय चुकीच्यो आनी ना पटपाच्यो गजाली सांगल्यो आनी ताका लागून कुटुंबाचें मोटें लुकसाण जावपाची शक्यताय उप्रासली, तर ताका हांव विरोध केलेबगर कसोच रावनाशिल्लों. विरोधी मागीर तो आवय-बापूय आसूं, ना तर आनी कोणूय, केदोय व्हडलो मनीस आसूं!

भाटकारान दिल्ली येदी व्हडली आनी सगळ्या दिश्टीनीं कायदेशीर आशिल्ली सुवात सोडून म्हजो बापूय दुसरेकडे वचपाचो विचार करता आनी तोय कोणेंय तरी सांगिल्ले बेबुन्याद गजालीचेर विश्वास दवरून?

म्हाका हें पटलेंना. हांवें आवय-बापायक विरोध करून म्हणलें, ''तुमकां दिल्लें नाका, सांडिल्लें जाय. भाटकार तुमकां आपूण जावन इतली बरी जमीन दिता, ती सोडून तुमी हांगा थंय हेडपाचो विचार कित्याक करतात?''

अशें कितें देवाक खबर! हांवें अशें कितेंय उलयलें म्हणटकच म्हज्या बापायल्या पांयांतली तिडक सट्ट करून ताच्या मस्तकाक पावताली. ताणें रागान म्हळें, ''आरे सुवात बरी आसा. पूण ते सुवातेर भटीण मेल्या, ताचें कितें? मेली ती मेली, ओग्गी पूण रावल्या? भूत जावन भोंवता खंय ती फांतोडेर!'' बापूय फणफणलो. बापायचो फणफणो आयकून म्हजो रागापारो मात्सो वयर चडलो. म्हज्यानय

गप्प बसूंक जायना जालें. हांवेंय म्हजो राग उक्तायलो, ''तुमी आतां कितलो तेंप जालो ह्या भाटांत रावतात. तूं फांतोडेर कवाथे शिपूंक भाटांत हांगा-थंय भोंवता. दिसल्या तुका केन्ना बोडकी?''

''म्हाकांच कित्याक जाय दिसूंक? लोक सांगतात तें फट?''

''लोक पिशे. ते कित्याकितेंय तोंडाक येता तें उलयतात. भुतांभयान आपलीं घरांदारां सोडून पळ काडटात तांकां शाणे कोण म्हणटलो?'' म्हज्या तोंडांतल्यान सत् भायर पडलें.

''हयवय, ते सगळे पिशे आनी तूं एकटोच शाणो. तुजीं शाणेपणां तूं तुजेकडेच दवर. हांव तुजो बापूय, तुजेपरस पावसाळे चड काडल्यात ह्या संवसारांत, हें मात तूं लक्षांत दवर.'' बापायन आपलें निजाचें शस्त्र अभिमानान वावुडलें. ताची पूण कसली चूक आसा? आमच्या अवतीभोवती चडशे असलेच लोक सापडटात. हेरांपरस आपूण व्हड गिन्यानी, हें प्रमाणीत करपा खातीर आपल्या वर्सांचो अलिखीत दाखलो वयर काडटात.

त्या मानान बापायचे तुळेन हांव खूबच ल्हान आशिल्लों. म्हजो बापूय अणभवी आसा, हें हांव न्हयकारूं शकनाशिल्लों. तरी म्हज्या बापायचो अणभव अगिन्यानाच्या आदारार चलतालो. ताका लागून हांव तो कसोच मानूंक तयार नाशिल्लों.

हाचो अर्थ मात असो न्हय, की हांव म्हज्या आवय-बापायक जुमानी नाशिल्लों. आवय-बापायक म्हजेकडल्यान फाव तो मान-रेस्पेद मेळटालोच. पूण मनाक पटना त्या गजालींक तेंको दिवन आत्मघात करून घेवपाची म्हजी तयारी नासताली.

आमची ही भासाभास म्हजी आवय मोन्यानी आयकताली. वादविवादांतले म्हजे मुद्दे सताच्या आदारार आसात, हें तिका कळटालें. तरी तिचो तेंको बापायकच आशिल्लो. तांचीं हेर मतां कशींय आसूं, पूण देव-देवस्की, भुतांखेतां आनी प्रसाद-पाकळी हांच्या बाबतींत तांचें दुमत नाशिल्लें.



तरी आवयन म्हाका समजावपाचो प्रयत्न केलो. आमची भासाभास चलतासतना मदेंच दवलो घालो आनी म्हणूंक लागली, ''तशें न्हय रे बाबा, तुजो बापूय, कितें सांगता तें आयक. जाणट्यांचें सांगणें-म्हणणें आयकुचें भुरग्यांनीं आनी भाटकाराले हे सुवातेक कितें म्होंव लागलां व्हय रे, देवाचे कृपेन सापोलाचो भाटकार सुवात दिवंक तयार जाला.''

''हय गे, पूण ती सुवात सामकी खांचीक आसा. थंय वतलो जाल्यार सायकल लेगीत हातांत धरून व्हरची पडटा. शिवाय सापोलांत सुवात कितली मेळटली, हेंवूय अजून थारूंक ना. आतां तुमचीं भुरगीं-म्हजीं भावंडां ल्हान आसात, फाल्यां तीं व्हडलीं जातलीं. सांपोलांतल्या भाटकारान चार वेतां जमीन दिली जाल्यार ती कोणाक पावतली? फुडली अडचण तुमच्या लक्षांत येवंक ना. पूण सद्याच्या भाटकाराक कळून आयल्या ती. ताकाच लागून नव्या घराक लागता तितली जमीन घेवपाची सवलत ताणें आमकां दिल्या. अशें आसतना, तुमी खंयचेतरी काल्पनीक बोडकेच्या भंयान, हातचें सोडून पळत्याचे फाटीक लागूंक सोदतात, हातूंत तुमचें म्हाका इल्लेंय शाणेपण दिसून येना. आनी समजा बोडकेच्या भंयान ही सुवात सोडून दुसरे सुवातेर गेलीं; आनी थंय तुमकां कोणेंय तरी सांगलें, हांगा मुंजो भोंवता, तो तुमकां लागत जाल्यार तुमची धडगत ना. तेन्ना तुमी कितें करतलीं?''

हें आयकून म्हजे आवयन तोंड 'आंऽ' करून बापायकडे पळेलें. तांकां दोगांकय खरेंशें दिसलें. आतां कितें करतलीं? कितें जाप दितलीं म्हाका?

इतलें म्हणसर बापायच्या तकलेंतली ट्यूबलायट पेटली. ताणें म्हळें, ''तुमी कसलीच काळजी करूं नाकात. हांव फाल्यां देवाक विचारून पळेतां. देवान जर प्रसाद दिलो, ही सुवात सोडून तुमकां खंयच वचपाची गरज ना म्हूण, तर आमी हेच सुवातेर नवें घर बांदुया.''

''ना तर?''

''ना तर सापोलांत वचपाचें.'' - बापूय.

''आनी सापोलांत घर बांदूंक प्रसाद जालोना जाल्यार? उबंत पडचीं नांत आमी?'' हांवें म्हज्या मनांतलें उलोवन दाखयलें..

''कांय पडनात उबंत-बिबंत. देव घेतलो सांबाळून. इतलो तेंप ताणें सांबाळून घेतलां. हे फुडेंय तोच सांबाळटलो, म्हाका आनी म्हज्या कुटुंबाक.''

बापायन देवावेलो आपलो भावार्थ उलोवन दाखयलो.

''देवाचेर तुजो भावार्थ आसा जाल्यार, तोच देव आमची राखण हे सुवातेर करूंक शकना? देवा मुखार भुतांखेतां व्हड आनी शक्तिशाली आसत अशें म्हाका जाल्यार दिसना. तुमचो देवाचेर भावार्थ आसा जाल्यार, दुसरेकडे खंयच वचनासतना, 'देवा तूं पाव' म्हणात आनी हांगाच रावात. बऱ्या मनाच्या मनशांची देव सदांच राखण करता.''

म्हज्या उलोवण्यांत कितें तरी तथ्य आसा, अशें म्हजे आवय-बापायक दिसलें जावंये. तीं मोन्यानी थंयच्यान कडसरलीं.

ही गजाल पोर्तुगेजां तेंपावेली. ते तेंपार जमनीक व्हडलेंशें मोल नाशिल्लें.

दोन-तीन हजार आसल्यार भाट घेवंक जातालें. म्हज्या बापायकडे सुवात विकती घेवंक तांक नाशिल्ली. आपली हक्काची जमीन सोडून तो बायले-भुरग्यांक घेवन एका गांवातल्या दुसऱ्या गांवांत गेल्लो. थंय

कोणाल्या तरी घरांत रावतालो. आतां मुंबयचो घरमालक गोंयांत येवन आपल्या घरांत रावंक सोदतालो. ताका लागून आमच्या वाडट्या कुटुंबाक नव्या घराची गरज आशिल्ली.

आमी ज्या परक्याल्या घरांत उणीच दोन तपां रावलीं त्या घराचो भाटकार आमकां भाटांतलो भायर काडूंक दिनासलो. तो नव्या घराक फाव तितली सुवात आपल्या भाटांत दिवंक तयार जाल्लो. पूण हाय रे दैवा! असल्या वक्तार देव दिता आनी देवचार नाडटा म्हणटात तसली गजाल घडली. म्हज्या आवय-बापायच्या तकल्यांनी, अंधश्रध्देचीं ल्हारां उफाळून वयर आयलीं. तांचे तकलेंतलें तें वादळ शमयतां शमयतां म्हळ्यार म्हाका नाका शेवट जालो.

आनी एक गजाल हांगा म्हाका मुजरत विस्कटावंचीशी दिसता आनी ती म्हळयार म्हज्या हट्टी स्वभावाची. म्हाका जी गजाल पटली आनी ती प्रत्यक्षांत घडोवन हाडपांत स्वकीयांचो फायदो आसा अशें म्हाका दिसून आयलें, तर ती घडोवन हाडपाचो हट्ट हांवें सदांच धरला. हो हट्ट पुराय करपाखातीर, खूबदां म्हाका म्हज्या आवय-बापायक आनी हेर बुदवंतांक विरोध करून दुखोवचें पडलां आनी ताका लागून म्हाका पश्चातापूय जाला.

पूण ताका म्हजो इलाज नासतालो. आवय-बापायक जर हांवें विरोध करूंक नाशिल्लो, भुतांखेतांचेर विश्वास दवरून आयती आनी फुकट मेळटा ती जमीन सोडून दिल्ली, तर म्हजें कुटूंब आयज उबंत पडटलें आशिल्लें. आमकां हक्काचो असो जागो मेळचो नाशिल्लो. म्हज्या आवय-बापायचें जिवीतच डळमळीत जातलें आशिल्लें. सुखान जगतलो जाल्यार मनशाक हक्काच्या थाऱ्याची गरज आसता. म्हजो आवय-बापूय अंधश्रध्देक बळी पडिल्लो जाल्यार, आमच्या कुटुंबाक थिरताय केन्नाच मेळची नासली.

आयज म्हज्या सगळ्या भावांची उदरगत जावंक पावल्या ती फक्त ती सुवात राखून दवरिल्ली म्हूण!

आयज म्हज्या कांय भावांनी वेगळीं घरां बांदल्यांत. पूण तांकां मुळच्या घराच्यो यादी जगपाक धीर दितात. म्हजो मेल्लो आवय-बापूय, त्या मुळच्या घरांत रावन आपल्या सगळ्या भुरग्यांक आशिर्वाद दिता. म्हज्या आवय-बापायच्या आशिर्वादांचे सासायेन घरांतलीं सगळीं काल्पनीक भुतां खंयचे खंय नाच जालीं.

भुतांखेतां हीं मानपाचेर आसतात. हीं काल्पनीक भुतां एकदां कोणाच्या बोडांत रिगलीं रे रिगलीं, तांचेर विश्वास दवरतल्याच्या संवसाराची वाट लागलीच म्हूण समजपाचें.

हीं भुतां चड करून घरांतल्या बायलांच्या तकल्यांचेर येवन बसतात. एकदां तीं बायलांच्या माथ्यार बसलीं म्हणटकच रोखडींच दादल्यांक बादतात.

भुतां खेतांचेर दादल्यांचो विश्वास आसूं वा नासूं, बायलो आपल्या घोवांक प्रसाद पाकळी घेवपाक धाडल्याबगर कशोच रावच्यो नांत. आनी जो दादलो बायलांचें आयकना, तो तांचे दिश्टीन निमणे मेरेन, पिसोच आसता आनी पिशाक शाणो करपाचें आपलें कर्तव्य अशें त्यो मानतात.

हांवें नव्या घराक घरकान्नीक सांगिनासतना सुवात घेतली. घरकान्नीक सांगिल्लें जाल्यार ती पयलीं प्रसादपाकळी घे म्हूण हट्ट धरपाची आनी प्रसाद जालोना जाल्यार, हांव नवें घर केन्नाच बांदूंक पावचोनाशिल्लों, हाची खबर म्हाका आशिल्ली.

आयज हांव प्रसाद घेनासतना बांदिल्ल्या घरांत रावतां. ही गजाल म्हजे घरकान्नीक खबर आसा. तिका दिसता हांवें व्हड पाप केलां. ताका लागून घरांत केन्नाय कसलेंय किजिलासांव जालें जाल्यार, ती म्हाका दोश दिता. तिका दिसता, हांवें कुळदेवतेक प्रसाद लायनासतना घराक बुन्याद घाली म्हूण घरांतली शांतताय बिगडटा.

पूण म्हजो अणभव वेगळोच आसा. देवाक प्रसाद लायलेबगर कसल्याच कामाक हात घालिनाशिल्ले, कितलेशेच मनीस हांवें पळेल्यात. ते आपले कुळदेवतेच्या दरबारांत वचून सदांच प्रसादपाकळी घेतात. वेळच्यावेळार सगळे तरेचीं देवकार्यां करतात. पूण जाचे खातीर ते हें सगळें करतात, ती सुखशांती मात तांच्या पदरांत पडना.

खरें म्हळ्यार शांती ही देवकार्यां करून आनी देव-देवतांकडे मागून मेळोवपाची नासता, ती घरांत रावपी वांगड्यांनी मुजरत तयार करपाची आसता.

आयज हांव प्रसाद-बिसाद घेनासतना बांदिल्ल्या घरांत रावतां. पूण ताका लागून म्हजें आयजमेरेन कसलेंच लुकसाण जाल्लें ना. भुरगीं शिकून व्हड जालीं, तांकां नोकऱ्यो मेळ्ळ्यो, तांचीं लग्नंकार्यां जालीं. भुरगीं बाळां जालीं आनी हें सगळें जालें तें खंयच्याच देवाकडे मागनासतना.

ह्या संवसारांत देव आसूं वा नासूं, ताचें म्हाका कांयच पडिल्लें ना. तरी हांव देव आसाच अशें धरून चलतां आनी तो आसलोच जाल्यार, म्हाका म्हज्या बऱ्या कर्मांचें फळ दिल्या बगर रावचो ना, हाची म्हाका पुराय खात्री आसा. तेचपरी म्हजेकडल्यान जर कसलीय चूक घडली, वायट घडलें आनी भोगसणे खातीर देवामुखार कितलीय तकली आपटून घेतली तरी देव म्हाका भोगशीचो ना आनी भोगसूंच नये अशें म्हाका दिसता.

हांवें केल्ल्यो चुको देव भोगशिता अशें जर म्हाका कळून आयलें, तर हांव आळशी जातलों आनी चुको करीत रावतलों आनी तेंच तर म्हाका नाका.

मनशान केल्ल्यो चुको मनशानच सुदारूंक जाय, देवान न्हय. ह्या फुडें आपूण चुको करचो ना, असो देवामुखार सोपूत घेतल्यार पुरो.

ह्या लोकशायराज्यांत चड लोक शाणे जाल्यात आनी उरिल्ले थोडेच म्हज्या सारखिले पिशे. हे शाणे लोक म्हाकांय शाणो करूंक सोदतात. पूण हांव पिसोच रावंक सोदतां. कारण हांचेमदें एक सेकंद लेगीत रावल्यार म्हजो घुस्मटमार जाता.

तांचें म्हणणें अशें की ते धा जाण आसात आनी हांव एकटो. ते शाणे आसत आनी हांव पिसो. तांचेकडे सत्ता आसा. सत्तेफुडें पिशाचें कशें चलतलें?

म्हाका दिसता, हांवूय तांच्या सारखो शाणो जावंचो. मान-रेस्पेद मेळटलो. तांकां प्रिय जातलों. पूण हांव पिशेपणां सोडूंक तयार ना. गायेक घोडो म्हणूंक तयार ना. कशें जातलें काय म्हजें? हांव असो पिसो कसो?



## झालर

# मीलनाच्या रेखांनी आंगयल्लें काव्य!

*म्हज्या भुरगेपणांत खेळांतलो कावळो सोदून काडपाक आमी एका गीताचो आदार घेताले. तें गीत अशें आसलें.*

*आ- पो-*
*दिगा- पो-*
*कारी- मिरी पो*

*थंय जितले भुरगे आसताले तांतल्यां जण एकल्याच्या माथ्यार हात दवरून ज्या भुरग्याच्या माथ्यार निमाणें पो हें उतर येता तो भुरगो कावळेपणांतल्यान सुटलो आनी थंयच्यान धांवून पयस वयतालो.*




**रमेश भगवंत वेळुस्कार**
पाळें,
शिर्दोन – गोंय
मो.: ९४२०६८८४६१


चुचू आनी *घुरू घुरू वारो* हे म्हजे दोन हालींचे बाल-कविता संग्रह. म्हज्या एकूण पांचूय बाल-काव्य-संग्रहांमदीं हे निमाणे दोन सामके आगळे. हे आगळे जावपाचें खरें कारण म्हजी चित्र-मित्रा इश्टीण मीलन खानोलकर. हे आगळे जावपाचें आनी एक खरें कारण म्हणचे संवेदनशील चित्रकार मीलन खानोलकर हाच्या काव्य-स्पर्शी पेन्सिलीन म्हज्या दर एके बालकवितेंतलो काव्यात्म रुपकार आंगयलो आनी तिका दर एके कवितेच्या सांगाता बाल-सौश्ठवांत रेखांकीत केली. खरें म्हटल्यार ह्या दोनूय संग्रहांखातीर कांय चित्रां आसचीं म्हण हांवें हे दोनूय संग्रह ताका वाचपाक दिल्ले. हे दोनूय कविता संग्रह बरोच काळ मीलनाकडें आसले. चित्रां कशीं आसचीं हाचेर निर्णय पुरायपणान ताचो आसचो अशें म्हजें मत आसलें. कारण हांव *जागांत* छापून येतल्या ताच्या चित्रांतल्या रेशांच्या मर्मस्पर्शी लक्तुबायेच्या मोगांत पडलेलों. म्हाका ताचेर विस्वास आसलो. आनी एक दीस म्हाका ताचो फोन आयलो. हांव गोवा विश्व विद्यालयाच्या प्राकारांतल्या ताच्या घरा गेलों. ताणें जेन्ना चित्रां म्हजे सुवादीन केलीं तेन्ना हांव सामको थटाकलों आनी पळयतूच उल्लों. म्हाका कांय वेळ उलोंवकूच आयलें ना. कारण अशा वेळार आनी उलोंवक जाय ही गजालूच हांव विसरुन गेल्लों. कारण दर पाना पानाच्या परिसरांत जंय फकत कविताच पावता आनी रावता थंय थंय वलयांकीत जावन मीलनाच्या रेशांनी म्हज्या चित्रांतल्या लौकीक संदर्भांचो आदार घेवन आपलो अलौकीक उत्सव मांडला, तें हांवें पळयलें. तें फकत पळयत वचप आनी तातूंत रमप इतलेंच त्या खिणां म्हाका शक्य आसलें. दोनूय पुस्तकांच्या म्हण सुमार ८० ते ८५ पानांचेर साकारुन आयल्ल्या रेखाचित्रांच्या अद्भुत विश्वांत हांव गुल्ल जाल्लों.




*घुरू घुरू वारो* ह्या संग्रहाच्या मुखपृश्टार आमकां केन्नाच दिसनासलेल्या वाऱ्याचें सुंदर चित्र पळोवपाक मेळ्ळें. पूण दोळ्यांक जरी वारो दिसना तरी भुरग्यांची सुक्षीम नदर ताका पळोवंक शकता हाची गवाय मीलनाची (सुमनाची) रेखान रेखा दिता. ह्या मुखपृश्टाचेर जी धर्तरी आनी जें अवकाश आसा तें *घुरू घुरू वाऱ्यान* जशें आपल्या आवाक्यांत घेतलां तशें तें मीलनाच्या रेशांनीय तें सु-रेश करुन उडयलां. वाऱ्यार एके खर गतीन उबपी फुलां, पानां, पालो, पाकळ्यो, फुलपाकुलीं, मोरपाखां अशा कितल्याशाच वस्तुंच्या कोलाजाच्या आदारान मीलनान अदृश्य वाऱ्याक दृश्यांकीत केला आनी आमच्या मनातलो शिशू तें चित्र पळयतां पळयतां एक अद्भुत बदल करीत वचपाक लागता. ह्या मुखपृश्टाच्या बसकारांत वाऱ्या नेटार धावतलो पालो बिलो तशेंच कोयर बियरय थंय दिसता. ताचीय स्पीड मीलनाच्या रेखांतल्यान अणभवपाक मेळटा.

*घुरू घुरू वारो* ह्या संग्रहाचें मुखपृश्ट पर्थून आमी जेन्ना संग्रहाचे पयले कवितेकडे येता तेन्ना खेळपी भुरगे आनी मळबांत उडटलो बोल आमकां दिसूंक लागता. खेळगड्यांच्यो उमेदीन तशेंच उत्सुकतायेन बोलार लागलेल्यो नदरो पळोवन रेखांच्या माध्यमांतल्यान सवन कवितेच्या मुडाक आपल्या

आवाक्यांत घेवपी चित्र-मित्रा मीलनाची याद जालेबगर रावना. वांगडाच ही कविता आनी तिचो मूड तशेंच तिची स्पिडूय चित्रांच्या माध्यमांतल्यान संग्रहाच्या पानार रेखांकीत जाल्ली दोळ्यां सामकार येता.



**बोल म्हजो बोल,**
**घुंवता गोल गोल**
**सट्ट करुन**
**खोलांत साकून**
**पावता तेरेखोल**
**बोल म्हजो बोल**



ही कविता हांवें बऱ्याच वर्सांफाटीं एक पावट बालभवनाच्या एका वर्कशॉपांत वाचली. कांय दिसांनी पणजे प्रासावयल्यान सिटी-बसींतल्यान शारांत येतालों. म्हज्या सिटार एक आडसाटी बायल येवन बसली. ती म्हजेकडें कोंकणीच उलयली. तिणें सायासान कोंकणी आपणायल्या हेंय कळ्ळें. ती म्हाका म्हणपाक लागली, 'सर, कांय दिसां पयलीं बालभवनांत तुमची बोला वयली कविता आयकली. भुरगेपणांत बॉल घेवन फास फास खेळटनाची याद जाली. म्हाका कवितेची स्पीड खूब आवडली.'

म्हाका दिसलें की ती बायल बालभवनांत येवपी भुरग्याची आवय आसूं येता! हांवें तिका तशें म्हण्टकूच तिणे सांगलें की ती आपले एके इश्टीणीवांगडा ते दीस बाल भवनांत आयल्ली. मागीर तिणें म्हाका ह्या गीतांत आसपी स्पिडीविशीं विचारलें. हांव फकत हांसलों. म्हण्टा म्हणसर तिचो स्टॉप आयलो आनी ती देंवली.

ती देंवून गेली आनी हांव चिंतीत उल्लों. म्हाका याद जाली ती मीलनाची. ताकाय हे स्पिडीचो अंदाज आयल्लो आनी ताणेंय ती आपल्या तिंतान रेखांकीत करपाचो प्रयत्न केल्लो. आनी तो सफलूय जाल्लो. बरयल्ली कविता लोकांमुखार पावता ही गजाल सामकी खरी. ती खंयचे स्पिडीन आकाराक येता तें मात खबर नासता! ही स्पीड, आपले आकाराक येतले कृतीच्या अंदाजान ती आपल्यांत केळोवन घेता. हे संबंदी विचार करतां तेन्ना म्हजे भुरगेपणांतली याद म्हाका खूब म्हत्वाची दिसता. म्हज्या भुरगेपणांत खेळांतलो कावळो सोदून काडपाक आमी एका गीताचो आदार घेताले. तें गीत अशें आसलें. आ- पो- / दिगा- पो- / कारी-मिरी पो / थंय जितले भुरगे आसताले तांतल्यां जण एकल्याच्या माथ्यार हात दवरुन ज्या भुरग्याच्या माथ्यार निमाणें पो हें उतर येता तो भुरगो कावळेपणांतल्यान सुटटालो आनी थंयच्यान धांवून पयस वयतालो. अशें करीत करीत जेन्ना दोनूच भुरगे उरता तेन्ना जाचेर पो येता तो सुट्टा आनी उरता तो भुरगो कावळो जाता. हो कावळो सोदून काडपी भुरगो आपलें आ-पो- / दिगा- पो- / कारी- मिरी पो / हें गीत बरेंच फास्ट म्हण्टालो. ह्या गीतांतली गती म्हाका खूब आवडटाली. तशेंच त्या पो चेर आसलेलो भुरग्याक थंयच्यान पयस धांडावपी दबावूय म्हाका आवडटालो. ह्या गीतांतली स्पीड म्हज्या जाणीवांत केन्ना भरसून गेली तें मात म्हाका खबर ना. पूण म्हजे कवितेन हे स्पिडीचो वापर आपले कवितेंत मतींतले मतींत म्हाका कळयनासतना केलो हाचें म्हाका लेगीत अपरुप दिसता. पूण मीलनाच्या आंगांत वावुरतल्या सर्जनशील कलासक्त मनाक तें कळटा ही कौतुकास्पद तशीच गौरवास्पदूय गजाल म्हज्या संग्रहांतल्या कवितांच्या सांगाता मीलनाची रेशा रेशा आयजूय मिरयत बसल्या हें आयजूय कोणाकूय दिसता.

म्हज्या बालकवितांतल्या विशयांक कवितांचें रूप मेळटा तेन्ना नादाचो एक सैमिक पदर आपशींच ताका लागून येता. जाय जाल्यार हाका नादाचो निसर्गीक रुपकार म्हणूं येतलो. ल्हारार ल्हार/ फेण फुलार/ दर्या देगेर/ वारो खार अशा उतरांनी घुरू घुरू वाऱ्याचो रुपकार प्रगट करपी ही कविता मीलनाच्या रेखणेच्या आवाक्यांत येता तेन्ना तें ह्या उतरांतलो हो नाद वळखता आनी तांतल्यान स्फुरुन येतल्या अदृश्य रेशांक तें रेखांकीत करता. कवितेंतल्या वाऱ्याक पाखां आसात, थंयच लागीं दर्या आसा. आनी ह्या दोगांयचो आनंद घेवपी एक भुरगो आसा. त्या वाऱ्याची आनी भुरग्याची जी नजरा नजर जाता तो खीण अशे तरेन रेखला की त्या आनंदाचो दूदसागर जावन तुमच्या मनांतल्यान व्हांवपाक लागता. वाऱ्याच्या मनांतलीं अनंत गुपितां त्या भुरग्याच्या तोंडार मीलनान कैद करुन दवरल्यांत.

२३ जून १९७७ ते १९७८ शणै गोंयबाब शताब्दीन म्हाका एक व्हड पुरस्कार दिलो. आनी ही गजाल म्हाका सोडून आनी कोण्णाक खबर ना. ह्या वर्सा गोंयांत शणै गोयबाबांविशीं आनी एकूण कोंकणी मनशाच्या पूर्ण स्वातंत्र्याविशीं जाणीव करुन दिवपाखातीर म्हण आमी गोंभयर भोंवताले. आमी गांवा गांवानी कोंकणी मनशांत आसलेलें कोंकणीपण सोदीत भोंवताले. तेच बराबर जांकां तांच्या कोंकणीपणाचो विसर पडला तांच्या सुप्त मनांत मोने जावन रावलां ताकाय फूक मारुन पेटयत वयताले. हे खीण सोबीत आसले. न्हिदसुरपणांतल्यान जागें जातलें हें कोंकणीपण आडे वेडे घेत जागें जातालें तेन्नाचें ताचें दर्शन हें साक्षात्कारी आनी अप्रूप आसतालें. एक दोन कार्यक्रम जाल्या उपरांत जाणवलें की आमच्या कार्यक्रमांक जाणट्यांपरस भुरगींच चड आसतात. आनी तांचेखातीर आमी कांयच दिनासले. तीं आमचेखातीर रावतात, तांचे खातीर आमी कितेंय तरी करुंक जाय ही जाणीव म्हज्यांत एक उजवाडाचें झाड पेटोवन गेली. तेन्नासावन हांव भुरग्यांखातीर बरोंवक लागलों. भुरग्यांखातीर बरोवप कितें, हो एक व्हड प्रश्न ते वेळार म्हजेमुखार उबो रावल्लो. आनी ह्या अवघड प्रश्नानूच ताका एक सोप्पी जापूय आपाप दिवन उडयली. ही जाप इतली सोपी आसली, इतली सोपी आसली की ती जाणून म्हाका संत तुकारामाच्या उतरांची याद जाली. 'तुजें आसा तुजेकडें पूण सोदता भलतेकडें' अशी ती जाप आसली. भुरग्यांचें भुरगेपण हांव जगलां आनी तें म्हाका पुरायपणान खबर आसा अशीशी ती जाप आसली. इतलें सगळें तुजेकडें आसतना भुरग्यां खातीर साहित्य बरोवपाची भिरांत कित्याक? आनी होच भुरगेपणाचो धागो ह्या कवितांच्या बाबतींत मीलनान पकडला




आनी ताच्या आधारान आपल्या मनांत साठोवन दवल्लेल्या बाल-जिणेच्या लावण्याक रेशांच्या माध्यमांतल्यान आकाराक हाडलां.

*घुरू घुरू वारो* ह्या संग्रहांतली ७ व्या क्रमांकाची कविता. ह्या कवितांक नावां नात. संवसारांतले खंयचेच वस्तीक तशें नांव ना. देखून हांवेंय ह्या कवितांक शीर्शकां दिलीं नांत. ही भुरग्यांच्या कुतू-मोगाची कविता. हो कुतू मोगाळ, फुडच्यांत येतांच मोगान पांयांक घश्टुपी, पयस उडयल्ली वस्त धांवत वचून घेवन येवपी, इश्टांचें स्वागत करपी, अकस्मात एक दीस बशीक आपटलो आनी गेलो (मेलो). मीलनान ह्या भुरग्याक जाल्लें त्या कुतूच्या वचपाचें दुःख आनी दुकां आपल्या चित्रांत चितारल्यांत. भुरग्याच्या तोंडार दाटलेलीं दुकां आनी तोंडार पातळ्ळेली दुःखाची निर्शोणी नदरेंत भरतांच, मनांत घर करुन रावता. कवितेंतल्या भावनांक पुराय संवेदनशीलतायेसयत अचूकतायेन व्यक्त करपी ह्यो रेखा म्हाका खूब आवडटात. त्यो सुंदर तर आसाच, ह्यो रेशा चिरतरूणय आसात.

**येतली आतां सुटी रे बाबा**
**येतली आतां सुटी**
**आसच्यो नारे अभ्यासाच्यो**
**मातूय कटकटी**
**येतली आतां सुटी रे बाबा**
**येतली आतां सुटी**

हे कवितेंतल्या चित्रांनी रानांत गेल्लीं भुरगीं रानांत कितलीं गूंग जाल्यांत तें पळोवन अणभवप ही एक आनंदसंद.

चुचू ह्या काव्य संग्रहांत क्रमांक आठ कवितेक आयल्लें चित्र भव्य आसा. मळबभर कुपां आसात, हांतल्या कुपांक खाडां मिशो आसात. नाक, दोळे, केंस तर सगळ्यांक आसात. शिवाय हीं कुपां हांसत्या मुखाचींय आसात.

**धव्या धव्या कुपान म्हळें**
**मळब निळें निळें**
**राती वेळार मळब जाता**
**नकेत्रांचें तळें**

मीलनान हांगा नक्षत्रांक खाशेले उत्सवी वस्त्रालंकार दिल्यात. ताका लागून नकेत्रांचो झेत वाडला आनी मळबाकूय एक आगळीच कांत मारपाक लागल्या. हो मीलनाच्या रेखांचोच चमत्कार म्हणपाक जाय. इकराव्या क्रमांकाचे कवितेखातीर आयल्ले फाटभुंयेर गीतां गायतलीं





सुकणीं आसात. मेकळ्या मळबांतलीं सुंदर सवणीं. सतर्क सवणीं. हीं सवणीं सामकीं जिवंत दिसतात. दर एका पानार आयल्लें रेखा चित्र दर पानार येतले कवितेक खाशेलपणाचो आयाम दिवन वयता.

**च्युंड्क च्युंड्क**
**शेवणें**
**शेवणें शाणे**
**शाणे**
**ताळये ताळयेर**
**बसून**
**शाणें करता**
**पेणें**

कविता आनी चित्रां हांच्या सांगाताक लागून सवन्न काव्यसंग्रहाचें मुल्य आनीक वाडलां. चित्रांच्या सांगाता कविता वाचताना कवितेंत लिपून आसलेले तमाम कंगोरे उक्ते जावंक लागल्याशे दिसता. नव्या कल्पनांक हांगा पालय येता. आनी ही तर मीलनाच्या चित्रांची करामत. म्हाका जाल्यार ताच्या चित्रांच्या सांगाता म्हज्योच कविता परत वाचताना म्हज्याच कवितांनी अदृश्य जावन रावल्ल्यो कितल्योशोच कविता दिसूंक लागता.

(२३-०१-२०१३)



कथिका

# जनरेशन गॅप



*म्हज्या मनांत खंयतरी पाल चुकचुकली. 'विद्याचो म्हजेर विश्वास ना तर? कित्याक ताका फोन करुंक जाय? हांगा येतकर सदांच हांव ताका गरम गरम च्या आनी पोटभर खावंक दितांच. वेल्यान ताका आवडटा आवडटा तें करुन दितां ना तर भायल्यान हाडून दितां.' म्हजो जीव विचारांत पडलो.*




**उषा कामत**
मडगांव - गोंय
मो. : ९७६३८२३७४५


**सा**त वरां जावपाक आयलीं. विभव अजून येवंक ना. हालीं तेपाक हें अशेंच चल्लां. मदीं मदीं हो घराकडेन येवपाक खूबच वेळ करपाक लागला. हांव म्हजेभितरच विचार करतालें, इतल्यान टण टण करून दारावेली बॅल वाजूंक लागली.

''इतलो वेळ सो रे?'' रावपाक जायना जावन हांवें विचारलें.

''सकलच आशिल्लों हांव.''

''आरे मागीर तुज्या मित्रांकच घेवन वयर येवपाचें.''

विभव ओग्गी रावलो. हांवेंय फुडें विशय वाडयलो ना.

विभव खरें तर आमचेच बिल्डींगेंत आमच्या वयर रावपी फ्लॅटांतलो भुरगो. विद्या आनी विराज नायक हांचो तो चलो. आमचेवरींच तांच्या घरांत तीनच मनशां. विद्या आनी विराज दोगांयजाणां नोकरी करतालीं. दोगांकय घरा येवंक कळाव जातालो. विभव सकाळीं शाळेंत वतालो. दनपरां जेवपाक घरा येता तेन्ना घरांत कामवाली आसताली. ती विभवाक सगळें जेवण हून करून वाडटाली. जेवन विभव शिकवणेक वतालो. कामवाली आपलें सगळें काम करताली आनी आपल्या घरा वताली.

तीन ते स वरां मेरेन विभव दोन विशयांची शिकवणी घेतालो. १५-२० मिनटां भितर तो बिल्डींगेकडेन पावतालो. घराकडे कोणूच नाशिल्ल्यान तो सकलच आशिल्ल्या झाडाच्या कट्याचेर बसून रावतालो. पयलीं विभवागेर संबंद दिसभर घरांत कामाक चली आसलें तेन्ना विभव शिकवणेच्यान आयलो काय आपल्या घरा वतालो. हालींच तें चली सोडून गेल्ल्यान हें सगळें कुटूंब मात्शें पेचांत पडिल्लें. घराची चावी विभवाकडेन दिवप हें दोगांयकय, विद्याक आनी विराजाक मान्य नाशिल्लें.

हालीं तेपाक सदांच विभव सांजेचो असो सकयल झाडाच्या कट्याचेर बशिल्लो दिसतालो. एकदीस हांवें विभवाक विचारलें आनी म्हाका सगळी खबर कळ्ळी. म्हाका दिसलें विभव आमचेच बिल्डींगेंत रावपी म्हज्याच रुपेशा भशेन. सांजेचो तो घरा आयलो काय ताका सारकी बरी च्या, खावंक मेळचें.

रातीकडेन हांवें म्हज्या घरकाराकडेन विशय काडलोच. विभवाची सगळी खबर सांगून हांवें विचारलें, ''सद्दां ताचे मम्मी, पप्पा येतसर ताका आमगेर येवन बस म्हणून सांगया?''

''कित्याक तूं एक-एक नाका आशिल्लें गळ्यांत घालून घेता? तो प्रस्न तांचो! आनी विभव आतां ल्हान भुरगो न्ही. ताचेकडेन घराची चावी दिवंक जायना?''

हांव म्हजेच दृश्टीन विचार करतालें, ''आसूं बाबडो सकल बसता तो हांगा आमच्या घरांत बसतलो. वेळार इल्ली च्या ताच्या पोटांत वतली. विद्या आपूण जावन कशें विचारतलें कोणाक? हांवें जावन फुडें सरपच बरोबर.''

दुसऱ्या दिसा परत हांवें घरकाराकडेन विशय काडलो. म्हजो विचार कसो बरोबर आसा हें पटोवन दिवपाचो हांव प्रयत्न करतालें.

"पळय एकदां हांवें सांगलें. तुका जाय तें कर. सगळो विचार कर. तूं सामकें अडकून पडटलें. आपयतलें जाल्यार आपय. फुडें केन्नाच म्हज्या कानाकडेन मात कसलीच करकर करपाक मेळची ना. आपयतलें जाल्यार तुज्याच जबाबदारीचेर आपय ताका."

दुसऱ्या दिसा आयतारा हांवें विद्याक फोन करून विभवाक आमगेर येवपाक सांगलें. पयलीं विद्यान नाकाच म्हळें. "आमीय हाचेर विचार करतालींच. आतां आठवड्यांतल्यान दोन दीस विभवाल्या पप्पाक बेगीन घरा येवंक मेळटलें."

"मागीर उरिल्ल्या दिसांनीं ताका येवं दी आमगेर." हय ना करून विद्या तयार जालें. दुसऱ्या दिसाच्यान विभव आमगेर येवंक लागलो. संवकळ नाशिल्ली देखून मात्सो कांचवेतालो. मागीर होळू होळू ताका संवय जाली. आमच्या रुपेशा बरोबर खेळप, ताका खबरो सांगप, ताच्या अभ्यासांत ताका मदत करप हें सगळें तो आपूण जावन करूंक लागलो. म्हाका, रुपेशाक ताची बरीच माया लागली. आतां तो घरचोच जाल्लो.

"ताच्या घराची एक चावी मागून घे. केन्नाय गरजेक उपकारा पडटली. विभवाकडेन दिवं नाका. तूं तुजेचकडेन दवर." मदीं एकदां घरकारान सुचयलें. चावी मागून घेवप म्हाका पटना जालें. विद्यान वा विराजानय आपूण जावन केन्नाच चावयेचो विशय काडलो ना.

एक दीस अचकीत विभवाच्या हातांत मोबायल पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. विभव च्या पितां पितां हांव ताच्या म्हऱ्यांत बसलें. "आरे तूं अजून कितलो ल्हान आसा रे? इतल्या भुरगेपणांत तुज्या हातांत मोबायल दिवप बरें न्ही. कित्याक जाय रे तुका तो? तुवेंच हट्टान मागून घेतलो काय कितें रे?" म्हज्या नकळत म्हजो आवाजय चडलो. तें पळोवन विभव मात्सो भिलो.

"काकी, पळय हो सामको सादो हँडसेट. फक्त फोन करूंक आनी मॅसेजीस धाडूंक मेळटात हातुंतल्यान. आमच्या वर्गांतल्या सगळ्यांच कडेन आसा मोबायल."

"पूण तुका कितें गरज रे त्या मोबायलाची?" म्हजो रागाचो पारो अजून देवंक नासलो."

"केन्ना केन्नाय मम्मीक फोन करूंक, मॅसेजीस धाडूंक मेळटात न्ही गे! मम्मीन सद्दां आपूण मॅसेजीच धाडटली म्हूण सांगलां."

म्हज्या मनांत खंयतरी पाल चुकचुकली. 'विद्याचो म्हजेर विश्वास ना तर? कित्याक ताका फोन करूंक जाय? हांगा येतकर सदांच हांव ताका गरम गरम च्या आनी पोटभर खावंक दितांच. वेल्यान ताका आवडटा आवडटा तें करून दितां ना तर भायल्यान हाडून दितां.' म्हजो जीव विचारांत पडलो.

आनी आतां आतां तर विभव खूब फावटीं वेळान येतालो. विचारल्यार 'मित्रांबरोबर खबरांक आसलों. मम्मी जाणां सगळें.' अशेंय सांगतालो.

ताका हांवें समजावन सांगलें. मातशें रागार जावन सांगलें. पूण तो कांयच कानामनार घेना जालो. मदीं मदीं तर काकी म्हाका खावपाक कांय नाका येतना वाटेर 'शॉर्मा' खाला वा 'चिकन रोल' खाला अशेंय सांगूंक लागलो.

आतां तो तडक घरा येना आसलो. आमगेर बसून रावपय ताका व्हडलेंशें मानवनासलें. पयलीं वरी मेकळेपणान शाळेंतल्यो खबरो सांगप, रुपेशाचो अभ्यास घेवप हें सगळें कमी कमी जावंक लागलें.

एक दीस अचकीत विभव बेगीनच आयलो. आपल्या पोटांत दुखता देखून हांव घरा वचून न्हिदतां अशेंय ताणें सांगलें.

"आरे हांगाच न्हीद मरे. अशें कशें पोटांत दुखूंक लागलें? ना जाल्यार आमी दोतोराकडेन वचुया. हांव येतां तुज्या बराबर."

"नाका काकी. मम्मान सांगलां, ती दनपारची शितू येता न्ही तिका सांगतां म्हूण. ती येतली आतां. मागीर पप्पा येतगर हांव आनी पप्पा वतले दोतोरागेर." विभव सोपणां चडटां चडटां उलयलो.

म्हाका कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. "इतले मायेन सगळें करतालें तरी लेगीत विभवाच्या मनांत अशी परकीपणाची भावना कित्याक येवची?"

दुसरे दिसा विभव शाळेंत गेलो ना. सबंद दिसभर घराच न्हिदून आसलो. एक-दोनदां हांवें फोन करून खबर घेतली. हांव तुमगेर येवं काय विचारलें.

"शितूक सगळें सांगलां मम्मीन. तसो हांव बरो आसां. हुस्को करूं नाका काकी. दोतोरान वखद दिलां तें घेतां हांव." विभवान फोन दवरलो. सांज जाली तशी विभव येवंक ना देखून चुकिल्लेवरी जालें.

फुडले दोन दीस विभव आयलोच ना. हांव वाट पळयत आसलें. दोनूय दीस तो विद्या आयल्या उप्रांत घरा आयलो. तिसऱ्या दिसा स वरांचेर अचकीत विभव आयलो. "काकी दोन दीस जाले हांव सांजेचो खेळूंक ग्राऊंडार वतां. आतां सदांच वतलों आनी वेळानच येतलों. इतले दीस तुमी म्हजेखातीर केलें तें हांव केन्नाच विसरचो ना. थँक्यू काकी."

साडेसातांक बरोबर बॅल वाजली. हांवें दार उगडलें. दारांत विद्या आनी विराज उबीं आसलीं. हांवें तांकां भितर आपयलीं. च्या विचारली. "च्या नाका थँक्स. तुमी हांगा बसात. आमकां मातशें उलोवंक जाय."

विद्यान म्हळें आनी ताणें मागीर विराजाच्या मनांतलो सगळो खवदळ म्हज्या समोर मांडलो.

"वाडटें वय. खंयय पांय घसरत. वायट वाटेन वचत म्हूण आमी दोळ्यांत तेल घालून जपपाचो प्रयत्न करतात. खरें, तुमची खूबच उपकारी आसात आमी. शिकवणीच्यान येवन सबंद वेळ टी. व्ही. वा कम्प्युटरार बसतलो देखून ताका आमी घराची चावी दिना आसलीं. पूण सगळेवटेन जशें वारें व्हावता तशेंच वारें विभवाकय लागलां. आतां तो व्हड व्हड विचार मांडटा. आपूण व्हड जालां, म्हाका मोबायल जायच, फुडल्या वर्सा स्कुटर जाय, घरांत म्हाका एकल्याक रावंक कांयच भंय ना अशें जायतें सागता. आमी कितलेंय समजावपाचो यत्न केल्यार लेगीत तो आपलें तें खरें करता. आमचे विचार ताका आतां पटनांत. जनरेशन गॅप म्हणपाचें! आनी कितें?"

दोगांय वचपाक उठलीं. परत एक फावट दोगांयनीय देव बरें करूं म्हळें आनी घरचो रस्तो धरलो.



*साधारणपणान मराठींत बाई म्हणचे बायल. मागीर शाळेंतली बाई - ही गिन्यानी बायल, झाडूवाली बाई - ही साफसफाई करपी बायल. कोल्हापूराक 'बाई' म्हणचे लग्नाची बायल. 'ती माझी बाई आहे' म्हणचे ती म्हजी बायल. बाई शब्द कसो तयार जालो हें सांगतना ताणें सांगलें. बाबांतलें 'बा' आनी आईतली 'ई' मेळून 'बाई' हो भक्कम शब्द तयार जाला. देखूनच 'बाई' उतराक खूब म्हत्व आसा.*



**अपर्णा गारुडी**
शिवोली – गोंय
मो. : ८८०६३०८०९३



# व्यक्तिपरमळ

**जि**णेंत मेळपी कांय मनशां, तांचे अणभव, तांचो सांगात, तांचे विचार, आमची जीण समृध्द करतात आनी हो व्यक्तिपरमळ आमचे जिणेंत दरवळत उरता. अशा मनशांचो सांगात नशिबानूच मेळटा.

हे दिवाळीचे सुटयेंत ठाणे जिल्हा तेलुगू समाज सेवा संघान आंध्र प्रदेशाची भोंवडी आयोजीत केल्ली. आमी आनी म्हज्या कुळाराचीं सगलीं जाणां हे भोंवडेत वांटेकार जालीं. १५ नोव्हेंबर ते २२ नोव्हेंबर २०१२ मेरेन ही भोंवडी आसली. १५ तारकेक देवगिरी एक्सप्रेसींतल्यान आमी ठाणे ते निझामाबाद असो प्रवास केलो. ठाण्याच्या रेल्वे स्टेशनार भोंवडेक येवपी जायतीं सोयरीं मेळ्ळीं. तातुंतलेंच एक ठळक व्यक्तीमत्व म्हळयार म्हजो विलास मामा. म्हजे आवयचो मावसभाव भौ. विलास तोटे. पिराय ७२ वर्सां. एके नामनेचे कंपनींतल्यान मॅनेजराच्या हुद्द्याचेर रिटायर जाल्लो हो मनीस. खूब वर्सांनीं हांव ताका पळयतालें. वांगडा मामीय आशिल्ली. मामी मातशी जाण्टी दिसताली. पूण मामा! तो आशिल्लो तसोच. स फूट लांब, काटक, हास्याचो गडगड, चेऱ्यावेले मिश्कील भाव.... शाब्दीक कोटी करपाची ताका खूब आवड. म्हाका पळयनाफुडें ताणें म्हजे आवयक म्हटलें. 'गोव्याचे बिझी पार्सल आणलंत वाटतं सवड काढून फिरायला? आता हे पार्सल सहलीत माझ्याबरोबर राहू द्या म्हणजे मला गोव्याची थोडी माहिती मिळेल आणि आमंत्रण दिलं तर गोव्यालाही जाता येईल. आता काय आपल्याकडे वेळच वेळ आहे.'

हांवें ताका म्हणलें, 'तूं कांयच भियेवं नाका, आयच्यान भोंवडेचे सात दीस हांव तुजो कसो जीव खातां पळय.' फुडले सात दीस मामा मामी आनी हांव आमी खूब गजाली केल्यो. तातूंत ज्ञान, राजकारण, जनरल नॉलेज, काव्य, साहित्य, गणित, संगीत अशे सगले विशय आशिल्ले. विलासमामा म्हळयार गिन्यानाचें भांडार. ताचे जिबेरूच सरस्वती बशिल्ली. तो स्वता एक बरो संवादिनी वादक आनी गायक. भौ. सुधीर फडके हांचे वांगडा जायत्यो संगीत मैफिली ताणें गाजयल्ल्यो. खूबश्या कार्यावळींनी सुधीर फडके हांकां संवादिनीचेर साथ केल्ली. सुधीरजींच्यो कितल्योशोच यादी आनी संगीत मैफिलींतले किस्से ताणें आमकां सांगले. भोंवडेच्या निमाण्या रातीच्या सांस्कृतीक कार्यावळींतली संगीत मैफिल विलासमामाच्या भावगीतांनी इतली भावपूर्ण जाल्ली की रातच्या दोन वरांचेर लेगीत कोण न्हिदपाक वचपाक तयार नाशिल्लो. ७२ वर्सां पिरायेचेर ताचो तो भावपूर्ण आवाज सगल्या श्रोत्यांक संमोहित करून गेलो. हांवें



सोमतेंच विलासमामाक आमच्या सप्तकांत गावपाचें निमंत्रण दिलें आनी ताणें तें मानून घेतलें.

विलासमामाक लोक जोडपाक, तांचेकडेन उलोवपाक खूब आवडटालें. तो शब्द सम्राट आशिल्लो आनी आपल्या शब्द पुश्पांनी भोंवतणचें वातावरण सुगंधीत करतालो. ताच्या उतरांचो परमळ आयकतल्याच्या कानांमनांत सदांच उरतालो. ताणें म्हाका विचारलें तुवें कबीर वाचला? हांवें म्हळें 'हय'. तशें जाल्यार सांग पळोवया मनशान सुवार्थी आसचें न्हय, सदांच नमळायेन रावचें हें सांगपाक कबीरान खंयचो दोहा बरयला? हांव चिंतपाक उरलें. मामान म्हळें, 'शिक्षकांक इतलो वेळ लागूंक जायना. फटाफट येवंक जाय.' मागीर ताणेंच आपल्या गोड आवाजान तो दोहा म्हणून दाखयलो.

'मैना, मैं ना मैं ना करे
मीठे फल खाय
बकरा मैं मैं करे
सौ बार काटा जाय'

मामा सारको रसिक मेळटकच आमचे भितर मागीर शेर-शायरी, दोहे, विनोद आनी साहित्यीक भासाभास रंगताली. निमाण्या रातीच्या कार्यावळीचें निवेदन हांवें केल्लें. सुरवातीक तेलगू भाशेंतल्यान येवकार दिवपा खातीर एक वळ हांवें मामीकडल्यान बरोवन घेतली.

'नेनुई सायंत्रम मी अन्दरीकी इच्छा स्वगतम चेपूतुन्नानु' म्हळ्यार हांव 'ह्या सांज वेळार तुमकां काळजांत सावन येवकार दितां.' निवेदना पयली ही 'वळ' हांवें बरी पाठ केली तेन्ना मामान म्हळें, 'अर्थ समजून पाठ करता तें बरें आसा पूण ताचो 'टोन' तसोच येवपाक जाय नाजाल्यार 'एक देश की बोली दुसरे देश की गाली हो सकती है।' (मामी कडल्यान हांवेन आंध्रच्या टोनान ती वळ शिकून घेतली आनी हेर निवेदन हिंदींतल्यान केलें.)

हे म्हणणेचेर मामाकडल्यान कांय गजाली आयकुपाक मेळ्ळ्यो. ताणें म्हणलें 'बाई' हो शब्द कितलो म्हान आनी अर्थपूर्ण आसा तें आयक. साधारणपणान मराठींत बाई म्हणचे बायल. मागीर शाळेंतली बाई – ही गिन्यानी बायल, झाडूवाली बाई – ही साफसफाई करपी बायल. कोल्हापूराक 'बाई' म्हणचे लग्नाची बायल. 'ती माझी बाई आहे' म्हणचे ती म्हजी बायल. बाई शब्द कसो तयार जालो हें सांगतना ताणें सांगलें. बाबांतलें 'बा' आनी आईतली 'ई' मेळून 'बाई' हो भक्कम शब्द तयार जाला. देखूनच 'बाई' उतराक खूब म्हत्व आसा.

अशीच एक दनपार. जेवन आमी सगलीं एका फार्म हावसांत बशिल्लीं. एके बायलेन आपल्या भुरग्यांविशीं सांगतना विलासमामाक म्हणलें, 'माझी दोन्ही मुलं एकदम सरळ वळणाची आहेत.' तो हांसलो आनी म्हज्या कानाकडेन येवन म्हणपाक लागलो. 'ही बघ काय म्हणतेय. वळण कधी सरळ असतं काय?' हांव हांसलें. आमी कित्याक हांसतात तें बायलेक बाबडेक कळ्ळें ना. शाब्दीक कोटी करपांत विलास मामाचो हात धरपी थंय कोणूच नाशिल्लो. कोणूय जेवतना दिसलो काय मामा तांकां म्हणटालो 'तुम्ही सावकाश जेवा' आयकून आयकून म्हाका वाज आयलो. हांवें म्हळें तूं प्रत्येकाक हेंच कित्याक सांगता? तू 'सावकाश'चो अर्थ जाणा? ताणें विचारलें आनी जापूय दिली 'सावकाश' म्हळ्यार (स +अवकाश(जागो) चड पोटभरून जेव नाकात. पोटांत इल्लो अवकाश (जागो) दवरून जेवत जाल्यार भलायकी बरी उरतली अशें हांव चड जेवतल्यांक सांगतां. तांकां अर्थ खबर आसल्यार समजतलें. हांव ताका पळयतूच उरलें. आमी ट्रेनीचो एक डबोच 'बूक' केल्लो. येतना मामान त्या डब्याची संगीत मैफिल करून उडयली.

ट्रेनींत आपल्या जाग्यार वचून बसना फुडें ताणें म्हाका आनी मामीक आपले कुशीक जागो दवरलो आनी म्हटलें,

'जगह ऐसी पकडो, कोई न बोले ऊठ
बात ऐसी करो कोई न बोले झूठ'

सगलीं जाग्यार बसतकच मामान आपलो ल्हानसो डफ भायर काडलो. म्हाका आनी दोग तीग उमेदी मनशांक घेवन दर एकल्या मुखार वचून एक पद म्हणपाक लागलो 'नांव घ्या काका तुम्ही नांव घ्या काका, रूसू नका तुम्ही, लाजू नका गालांतल्या गालांत तुम्ही हसू नका' हीं उतरां आमचो कोरस आनी डफाच्या तालार म्हणीत दरेकल्याक ताणें उखाण्यात नांव घेवपाक लायलें. खूब मजा आयली. कितलेशेच उखाणे हांवें बरोवन घेतले. इतल्या जाणटेपणांत विलासमामाची उमेद तोखणाय करऽसारकी!

आनंदान कशें जगप हें कोणेंय विलासमामाकडल्यान शिकचें. ताकाच लागून ही भोंवडी अविस्मरणीय जाल्ली.





## मांयचो मोग

सुक्यो खोलियो
जिवीं आडारां दवरन
मांय
उजो फुंकता रांदणीक
धुंवर उटता
फुगासांवाचो
दुखां देंवतात
दणसल्ल्या जिवितार्ची
रांदणीर
शिंबरया भाशेन
कांट नातल्लो
काप्ये बुडकुलो
उशें गोडाची
धुंवर परमळची
पुटी काफी
मांय
चावलीनांत वोतून दिता
आनी हांव
वरसाक पानातलें बाळशें
आवयची चींव चिंवचेबरी
पियेतां
सुखाचें दूद
भरसून भरसून
निमाणो थेंबो परयांत!



– मेल्विन रोड्रीगस
मंगळूर
मो.:०९९८०१३६२९७

## कितले आमी चलताले

कितले आमी चलताले, आनी आतां उल्ल्या कितले
हिशेब आमी करचेना, आसा तितले चलतले

कवदे आमच्या हातांत आनी धग तांच्या काळजांत
पावलां आमी मारतले, आडखळूय हुपतले

उतरांचे इंगळे जाल्या, सुरांचो हुंवार आयला
आमी सगळे हुबतले, आमकां जाय ते बुडटले

मळबाचो आकांत आतां, शांत शांत जावंचो आसा
आत्मे आमी पेटयतले, आत्मरंग शिंवरतले

खंय मेरेन पावतले? हें बेस्स बरें आमी जाणां!
सगळे जंय पावतले, थंयच आमी जिकतले...



– आर. रामनाथ
एम–ओ–६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी – फोंडा, गोंय.
मो.:९८५०४५८७६३

## वाल्या कोळी

हें म्हजें घर
गांवय म्हजो
हो देश म्हजो
हें आंगण, झाडां पेडां
हे दोंगर, न्हंयो
हें मळबय म्हजें
हें सगळें म्हजेंच
हांगा जलमभर
मरसर काम करून जोडिल्लो
म्हजेकडेन
पन्नास लाखांचो बँक बॅलन्स आसा
भाटां आसात
दारांत फोर व्हीलर आसा
घरांत कलर टि. व्ही. आसा
लॅपटॉप, मोबायल, भांगर–शिंगर
खूब–खूब आसा
इतलें सगळें म्हजें आसून लेगीत
म्हजो पूत म्हजो ना!
म्हजी सून म्हजी ना!
म्हजेच नातू म्हजे नांत!
पुताकडेन येतले–वतले मनीस म्हजे नांत
पुतान मोगान पाळिल्ले सुणे
ते लेगीत म्हजे ना!
हांव विचार करतां
'एकविसाव्या युगांतलो
हांव 'वाल्या कोळी' जालों काय?'



– इंद्रजित गणपत घुले
मंगळवेढा, जि. सोलापूर.
मो. : ९४२३०६०११२/
९०२८८४७६२८
indrajitghule81@gmail.com

## देवतेची भेट

तुजे भेटेक येतना
दोळ्यांमुखार येता ती तुजी गर्भकूड
त्या थंड पेटपी दिवल्यांच्या उजवाडांत
मळवट भरिल्लें तुजें मुखामळ
तुजी मायेची नदर, तुजें मंद हांसप
सुवासीक फुलांचो परमळ
सगळो साज आंगार चडोवन
आंगभर न्हेशिल्ली तांबडी पाचवी साडी
तुजें हें साजरें रूप तानभूक विसरायता
दोळ्यांक आनी काळजाक थंडाय दिता
आनी तूं....
अशीच नदरेंतल्यान देंवून काळजा भितर बसता
तुजें नामस्मरण करतना,
अचकीत तुजें हें रूप दोळ्यांमुखार येता
तेन्ना मन सामकें धादोसता
नवरात्रांनी ढोल-ताशांच्या गजरांत
फुलांनी सजयल्ल्या मखरांत बसून
तूं धोलता तेन्ना -
सगळ्या दिकांतल्यान दिसता तुजें
हांसतें मुखामळ आनी तूं....
आमकांय धोलयता, तल्लीन करता
जात्रेच्या दिसांनीं -
व्हड्यांत बसून भोंवडी करतना
तुजें उदकांतलें रूप पळोवन अप्रूप दिसता
रथांत बसोवन -
तोंडांत तुजो जप करत तुका नाचयता तेन्ना
तुजे वांगडा नाचन दिसता
काम-क्रोध-लोभ-मत्सर गळून पडटा
लीन जावन तुका शरण येतना
मनांक खूब खोस भोगता
तुजे वांगडा धोलतना, नाचतना
अहंकार पळून वता आनी
उक्त्या मनान तुका भेटतना
मन सामकें धादोस जाता
देवतेची भेंट अशी...
तना-मनांत रीगत वता...

**- सुषमा तिळवे**
जेसी नगर,
फोंडे - गोंय.
मो. : ९८२३०५५७५१



## गझल

आयलें तें मोव नकसूद हांसोवन गेलें
पेखतालो घाय पर्थून उसोवन गेलें ।

बागेंतलें फूल कशें ताका रुपाचें देणें
भर पावसांत काळजाफूल सुकोवन गेलें ।

दुसऱ्याचें जालें म्हूण खबर दिली ताणें
मनाची सोशीकसाण वाडोवन गेलें ।

मेळपाचें आसल्यार येतालें कविता कशें
मारून जिवाक ही गझल भेटोवन गेलें ।

तुमी वगीच म्हणटले म्हाका फटोवन गेलें
मतींतल्यो यादी अदीक रंगोवन गेलें ।

सोबीत हाशांत निमणें मोग शेणिल्लो दिसलो
भोगलें हिशेब जल्माचो सोपोवन गेलें ।

**- महेश पारकार**
शिरोडे - गोंय

## खिणा खिणाक

एक खीण तूं म्हज्या सपनांत येता
दुसऱ्याच खिणाक तूं नाच्च जाता
दर खिणाक दिसता म्हाका
आमचें कसलें तरी नातें आसा

स्वास घेतना तुजी याद येता
न्हिदतना तूं सपनांत येता
फुलांत तुजी सावळी जाल्यार
चंद्रांत तुजें मुखामळ दिसता

खिणा खिणाक हांव सोदतां तुका
जिणेंत म्हजे आशेतां तुका
पावला पावलार तुजींच चिंतनां
दोनूय दोळ्यांत तुजींच सपनां

**- शुभा दिलीप बरड**

बोर्डा,
मडगांव - गोंय.
फोन : २७३८६१३

नाट्य

# सांजवातीक संजीवन

- रेखा फेणे

लक्ष्मी आजी : अंयो ऽऽ यो गे. मेलें गे. शांताबाये ऽऽऽ यो गे धावन. हांव पांय निसन्न पडलां न्हाणेंत.

**(सून धावन येता. मांयली अवस्था पळोवन भिवन वता.)**

शांताबाय : आई, कशी पडली तूं? कपलाक बी कितलें लागलां. विकास, सुकन्या धांवत येयात गो. तुमची आजी मान्यांत पांय निसन्न पडल्या पळय.

**(दोनूय भुरगीं धांवत येतात आनी तिगांय जाणां आज्जेक न्हिदपाचे कुडींत व्हरतात. ती सारकी दुखता म्हण आइडता.)**



विकास : आज्जे, भिंवनाका हां. हांव आतांच बाबाक फोन कन्न आपयतां. **(मोबायलावेल्यान फोन करता)** हॅलो, बाबा, आज्जी न्हाणेंत पांय निसन्न पडल्या. कपलाक कोंक जाल्या आनी जांगेक बी हात सुध्दा लावपाक दिना.

सुकन्या : **(विकासाच्या हातांतलो मोबायल काडून घेवन आपूण उलयता)** बाबा, तूं बेगी यो आनी येतना दोतोराक घेवन यो.

**(तिगांय जाणां आज्जेचे कोकींतलें रक्त पुसतात आनी आयोडीन लावन हेर मलम लावन पट्टी बांदतात. पांयाक तर हात सुध्दां लावपाक दिना. सारकी आइडेता. थोड्या वेळान मोहनराव दोतोराक घेवन येता. दोतोर तिका बरो कन्न तपासता. जांगेक, मनगटाक हात लायल्यार ती आइडेता.)**

दोतोर : मोहनराव, जांगेच्या आनी मनगटाच्या हाडाक फ्रॅक्चर जालां अशें दिसता! आतांच आसपत्रेंत व्हन्न एक्स-रे काण्ण घेवया.

देखाव दुसरो

**(लक्ष्मीबायक आस्पत्रेंत घेवन येतात. थंय आज्जेचो एक्स-रे आनी हेर सोपस्कार जातात. तिका एके खाटीर न्हिदोवन बॅंडेज, इंजेक्शन, वखदां बी दितात.)**

मोहन : कितेंय करात दोतोर. कितलेय पयशे पडूं दीत. पूण तिका हांगा दवन्न बरें करात.

दोतोर : मोहनराव, तुमचे आवयक पंदरा दीस तरी हांगा आस्पत्रेंत रावपाक जाय. तिजें सांज सकाळ वखद विरसद, इंजेक्शनां, बॅंडेज आनी हेर कितें कितें करपाचें आसा. घरा असलीं कामां जावपाचीं नांत. हांगा नर्सी आसात आनी दिसभर तिजे लागीं एक मनीस जाय. मागीर मात तिका घरा व्हरचें पडटलें. बॅंडेज करपाक, इंजेक्शन दिवपाक बी हांगची एक नर्स येतली.

मोहन: बरें आसा दोतोर. तुमचेर पुराय विश्वास आसा.

शांताबाय : दोतोर, घरा व्हेल्यार तिजी अशी सेवा करपाक कोणच ना. तिजी सेवा करपाक, जेवण लावपाक, न्हाणोवपाक, बेडपॅन दिवपाक म्हज्यान एकट्याच्यान जावचें ना. तिजी सेवा करपाक कोणी मेळत काय?

दोतोर : कित्याक, पयशे दिल्यार तुमची वावराडी करची ना?

शांताबाय : आमची वावराडी? बेडपॅन दिवचें, न्हाणोवची वगैरे कामां ती करतली? शिवाय तिचीं स-सात कामां आसात. घरांत घोव आनी शाळेंत वतलीं दोन भुरगीं. तिका वेळच मेळना. तुमकां खबर आसा दोतोर ह्या दिसांनीं घरांत रावपाक कोणच तयार जायनांत. भायर कामां करतात.

विकास : आई, आज्जेच्या हाताक धन्न आनी व्हील चेराचो आदार दिवन तिका मदत करपाक जायना गे तुका? आमी दोगांय बी आसात मगे.

शांता : म्हज्यान कशें जातलें रे विकास? पयलींच म्हाका फाटीचो आनी व्हरटिगोचो त्रास आसा. तातूंत आनी हांव शीक जावन पडल्यार जालें. घरांतलें काम कोण करतलो?

सुकन्या : आई हांव तुका मदत करीन गे. घरा आयल्यार आज्जेक खुशी जातली. विकास तिका पेपर बी वाचून दाखयतलो. न्ही रे विकास?

शांता : कितें? सुकन्या, तूं आज्जेलें काम करतलें? ह्या वर्सा तुजी एस. एस. सी. तुका ९०% मार्क मेळपाक जाय. एम. बी.

ए. करचें आसा मगो तुका? तुजो अभ्यास, ट्यूशन हातुंतल्यान तुका वेळ खंय मेळटलो? आनी विकासाली तर १२वी. मेडिकलाखातीर तयारी करपाक जाय ताणें.

**मोहन** : दोतोर एकाद्री घरा रावपाक नर्स बी मेळत? आतां पासूनच सोदून दवरपाक जाय म्हूण म्हणटां. आईची अवस्था पळोवन भंय दिसता. कितें करचें?

**दोतोर** : मोहनराव, अशें एक ठिकाण आसा. त्या संजीवनविशीं हांवें खूब आयकलां. आनी थंयच्या बऱ्या वेवस्थेविशीं वाचलां. थंयचीं काम करतलीं, जावं नर्सी, पेशंटांची बरी काळजी घेतात म्हण आयकलां.

**मोहन** : खरें? खंय आसा तें? हांव आतांच कळोवन दवरतां.

**दोतोर** : नागेशी, 'संजीवन आरोग्यधाम' म्हण एक संस्था आसा. थंय अशा पेशंटांक बी दवन्न घेतात. तांची सेवा बरीकन्न करतात. जायनाका पळयतात. गरज आशिल्ल्याक न्हाणोवपाचें, केंस वळोवचे, टॉयलेट व्हरचें अशीं जायतीं कामां नर्सी करतात. शिवाय दिसाआड दोतोर येता पळोवपाक. तुमी चौकशी कन्न पळयात.

**मोहन** : थँक्यू दोतोर. हांव फाल्यां सकाळींच वतां चौकशी करपाक. पणजेच्यान फोणे काय पयस ना.

**देखाव तिसरो**

**मोहन** : हॅलोऽऽ नमस्कार हांव मोहनराव धायमोडे. पणजेच्यान उलयतां. संजीवन आरोग्यधाम न्ही? हांव संजीवनच्यो संचालिका आशा सावर्डेकाराकडेन उलोंवच्याक पळयतां.

**आशाताई** : नमस्कार, कोण उलयता? कित्याक फोन केल्लो?

**मोहन** : नमस्कार मॅडम. म्हजी आवय जांगेचें हांड फ्रॅक्चर जाल्लेखातीर तिका आस्पत्रेंत हाण्ण पांय प्लास्टरांत घाला. म्हयनोभर जाला. आतां ती बरी आसा. पूण तिका स्वताचीं कामा करपाक दुसऱ्याची मदत लागता. म्हज्या घरांत तिची दिसभर रावन सेवा करपाक कोण ना. आमी आयकलां कीं तुमच्या आरोग्यधामांत तशी सोय जाता. तर तुमची संमती आसल्यार आस्पत्रेंतल्यान तुमच्या रिकव्हरी धामांत हाडूं काय म्हण विचारतालों.

**आशा** : बरें. पूण पयलीं हांव मुख्य नर्सीक धाण्ण तिची अवस्था जाणून घेवपाक सांगतां. ती पळोवन सांगतली हांगा हाडपाक.

**मोहन** : बरें तर. थँक्यू आशाताई.

**देखाव चवथो**

**(लक्ष्मीबाईक संजीवनांत हाडटात. संजीवनची वेवस्था वगैरे पळोवन सगळ्यांक समाधान जाता)**

**शांता** : सगळें बरें आसा न्ही? खोली स्वच्छ, हवेशीर, बाथरूम, संडास, उजवाड, वारो येवपाक बी व्होड खिडक्यो. भोंवतणचीं झाडां बी बरीं दिसतात.

**सुकन्या** : आई, हे दुसरे खाटीर कोण आसा गे?

**आशा** : ती एक अशीच ७०-७५ वर्सांची बायल आसा. तिका तसो व्हडलो त्रास ना. पूण बारीक सारीक कामाक नर्सीची गरज लागता. कांय वेळार याद बी विसरता म्हण तिचे सुनेन तिका हांगा दवरल्या. तुमचे आवयक बी बरी जाग जातली. आतां कसलीच काळजी करूं नाकात तुमी. मदीं मदीं फोन कन्न चौकशी मात करात तिजी. गरज लागल्यार आमी फोन करून कळोवं!

**मोहन** : बरें तर आशाताई. तुमच्या खातीर आमची चिंता मिटली. देव तुमकां बरें करूं. तुमगेल्या कामाक शुभेच्छा!

**(सगळे वतात. आतां खोलींत दोगीच जाणी उरतात.)**

**लक्ष्मी** : तुजें नांव कितें गे? तूं खंयची?

**सीताबाय** : हांव म्हापशेचीं. म्हाका सगळीं हांगा सीता आजी म्हणटात. म्हज्या चल्याचें नांव रामचंद्र.

**लक्ष्मी** : तूं कित्याक लागून हांगाआयल्या? घरांत कोणकोण आसात?

**सीता** : म्हजो चलो रामचंद्र, सून, एक नातू आनी दोन नाती. एके नातीचें लग्न जालां. म्हज्या घरकाराक वचून दोन वर्सां जालीं. आनी म्हाका संजीवनांत येवन स म्हयने जाले.

**लक्ष्मी** : आतां तूं हांगाच रावतली काय कितें? तुका घरा वचन अशें दिसना? तूं तर बरी जाल्या.

**सीता** : ना गे बाये. आतां म्हाका सुने म्हऱ्यांत वचन अशें दिसच ना. थंयचो सामको वीट आयला. हांगा समाधान आनी शांती मेळटा ती थंय ना. आतां हेंच म्हजें घर. देव आपयता तेन्ना हांगासून वयर वचपाची वाट पळयतां. हांगा म्हजे वांगडा उलोवपाक बी ह्यो बायलो आसात.

**लक्ष्मी** : कित्याक गे बाये? जिवाक अशी बेजारल्या?

**सीता** : कितें सांगू तुका लक्ष्मीताई? म्हाका सगळें आसा गे. हांव एके शाळेंत शिक्षिका आशिल्लें. म्हाका पेन्शन बी मेळटा. म्हज्या घरकारान बी म्हज्या नांवार पयशे दवरल्यात.

**लक्ष्मी** : मागीर? तुजे हातपांय बी घट्ट आसात. तुका वाचपाक बी दोळ्यान दिसता आनी हेर कसलोच त्रास ना. आतां हांगा कित्याक रावता?

**सीता** : खरें सांगूं तुका लक्ष्मीताई? आतां म्हजे सुनेक हांव अडचण अशी दिसता. म्हजो पयसो अडको जाय. पूण हांव नाका.

**लक्ष्मी** : अशें जालें कितें गे तर?

**सीता** : आगे म्हजी सून म्हजेलागीं उलोवपाचीच ना. कितें सांगल्यार वसकन्न आंगार येतली. म्हज्या पुतान, म्हळ्यार तिज्या घोवान म्हजेलागीं दोन उतरां उलयल्यार देकील तिका राग येता. सदां म्हजो दुस्वास! म्हजे विरुध्द बी घडोवन सांगून घोवाचें मातें फिरयताली.

**लक्ष्मी** : तुवें भाजी शिंदची, कपड्यांच्यो घडयो मारच्यो अशीं ल्हान ल्हान कामां करचीं. म्हळ्यार सुनेक तितलीच मदत जातली न्ही गे? मागीर घरांत बी खुशेन रावतली.

सीता : तुका दिसता हांव असलीं कामां करनाशिल्लें म्हण? खरें सांगतां तुका लक्ष्मीताई, म्हाका ती कित्याकच हात लावपाक दिना आशिल्ली. भाज्यो शिंदच्यो जावं कपड्यांच्यो घडयो करच्यो, मेजार प्लेटी, कपबशी दवरच्यो ना जाल्यार कोथिंबीर, मेथयेची भाजी अशी नीट करची. अशीं कितलींशींच कामां आसात जीं म्हज्यान करपाक जातात. पूण हांवें कित्याकच हात लायिल्लो सुनेक आवडनाशिल्लें.

लक्ष्मी : तुका जेवण, नाश्ता तरी वेळार दितालीं मगे?

सीता : तिणें दिल्लें तेन्ना जेवपाचें आनी खावपाचें. तें लेगीत मोन्यानच.

लक्ष्मी : चलो कांय विचारिनाशिल्लो? तुजे लागीं मायेन दोन उतरां उलोवपाक तरी येतालो? खंय देवळांत बी व्हरतालो?

सीता : कसलें देऊळ आनी कितें? खंय वचपाचें ना आनी येवपाचें ना. चलो तर सारखो कामांत आनी फिरत्येर. घरा पावतालो तो बी रातचो णव-धांक. येतकूच विचारतालो मात, 'आई बरी आसा मगे? वखदां बी समा घेता मगे? कितेंय लागल्यार रजनीक सांग.' अशें म्हण्ण आपले कुडींत वतालो. पेपर वाचपाक आनी बायलेकडेन खबऱ्यो करत न्हिदचें.

लक्ष्मी : नातू-नात बरीं करतात मगे?

सीता : नात मात्शी खबर करता आनी मागीर दीसभर आवयच्या फाटल्यान ना जाल्यार टी. व्ही. आनी मैत्रिणीं बरोबर. नातवाक तर अभ्यास आनी क्रिकेट खेळा मुखार वेळच मेळना.

लक्ष्मी : वखदां बी वेळार हाण्ण दितात मगे?

सीता : तीं हाडून दितना लेगीत खूब खळखळ. हें म्हारग, तें म्हारग म्हण. पयशे म्हजे. पूण हात उकलून हांव कोणाक कांय दिवपाक शकना. वावराडेक देकीन पांच पयशे दिल्यार राग येता तिका. सगळो हिशोब मागताली. एकाच जाग्यार बसून वाज येतालो गे. केन्नायतरी कितें खायन दिसता, कोणाकय हात उखलून दीन दिसता. पूण कोणाक सांगतलीं. शेजारचीं जावं वळखिचीं कोणी मेळपाक आयल्यार सुध्दां कोणाच्यो खबरो करतात म्हण संशय! परत परत कसलेंय निमित्त काडून आमी बशिल्लेकडेन येताली. बेजार आयिल्लो गे. पूण देव मंगेशाकच म्हजी काकुळट आयली आनी म्हाका ह्या घरांत हाडलें.

लक्ष्मी : तर मागीर तूं हांगा कशी आयली गे?

सीता : एक दीस म्हजे सुनेची मैत्रीण तिका मेळपाक आयिल्ली. तांच्या महिला मंडळान काश्मिराक वचपाचें थारायिल्लें. म्हजे सुनेक बी येवपा खातीर विचारपाक आयिल्ली. ती रोखडीच तयार जाली वचपाक. भुरग्यांक बी सुटी सुरू जाल्ली. सगळ्यांनी खूश जावन वचपाचें थारायलें.

लक्ष्मी : तूं बी तांचे वांगडा गेली काय कितें?

सीता : शी गे बाये. म्हाका व्हरतात तीं? मैत्रीण सुधानच सुचयलें संजीवन विशीं आनी सुनेन घोव येतकच ताका विचारून लागोलाग चवकशी केली आनी आठ दिसांभितर हांगा पावयलें आनी तीं काश्मिरा वचपाक मेकळीं जालीं.

लक्ष्मी : आतां कशें दिसता तुका हांगा? बरें दिसता?

सीता : एकदम बेस. सगळें स्वच्छ, हवेशीर कूड, न्हावपा जेवपाचो त्रास ना. सगळें वेळचे वेळार. एका वेळार दूद बी दितात. उपवासाचे दीस सोडल्यार नुस्तें बी आसा. जेवण-खाण रूचकर. मदत लागल्यार नर्सी आसात. दिसाआड दोतोर येता. सगळो स्टाफ बी प्रेमान चौकशी करता. मुख्य म्हळ्यार बरोबरच्या बायलां बरोबर उलोवपाक, गजाली करपाक वेळ बरो वता. म्हयन्या म्हयन्या पयशे भरल्यार जाले. तूं बी हांगा सुशेगात राव. आतां आठ वाजतना जेवण हाडटलीं. जेवया आनी न्हिदुया. कुडी भायर हॉलांत टी. व्ही. आसा. जायजाल्यार पळोवंचो.

सीता : तुजी सून, नातरां कशीं आसात गे? तूं हांगा रावतली मगे?

लक्ष्मी : बरीं आसात गे. पूण घर तें घर न्ही? म्हाका म्हगेल्या नातरांची खूब याद येता. तीं दोगांय म्हजेर खूब माया करतात गे.

सीता : खरें? कशीं आसात तीं?

लक्ष्मी : म्हजे सुनेक म्हजी अडचण दिसली तरी म्हज्या दोनी नातरांक म्हजेर खूब जीव. म्हजेकडच्यान रामायण-महाभारतांतल्यो काणयो आयकुपाक नात सुकन्या येतालें. आपणाल्या शाळेंतल्या मैत्रिणींच्यो गजाली सांगतालें. केन्ना केन्ना तेल घालून घेवन केसांची फाती घालून घेतालें. नातू विकास तर कॉलेजांतसून आयल्या उपरांत म्हजेकडेन बसून च्या पितालो. खावच्याक खातालो. आपले प्लेटींतलें म्हाका थोडें दिवन हांवें खावचें म्हण हट्ट धरतालो.

सीता : खरें? खूब बरीं मगे तुजीं नातरां. अपुरबायेचीं आसात.

लक्ष्मी : विकास तर खूब वेळां वर्तमानपत्रांतल्यो बातमी आनी हेर खबरो वाचून दाखयतालो आनी जाणां मगे सीताताई, दोगांनी म्हजेकडच्यान व्यंकटेशस्तोत्र आनी कांय श्लोक बी शिकून घेतल्यात.

सीता : सुनेक बरें दिसतालें गे नातरांनी तुजेलागीं बसून खबरो केल्ल्यो?

लक्ष्मी : नातरांच्या मुखार सून कांय म्हणूंक शकनाशिल्ली. तिजी भयण आयल्यार मात तिजें खुबतालें. भुरगीं शाळा कॉलेजींत गेल्या उपरांत म्हजो कसोय अपमान करचो. आनी घोव आयल्या नंतर म्हजे विरूध्द कागाळी करच्यो. पूण तो

आयकून गप रावतालो. सूनेक मात ही म्हातारी केन्ना एकपटी पयस वतली अशें जातालें.

**सीता** : आतां गे? घरा गेल्यार कशें जातलें तुजें? नातू तर मुखार शिकपाक दुसऱ्या शारांत वतलो. आनी नात बी भायर वतली मगे?

**लक्ष्मी** : हय गे. नात मुकाल्ल्या वर्सा मणिपाल वतली म्हण आयकलां. आनी विकासालें पुण्यांत वचपाचें थारलां. आतां तांचे बगर म्हजें कशें जातलें हीच चिंता म्हाका. नाजाल्यार हांगाच धाडटलीं तीं म्हाका.

**(मोहनराव, शांताबाय, विकास, सुकन्या येतात.)**

**मोहनराव** : आई आतां कशें दिसता गे? बरी आसा न्ही?

**शांता** : तुजे तब्बेतींत बरीच सुदारणा दिसता न्ही? पूण तूं चलपाचो बी त्रास घेवनाका हां. कितेंय लागल्यार नर्सीक आपय.

**सुकन्या** : आतां बेगीच घरा वचुया हां.

**शांता** : आतां म्हाका कसलीच काळजी ना. आमी आशा मॅडेमीक सांगून तुजी हांगा रावपाची वेवस्था करूंक सोदतात आनी आई म्हाका सांगपाक खुशी जाता, आमी सगळ्यांनी मुकाल्ल्या म्हयन्यांत युरोपाच्या टुराक वचपाचें थारायलां. तूं हांगा संजीवनांत आसा म्हण आमकां कसलीच काळजी ना. निश्चित मनान आमी वचूंक शकतात.

**विकास** : आई, आज्जेचे भयणीचे चलयेन आमी गेल्यार हांगा येवन रावपाचें आज्जे सांगाता अशें सांगिल्लें न्ही गे? दोगांचें बरें जमता. शिवाय रांदच्याक आनी हेर कामांक बी वावराडी येतली न्ही? आमी फक्त बावीस दिसांनीं तर परत येतलीं.

**सुकन्या** : हय आई, आज्जेक घरा येतकच आनी बरें दिसतलें. म्हाका मणिपाल वचपाक अजून दोन वर्सां आसात. युरोपांतसून परत येतकच म्हाका थंयच्यो खबरो आज्जेक सांगपाच्यो आसात. आतां ती पुराय बरी जाल्या न्ही आज्जे?

**विकास** : व्हरुया मगे तिका घरा? म्हाका तिचेकडच्यान अपुरबाय कन्न घेवपाचें आसा. मांडयेर न्हिदून माथ्यार तेल घालून घेवपाचें आसा.

**शांता** : गप रे. पुरो तुजी तोखणाय, तिका कशें सांबाळचें हें तुका कळपाचें ना. आई भिवनाका हां. सगळें समा जातलें. बरें येतात तर आमी. काळजी घे.

**(मोहन आशाताईकडेन उलयता. सुकन्या आनी विकास बाजूक वचून एकामेकांकडेन उलयतात.)**

**सुकन्या** : विकास, आईबाबान अशें करपाचें न्ही. न्ही रे? आज्जेक घरा येवपाचें अशें दिसता आनी आतां ती बरी बी आसा. आमगेली टूर जाल्या नंतर आमी बावीस दिसांनी तर येतलीं! हांगा तीं सुशीला मावशे सांगाती आनंदान रावताशिल्ली.

**विकास** : सुकन्या हांवें बाबाक आनी आईक उलयतना आयकलां. आतां सदांच आज्जेक संजीवनांतच दवरपाचो तांचो विचार आसा. हांगा सगळी वेवस्था बरेभशेन जाता आनी हांकां बी खंय वचपाक बी सुशेगात मेकळीक मेळटली अशें. तांचो हो विचार म्हाका मात लेगीत आवडलो ना गो. बिचारी आजी.

**सुकन्या** : खरें? तिका हांगाच दवरतलीं? विकास, हें बरोबर न्ही रे. ती बाबाची आई न्ही रे? आमकां कितलो आदार जाता तिजो. आनी ती आमचेर कितली माया करता!

**विकास** : म्हाका तिणें मोग केल्यार बरें दिसता. आनी तिजो कसलोच त्रास ना.

**सुकन्या** : आई-बाबा कितलेशा वेळा घराभायर उरतात. आईचें महिला मंडळ, किटीपार्टी हातुंतल्यान आमचेकडेन पळोवपाक वेळच ना तिका. त्या दिसा म्हाका माथें उसळून ताप आयिल्लो. क्रोसिनची गुळी दिवन आनी पांगुरचें घालून महिला मंडळाची मिटींग आसा म्हण गेली. म्हाका खूब रडपाक आयलें. आज्जेक कळल्याभितर म्हजेकडेन येवन बसली आनी तकली पोशेत बसली. कितलें बरें दिसलें.

**विकास** : आनी बाबाक तर ऑफिसाचें काम, रोट्री क्लब, मित्र हातुंतल्यान वेळच मेळना. म्हज्या अभ्यासाची देखील चौकशी करपाक. म्हजे अभ्यासांतले ९०% मार्क पळोवन म्हज्या मित्राच्या आईबाबान म्हजी कितली तोखणाय केली. बाबान मात म्हळें छान आसा. अशेंच मेळय यश. आज्जेन मात देवाकडेन साकर दवरून आपणाली खुशी उक्तायली.

**सुकन्या** : हय रे! कितलो आदार दिसता आज्जेचो. खरें सांगू विकास तुका? आईबाबा बी म्हातारीं जातकूच तांकां बी वृध्दाश्रमांत धाडून दिवपाक जाय. तेन्ना कळटली तांकां भुरग्यांची माया. आपूण रोयता तेंच उगवता हे म्हणीचो अर्थ कळटलो तांकां तेन्ना. विकास, हांव मरे म्हजे सासूक केन्नाच पयस करपाचें ना. म्हाका जायना जाल्यार तिजी सेवा करपाक कोणाकतरी दवन्न घेतलें. जाता तितलें घरांतच करतलें.

**विकास** : आमकां आज्जेन पुंडलिकाली काणी सांगिल्ली याद आसा मगो? ताणें आपले आवय बापायली कशी सेवा केली तें? देव विठ्ठलरखुमायेक आपूण आवयबापायले पांय चेपता म्हण भायरच विटेचेर उबे रावयले वाट पळेत आनी ताजी आवयबापायवयली माया पळोवन पांडुरंग बी खुशी जालो आनी ताजेर प्रसन्न जालो.

**सुकन्या** : हय. श्रावणबाळान तर आपणाल्या कुड्ड्या आवयबापायक तांच्या म्हातारपणांत कावडींत बसोवन आनी कावड खांदार मारून तिर्थयात्रा घडयली आनी हांकां आज्जेक घरांत दवरून घेवपाची म्हळयार अडचण दिसता. तरी घरांत सगळी वेवस्था आसा म्हण बरें.

(तीं दोगांय उलयतना आवय–बापूय आयकतात आनी तांचे दोळे भरून येतात. तांकां आपणाली चूक कळटा. मोहनराव विकासाक वेंगेत घेता.)

**मोहन** : विकास, सुकन्या चुकलें रे आमचें. तुमकां कळटा तें आमकां कळ्ळेंच ना पळय. तुमी आमचे दोळे उक्ते केले. हांव फाल्यांच आईक हांगच्यान घरा व्हरतां पळय.

**शांताबाय** : हांव बी एक दीस म्हातारें जातलें. तुमचीं उतरां आयकून जाणवलें गो. भुरग्यांनो तुमी आवयबापायचें म्हत्व समजायलें. आज्जेक फाल्यांच घरा हाडया. जाल्यार युरोपा वचपाचें बी रद्द करुया. आई म्हाका माफ कर. हांव चुकलें.

**लक्ष्मी** : शांताबाय, बरें दिसलें गे आयकून पूण तुमी युरोपा वचपाचो बेत रद्द करूं नाकात. हाव रावन हांगा सुमनाचे चलये सांगाता. कसलीच चिंता करूं नाकात. तुज्यो मैत्रिणी बी हांगा आसात लागल्यार.

**मोहन** : हांवें सकला वाचलां. वाचून खूब बरें दिसलें. 'सांजवातीक संजीवन' तुमकां खबर आसा भुरग्यांनो? सांजवात म्हळ्यार? फाटल्या काळांत विजेचे दिवे नाशिल्ले बटण अडचून उजवाड करपाक सांजेवेळार. तेन्ना सांजेवेळार काळोख पडच्याक लागलो की उजवाडा खातीर पंटेंत वात पेटोवन तेल घालून घरा मुखार दवरताले. ताच्या मंद उजवाडांत भोंवतणी घर शांत आनी प्रसन्न दिसतालें. ती पेटोवन उजवाडासाठी तेल जाय. तशेंच वयस्क गरज आशिल्ल्या बायलांक आयुश्याच्या सांजवेळार मात्सो आनंदाचो उजवाड जाय. तर तांगेल्या आयुश्याचे सांजवातीक पेटोवन उजवाड हाडपाक संजीवनरूपी तेलाची गरज आसा. ती गरज ह्या संजीवन आरोग्यधामान पुराय केल्या. आयुश्याच्यो अखेरेच्यो घटका सुखासमादानान घालोवपा हांगा मेळटा. तेन्ना हांव सगळ्या भुरग्यांकडेन मागतां की तशीच गरज आसल्यार तुमचे आवय बापाय खातीर आशाताईच्या ह्या संजीवन आरोग्यधामाचो आदार घेवंचो आनी जांचीं म्हातारे आवय–बापायक सांबाळची ताकद आसा ताणीं आपणाल्या आवय–बापायक केन्नाच पयस करपाचें न्ही. म्हातारे आवयबापायली सेवा हीच परमेश्वराची सेवा अशें समजचें. सगळ्यांक देव बरी बुध्द दीवं. बरें आई आमी फाल्यां सकाळीं येतात तुका घरा व्हरपाक.



**– रेखा फेणे**
संजीवन, नागेशी,
बांदोडा, फोणे – गोंय.

# दिका

*तेरेजान गांवा पासत कितें तरी करपाचें उद्दीश्ट मनांत घेतलें आनी अस्तुऱ्यांक एकठांय करपाच्या हेतान घरांतल्यान भायर सरलें. एकूय अस्तुरी तेरेजाचें आयकूंक तयार ना जाली. तें निराश जालें आनी घराकडे परतलें. सांतान ताका हांसूंक लागलो. तेरेज रडूंक लागलें.*




**विन्सी क्वाद्रुस**
'स्नोज कृपा'
आर्ले राय,
सालसेत-गोंय
मो. : ९८२२५८७४९८




# आव्हानात्मक वृत्ती

"बाय हेजल, आज जायना गो म्हज्यान, मात्शे कपडे घांसून दी. हांव मागीर उदकांत काडटां ते." एके जाण्टे अस्तुरेन आपले धुवेक सांगलें. तीं एका मागाशिल्ल्या गांवांत रावतालीं.

"म्हज्यान बरें जाता दिसता!" तें तोंड वांकडे करून कुशीन सरलें.

"हांव घांसून दिवं मांय?" तेरेजान विचारलें. तें शेजारच्या घरांतली सून, तांगेर च्या पालो व्हरूंक आयिल्लें. सादारण शिकिल्लें आनी चार-चौगां मदीं भोंविल्लें. पूण ह्या गांवांत लग्न जावन येयत पासून घरांतली गाय जाल्लें.

"उपकार जायत बाय. शिंयांत हात सारकेच फुट्टात कशे मुगो." तिचे हात सुजिल्ले आनी सामकेच ताण जावन आसले. तेरेजान कपडे घांसूंक सुरवात केली.

तांचो गांव एक अविकसीत गांव. सरकारानूय त्या गांवचेर आडनदर केल्लें सारकें. भुरग्यां खातीर फक्त मुळावी मेरेन शाळा आसली. जाका मुखार शिकूंक जाय आसलें ताणीं सात किलोमिटर पयस चलून वचूंक जाय आसलें! सदां बशीक दिवपा इतले पयशे आशिल्ले थोडेच मनीस त्या गांवांत रावताले. जायत्या जाणांच्यान घडटालें पूण तांकां दुरदीश्ट नाशिल्ल्यान मुळावें शिकप जातच भुरग्यांक आपल्या बराबर शेतांत वा गोरवां राखूंक बी व्हरताले. दुदाचो वेवसाय जायत्या जाणांच्या घरांत चलतालो. आपल्या गांवां बगर दुसऱ्याय गांवांत दूद विकून थोडे पयशे करताले. तांच्या गांवांत उदकाचो मात उणाव आसलो. देखून गोरवांक चरोवंक दुसऱ्या गांवच्या दोंगराचेर व्हरचीं पडटालीं. गांवांतल्यान व्हांवपी एकूच न्हय कोणें तरी दुसरे वाटेन वळोवन सुकोवन उडयल्ली. फकत पावसाच्या दिसांनीं गांव हरयाळीन भरतालो आनी जसो जसो पावस वता तसो तसो गांव करडो-सुकिल्लो जातालो. म्हण थंयचो लोक, थोड्या काळा भितर पिकपी शेत रोयतालो. थोडो लोक नाचणे रोयतालो. शेणा-थापयो करून विकप होय थोड्या लोकांचो धंदो आसलो. इतले कश्ट करून पासून तांचें जिवीत वयर सरनासलें. वेंचणूक जाहीर जातच मात उत्साह भितर सरतालो. परकी मनीस तांची खबर घेवंक येताले. जाय नाका तें दिताले आनी वेचणूक सोंपतकच सगळें विसरताले. गांवच्या दादल्यांचो कसो तरी वेळ पासार जातालो.

पूण अस्तुऱ्यो? ताणीं फक्त घरांतलें काम करप. सणां-परबां वेळार मात तीं अती आनंदीत आसतालीं. थोड्यांच्या घरांत आतांच टि. वी. आयिल्लो, तोय जाल्यार कोणाच्या तरी मनांत केबल-वेवसाय करपाच्या विचारान. मोबायलानूय रीग घेतिल्ली. ह्या खातीर थोडे मोबायल घेवन झेत मारताले. घराकडे किते आसूं वा नासूं, मोबायल घेवन भोंवलो म्हणटकच तो प्रतिश्ठीत अशें मानताले.

"देव बरें करूं बाय. घे हो च्या - पालो व्हर." हेजलाचे आवयन तेरेजाचे उपकार मानले आनी ताका च्या-पालो दिलो. तें हांसलें आनी आपल्या घरा वचपाक वळटांच ताची नदर मेजार पडून आशिल्ल्या एका दिसाळ्याचेर गेली. ताणें तें हातांत काडलें. ताचेर एके अस्तुरेचो फोटू आसलो, तो ताका वळखिचो दिसलो. तें ती बातमी वाचूंक लागलें.

"बाय तो पेपर आज हाडूंक ना. तो केन्नाचो तरी." हेजलाचे आवयन सांगलें. ताणें तिचेर लक्ष दिलें ना.

"हो पेपर हांव घरा व्हरूं?" तेरेजान परवानगी मागली आनी दिसाळें घेवन घरा गेलें.

ताच्या कुळारच्या एका महिला मंडळान केल्ल्या उत्कृश्ट कार्याची ती बातमी वाचून तेरेज खूबूच खुशाल जाल्लें. लग्ना आदीं तेंय त्या महिला मंडळाचें वांगडी आसलें. ताणें बेगी-बेगीन कपडे बदल्ले आनी तें भायर सरलें.

"खंय चल्ली आमची सवारी सजून - धजून?" ताचे सासूमांयन ताचो रस्तो आडायलो.

"आमचे आंगणवाडी टिचेरीक मात्शें मेळून येतां." तेरेजान सांगलें.

"गर्भ धरला हाची नोंदणी करूंक वता? सांतानान कांय सांगूंक ना मगो."

"तशें कांय ना गे. तें आमच्या गांवचें न्ही, ताची मात्शें खबर घेवन येतां."

"आनी घरांतलें हें काम कोण करतलो?"

"येतां गे रोकडें."

"बेगीन यो. ना जाल्यार सांतानाक सांगतां हांव." सासूमांयन ताच्या घोवाची भिरांत घाली.

"रोकडेंच येतां." म्हणीत तें घरांतल्यान भायर सरलें. आज पयले फावट ताणें वेगळ्या विचारांत आपल्या घरांतल्यान पांय भायर घाल्लो. आपल्या कामाक घरांत विरोध जातलो म्हण कळिल्ल्यान ताणें घरांत कांयच सांगूंक नासलें.

तेरेज नेटान पावलां मारीत आंगणवाडी टिचेरी फुड्यांत पावलें. ती ताच्याच गांवची! ह्या गांवांत लग्न करून आयिल्ली. तिका ताणें दिसाळें दाखयलें. तिणेंय तें बारकायेन वाचलें.

"तुका कितें करपाचें आसा तेरेज?" टिचेरीन ताका प्रस्न केलो.

"एका काळार हांवूय ह्या महिला मंडळाचें वांगडी आसलें. पूण आतां नवे नवे लोक भितर सरल्यात तातूंत. पेपराचेर आयल्या ती बातमी आमकांय लागू जाता न्ही गो? तांच्या आदारान हांगा कितें करूंक जाता जाल्यार पळोवया मगो." आतांच्या अध्यक्षाक हांव मात लेगीत वळखना. तूं वळखता आसत म्हण तुजे फुड्यांत आयिल्लें." तेरेजान व्हड अपेक्षेन तिका सांगलें. ती चितूंक पडली.

"हय, हय. हांव वळखतां मगो तिका." टिचरीन आपलो मोबायल काडलो आनी एक आंकडो मारलो.

"सुनंदा ताई, तुमच्या महिला मंडळाक पुरस्कार मेळिल्ल्या बद्दल परबीं. आयज बातमी कळ्ळी. हांव दोंगर-वाडचा वयलें अनिता...वळखलें? आमचें तेरेजबाय तुमकां मेळूंक सोदतालें. बरें... बरें." टिचरीन हांसत्या मुखामळान फोन बंद केलो.

"तेरेज तूं सामकें लक्की. सांजेर आपयलां तुका." तिणें तेरेजाक त्या महिला मंडळाच्या अध्यक्षांक मेळपाची वाट उक्ती करून दिली. तिचे उपकार मानून खुशाल मनान तेरेज आपल्या घरा येवंक भायर सरलें.

इतलेंच करता म्हणल्यार खूब वेळ जालो. घराकडल्या कामाच्या हुस्क्यान तें बेगी-बेगीन परतलें.

"आमच्या गांवच्या महिला मंडळाच्या अध्यक्षांक मेळूंक वचूंक जाय आसलें. तूं मात्शें म्हजे बराबर येवंशी?" तेरेजान घरकाराक विचारलें.

"हें महिला मंडळ म्हणल्यार आनीक कितें?" तेरेजाच्या घरकाराक आपलो सोरो बरो आनी आपलें कुटूंब बरें इतलेंच. मेळ्ळ्यार काम करतालो नाजाल्यार घराकडे झक्क मारीत आसतालो!

"महिला मंडळ म्हणल्यार अस्तुऱ्यांक आदार करपी संस्था. हांव लग्ना पयलीं तातूंत वावुरतालें. ह्या गांवांत अस्तुऱ्यां खातीर कितें तरी जाता जाल्यार पळोवंक सोदतालें."

"गप्प बस थंय. कोणा पासत कांय एक करपाची गरज ना." ताणें ताका किकोंत केलें. मान पोंदाक घालून तें भितर गेलें.

दुसऱ्या दिसा तेरेज सारण मारीत आसलें. ताची सासूमांय तांदूळ वेंचताली. सांतान सोप्यार बसून आसलो. अकस्मात तेरेजाच्या गांवच्या महिला मंडळाची अध्यक्षा सुनंदाताई अनिताक घेवन तेरेजागेर भितर सरली. तेरेज तिका पळोवन अजाप जालें. बेगी-बेगीन तांकां बसूंक दिलें. तेरेजान काल येवंक शकलें ना हाची माफी मागली आनी गांवची गजाल सांगूंक लागलें. निमाणेकडेन ह्या गांवां पासत कितें तरी करूंक जाता जाल्यार करूंक आदार मागलो.

सुनंदाताईन विचार केलो आनी एक एक करून कितल्योच गजाली सांगल्यो. महिला मंडळ घडपाची गरज उक्तायली, कांय येवजण्यो सांगल्यो मंडळाच्यान कितें कितें करूंक जाता तें सांगलें. सांतानूच तिच्यो गजाली उमेदीन आयकतालो. ताच्यान तिका मात नाकारूंक जालें ना. आनी तेरेज कितें करता म्हणटा तेंय आडावंक जालें ना. वीस जण अस्तुऱ्यांक एकठांय करपाचें आव्हान दिवन सुनंदाताई गेली.

तेरेजान गांवा पासत कितें तरी करपाचें उध्दीश्ट मनांत घेतलें आनी अस्तुऱ्यांक एकठांय करपाच्या हेतान घरांतल्यान भायर सरलें. एकूय अस्तुरी तेरेजाचें आयकूंक तयार ना जाली. तें निराश जालें आनी घराकडे परतलें. सांतान ताका हांसूंक लागलो. तेरेज रांदूंक लागलें.

"तेरेज, जायते फावटी अशेंच घडटा. आपणाक जाय तें केन्नाच घडना, भलतेंच

घडटा. तूं आपल्या खातीर न्हय तर ह्या गांवां खातीर कितें तरी करूंक मुखार सरता, ही एक बरी गजाल. अशें हे आदीं कोणेंच चितूंक ना. तरी आसतना एकूय अस्तुरी तुजे बराबर येवंक तयार ना न्हय?'' सांतान कितें सांगूंक सोदता तें तेरेजाच्या लक्षांत येनासलें. पूण ताच्या उलोवण्यान अजाप जाल्लें.

''सांजेर हांव येतां तुज्या बराबर. फक्त वीस अस्तुऱ्यो न्हय, पन्नास जाण एकठांय करून दितां.'' सांतानान तेरेजाक सांगलें.

''तूं म्हज्यो मस्कऱ्यो करिना मरे?'' तो सांगता तें सत मानूंक तेरेजाक अवगड जातालें. सांतानान ताका खात्री दिली.

सांजेर सांतान तेरेजाक घेवन भायर सरलो. आतां तेरेज उलयनासलें बगर सांतान उलयतालो आनी एक-एक अस्तुरी हयकार दिताली. जेन्ना तेरेजान विचारिल्लें, तेन्ना तीं आपल्या घरकाराक भियेवन ना म्हणटालीं पूण आतां सांतान तांच्या घरकारांकडे उलोवन सहमती घेतालो. तेच राती ताणीं सुमार चाळीस जाणांचो हयकार घेतलो. सांतानान सुनंदाताईक मोबायला वयल्यान ही खबर दिली.

इतल्या उमेदी मनशाचो सहकार पळोवन सुनंदाताई खुशाल जाली. तिणें रोकडीच ह्या अस्तुऱ्यांची बसका घेतली आनी सगळ्यो गजाली पर्थून सांगल्यो. तींय खुशाल जालीं. प्रत्येक जण एकामेकाच्या आदारान काम करूंक तयार जालीं. दोन दिसां भितर मंडळाची थापणूक जाली. मंडळाची सोसायटी रेजीस्ट्रेशना खाल नोंदणी केली. तेरेजाक अध्यक्षपद घेवचें पडलें आनी सुनंदाताई बुद्ध दिवपी पदार रावली. ताणीं रोकडेंच अस्तुऱ्यांखातीर आशिल्ल्या सरकारी येवजण्यांचेर विचार सुरू केलो.

थोडयाच दिसां भितर तांच्या गांवांत प्रगतीची लाटूच आयली. गरज तांकां रीण मेळ्ळें. देखून दादले खुशाल जाले. गांवांत एक मुळावी शाळा आसली थंय आनीक मुळाव्यो शाळा उगडल्यो. पांचवी मेरेन शिकोवंक सरकारा कडल्यान परवानगी मेळयली. चेडवां मुखार शिकूंक भितर सरलीं. गॅस सर्वीस सुरू जाली. कपडे धुवपाचीं मशीनां आयलीं. अस्तुऱ्यांचो त्रास कमी जावपाक लागलो. फकत उदकाचो प्रस्न सुटना जालो. कांय अस्तुऱ्यो एकठांय जावन मंत्र्या फुड्यांत गेल्यो. जाता तितले बेगीन गांवांत उदक हाडपाची मागणी केली. तो अनमनूंक लागलो. तांकां आपले मुठींत धरपाचें हें एकूच साधन आसा अशें तो मानतालो.

''फुडल्यो पंचायत वेंचणुको जावचे आदीं आमच्या गांवांत उदक येना जाल्यार, आमकां वेगळो विचार करचो पडटलो.'' एके अस्तुरेन ताका धमकी दिली. ह्या गांवांत इतली प्रगती जाल्या आनी उदकूय दिलें जाल्यार आपलें कोण आयकुचो ना म्हण तो जाणा आसलो. तो आपले ट्रीक्स खेळूंक लागलो.

पंचायत वेंचणूक जाहीर जाली. एका वॉर्डांत कोणूच बायल ना म्हण वॉर्ड रिकामो आसलो. दोन कडेन बायलो निवडून आयिल्ल्यो. पूण तांचे घरकारूच तांचें काम करताले. ते मंत्र्याचे चमचे आसले. जायते उमेदवार वेंचणुकेची तयारी करूंक लागले. तेरेजाच्या फुडारपणाखाल अस्तुऱ्यांचो एक पंगड तयार जालो. जंय हिंदू चड आसले, थंय हिंदू अस्तुरी, क्रिस्तांव चड आसले थंय क्रिस्तांव अस्तुरी अशें गणित करून उमेदवार घातले. तांकां विरोध जावंक लागलो. पूण बरे विचारवंत मनशांनी तेरेजाक तेंको दिलो आनी मुखार वचूंक प्रोत्साहन दिलें.

मंत्री हें चित्र पळोवन बरोच घुस्पलो. ताच्या उमेदवारांक आव्हान तयार जावंक लागलें. अशें जाल्यार विधानसभा वेंचणुकेक हांगा कोणूच आसचो ना म्हण ताणें आपल्या मनशांक तेरेजाकडे उलोवंक धाडले. पूण तांकां कोणेंच लागीं करूंक नांत. कोणें म्हणलें 'वळखच नांत.' कोणें म्हणलें 'तुमी हांगा कसलें काम केलां? ह्या आदीं केन्नाच येवंक नासले आनी आतां....' तांकां धांवडावन घाले. गांवार सगळो बोवाळ पडलो. मंत्र्याचे मनीस कांय जाणांक धमकावंक लागले. ह्या खातीर एक एक करून जायते दादले तेरेजाच्या अस्तुऱ्यांक सांगात दिवंक लागले. गांवभर तेरेजान प्रचार केलो आनी कामचोर पंचां विरुध्द भाशणां केलीं.

वेंचणूक जाली आनी सुवार्थी पंचांक घरा बसचें पडलें. तेरेज धरून ताच्या पंगडातल्यो सगळ्यो अस्तुऱ्यो निवडून आयल्यो. राखिवतेच्या नांवान बायलां खातीर आशिल्ल्या प्रभागांत तेरेजाच्या उमेदवारा विरूध्द कोणच अस्तुरी उबी रावली ना. देखून मंत्र्याक लज कशी जाली. तेरेज गांवचें सरपंच जालें.

तेरेज सरपंच जाल्ल्यान महिला मंडळाक अदीक घटसाण आयली. आनीक कितल्योच अस्तुऱ्यो मंडळांत भरती जाल्यो. ताणीं मेळून गांवच्या पासत प्लान तयार केलो. दादल्यांनी जें जायतीं वर्सां आदीं करूंक जाय आसलें, तें आतां घडटालें. उदका खातीर कितलेच फावटी सरकार दरबारांत वचून पासून कितेंच घडना जालें. मंत्र्यान आपली पुराय ताकत लायिल्ली तें उदक आडावन दवरूंक.

''तुका दिल्लें एक आव्हान आमी पूर्ण केलां. आतां तरी उदक आमच्या गांवांत हाडूंक तयार जा. ना जाल्यार आनीक एक आव्हान करतां, तुजे विरूध्द हांव वेंचणुकेक बसतलें. तुमचीं सगळीं नाटकां म्हाका कळ्ळयांत. सांबाळून राव, तुका फकत आठ दिसांची मुजत दितां हांव.'' तेरेजान मंत्र्याक सांगलें. आतां म्हणल्यार ताका पुराय गांवचो तेंको मेळूंक लागिल्लो. तें आपल्या सुवार्था खातीर न्हय तर गांवचे पासत कितें करता म्हण लोकांक कळिल्लें.

आठ दिसां उपरांत तेरेज पी. डब्लू. डी. मंत्र्याक मेळूंक गेलें आनी ताणें गांवची परिस्थिती सांगली, आपली अडचण ताचे मुखार मांडली. मंत्र्यान म्हत्वाच्या लुगारांचेर पब्लीक टॅप घालूंक उतर दिलें. आनीक खरेंच थोड्या दिसां भितर तांच्या गांवांत पब्लीक टॅप आयले आनी पुराय गांवांत नळाच्या उदकाचें एक जाळें विणूंक तयारी सुरू जाली.

तेरेजाचें धाडस आनी जीद्द पळोवन जायत्या जाणांक अजाप जालें. कोण कोण ताका सांगूंक लागले 'ह्या मंत्र्याक बुद्ध शिकयल्यार तुवेंच' म्हण, तेरेज फक्त हांसतालें. ताणीं हे गजालीचेर बरोच विचार केलो आनी एक दीस गांवची उदरगत करतां-करतां मंत्री आमदाराक आव्हान दिवंक फुडें सरलें. पुराय महिला मंडळ आनी स्त्री शक्ती ताचे फाटल्यान उबी रावली. तेरेजाचे आव्हानात्मक वृत्तीन ताका मनीसकुळाची वळख घडयली आनी तें गांवचें फुडारी जावंक पावलें.



# उमाळे




*काशिनाथ शांबा लोलयेंकार ही जी व्यक्तीरेखा साहित्यीक शिवानंद तेंडुलकारान जल्माक घाल्या ते व्यक्तीरेखेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी म्हाका पेसोआचो उगडास जालो. पेसोआच्या व्यक्तीरेखांभशेन काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हें एक स्वतंत्र व्यक्तीमत्व. साहित्यीक शिवानंद तेंडुलकार वेगळो आनी कवी काशिनाथ शांबा वेगळो.*



**सखाराम गो. शेणवी बोरकार**
पाजी फोंड, मडगांव.
मो. : ९९२३३०६७५१

डिझेंब्र २०१२ एकवीस तारखेचो 'सुनापरांत' वाचपाक हांवें हातांत घेतलो आनी एक अजापाचो धक्कोच बसलो. २०१२ वर्सा साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हांच्या 'काव्यसूत्र' ह्या कविता संग्रहाक प्राप्त जाल्लो.

खरें तर ह्या कवीक हो पुरस्कार हाचे आदीं मेळपाचो अशें ताचे कवितेच्या रसिकांक दिसतालें. पूण कित्याक तें घडलें ना हें कळपाक मार्ग ना. घडये 'communication gap' आसूं येता. पूण 'भगवान के घर देर है अंधेर नही' ही म्हण सार्थ जाली.

साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराच्या कोंकणीच्या इतिहासांत पयलेच फावट एक टोपण नांवाच्या कवीक हो पुरस्कार लाभला. काशिनाथ शांबा लोलयेंकार ही साहित्यीक एस्. डी. तेंडुलकार हाणीं जल्माक घाल्ली एक स्वतंत्र व्यक्तिरेखा. ही व्यक्तीरेखा फकत कविताच बरयता. हेर साहित्य जशें परी समीक्षा, नाटकुलीं, एकांकीका हे प्रकारचें साहित्य तेंडुलकारबाब आपल्या खऱ्या नांवान बरयता.

म्हाका काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हें नांव वाचतकीर पुर्तुगेज साहित्यीक फेर्नांदो पेसोआचो उगडास येता. पेसोआक टोपण नांवान बरोवपाची संवय आसली. पूण हीं फकत टोपण नांवाच नासलीं पूण त्यो स्वतंत्र व्यक्तीरेखा आसल्यो. ज्यो मूळ कवी परस वेगळ्यो आसल्यो. अशे तरेच्यो साबार व्यक्तीरेखा ताणें उब्यो केल्ल्यो. जशेपरी आल्बेर्तो कायरो, रिकार्दो रीस, आल्वारो-द-काम्पोस आदी. हांगा तटस्थ जावन पेसोआ ह्या व्यक्तीरेखां मार्फत कविता आनी हेर साहित्य रचतालो. तांचेकडेन भासाभास करतालो. इतलेंच न्हय ह्यो व्यक्तीरेखाय एकामेकां कडेन साहित्यीक चर्चा करताल्यो. ह्या व्यक्तीरेखांवरवीं पेसोआन आपल्या स्वताच्या व्यक्तीमत्वाक विंगविंगड तासां उक्तीं केल्लीं.

काशिनाथ शांबा लोलयेंकार ही जी व्यक्तीरेखा साहित्यीक शिवानंद तेंडुलकारान जल्माक घाल्या ते व्यक्तीरेखेक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो आनी म्हाका पेसोआचो उगडास जालो. पेसोआच्या व्यक्तीरेखांभशेन काशिनाथ शांबा लोलयेंकार हें एक स्वतंत्र व्यक्तीमत्व. साहित्यीक शिवानंद तेंडुलकार वेगळो आनी कवी काशिनाथ शांबा वेगळो. 'वालोर' ह्या समिक्षेच्या पुस्तकांत शिवानंद तेंडुलकार हाणीं काशिची मुलाखत घेतल्या. तातूंत तेंडुलकार म्हणटा की तो काशिनाथ शांबा लोलयेंकार ह्या नांवान बरयता कारण हो ताच्यांत 'distorted personality' चो एक भाग. प्रत्तेक मनशांत 'Jackel & Hyde' आसताच अशें ताचें मत.

म्हाका काशि मेळ्ळो पयलेच फावटी 'वासूचें कांतार' हे कवितेंतल्यान खंयचे तरी कोंकणी नेमाळ्यांत ही कविता हांवें वाचली आनी काशिच्या कवितेच्या मोगांत पडलों. मागीर तांच्यो कविता वाचपाचो म्हाका सोस लागलो. तेच वगतार म्हाका

दुसरो एक कवी आवडटालो तो म्हळ्यार कवी शंकर परुळेकार. काशिच्या आनी कराच्या कवितांची कालेत एक. पूण काशि मात्सो चड ॲग्रेसिव!

१९९७ वर्सा काशिचो 'काशिक म्हणचेंच पडटा' हो कविता संग्रह म्हज्या हातांत पडलो. खरें तर हो काशिचो दुसरो कविता संग्रह. पयलो कविता संग्रह १९८२ वर्सा 'काशि म्हण्टा' हो प्रसिध्द जाल्लो. पूण हांवें तो वाचूंक नासलो. 'काशिक म्हणचेंच पडटा' ह्या संग्रहान म्हाका सामको भारावन उडयलो. सदच्या चाकोरे भायर घेवन वचपी ह्यो कविता, सदच्या वळणाचेर वचपी कोंकणी कवितेक ह्या संग्रहान एक आगळीच वाट दाखयली. ह्या कविता संग्रहाचेर खूब भासाभास जाली. अ. ना. म्हांबरो, दत्ता नायक ह्या म्हालगड्यांनी ह्या कविता संग्रहाची तुस्त केली.

हो कविता संग्रह वाचतकीर हांवें कवीक पयलेच फावटी एक चीट बरयली आनी कविता संग्रह आवडल्याचें कळीत केलें. कवीन म्हाका रोखडीच जाप धाडली आनी सांगाताक 'काशि म्हण्टा' ह्या तांच्या पयल्या प्रसिध्द जाल्ल्या कविता संग्रहाची एक प्रत धाडून दिली. पयलो काव्यसंग्रह आनी दुसरो काव्यसंग्रह हाचे मदीं पंदरा वर्सांचो गॅप आसलो, पूण कविताची धाटणी मात तीच आसली.

हाचे उपरांत 'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना', साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभिल्लो 'काव्य सुत्र' आनी हालींच प्रसिध्द जाल्लो 'काशिखंड' अशे पांच कवितासंग्रह उजवाडाक आयल्यात.

काशिच्या कवितांचें खाशेलेंपण कितें? काशि एक सादीच अशी दिसपी कवितेंत अशें निमणें मोण्ण मारता की कवितेचो आशयच बदलून वता आनी निमणें ही सादी कशी दिसपी कविता एक 'master piece' अशी थारता. काशिचे कवितेंतलीं उतरां हीं काशिलीं खाशेलीं उतरां. तो व्याकरणाचे बी भानगडींत पडना. ताका दुसरे भाशेंतल्या उतरांचें वावगें ना. पुर्तुगेज, मराठी, हिंदी बी भाशेंतलीं उतरां तो आपले कवितेंत अचळय केळयता. मागीर तीं उतरां ते कवितेंत परकी कशीं दिसनांत आनी मुदयेर थीक कशीं तीं फिट्ट बसतात.

म्हाका काशिचो दुसरो कविता संग्रह 'काशिक म्हणचेंच पडटा' हो खूब आवडटा. ताच्या सगळ्या कविता संग्रहांभितर हो एक श्रेष्ट कविता संग्रह हें म्हजें मत. हातुंतल्यो सगळ्यो कविता एक परस एक उजव्यो. आयज लेगीत इतल्या वर्सांनीं हो कविता संग्रह वाचतकीर म्हाका तो ताजो तवानो लागता.

म्हज्या 'बेडरूम रिडींगा' भितर ह्या कविता संग्रहाचो आसपाव आसा, जसो पुंडलीक नायकाची 'अच्छेव' ही कादंबरी आनी माधव बोरकारालो 'यमन' हो कविता संग्रह. 'काशिक म्हणचेंच पडटा' हो कविता संग्रह हांवें कितले फावटी वाचला हाचें कोंत-हिशेब ना.

ज्या कवीक हांवें केन्नाच पळोवंक ना, कविसंमेलनाक हो कवी म्हाका दिसूंक ना त्या कविचो फोटू हांवें पोरूं 'बिम्ब' पुरस्काराच्या जायरातींत पळयलो.

पयर साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळटगीर हांवें तेंडुलकार बाबांक परबीं दिवपाक फोन केलो आनी आमी थोडो वेळ उलयले. पयलेच फावटी फोनाचेर कांय जायना उलोवन बरें दिसलें.

असो हो जगावेगळो कवी जाणें कोंकणी कवितेक नवो आयाम दिला त्या म्हज्या आवडट्या कवीक काळजा थावन परबीं आनी फुडल्या काव्यमय वाटचालीक शुभेच्छा.

### काशिक

'काशि म्हण्टा'
'काशिक म्हणचेंच पडटा'
'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना'
हें तुजें म्हणप
मारुतीच्या शेंपडेभशेन
लामत चल्लां
अशें तुका दिसना?

पूण बाब लोलयेंकारा!
असो कितलो तेंप म्हण
तूं म्हणतच रावतलो?
आतां थोड्यांक तुज्या म्हणपाचो
वाज-बिन येयला आसतलो

चाबून-चाबून चोथो जाल्ले
भाशेची रूच काडपांतच
तेंचें 'व्हिद' सोंपलां
आख्खे भाशेचो बांयटेर काडपी तूं
तेंका कसो पचतलो?

तुयें कितलेंय म्हटलें जाल्यारूय
तेंगेली सुण्या शेंपडी
नळयेंत घाली म्हण
थोडीच नीट जातली?
आनी तुयें म्हणपाचें
सोडलें जाल्यारूय
तेंका कांयच दिसपाचें ना

६-४-२०००
(काशिलो तिसरो कविता संग्रह 'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना' वाचतगीर सुचिल्ली ही कविता.)

### काशिचीं सुत्रां

काशिन बरोवपाची
सोडली कविता
आतां काशि बरयता
सुत्रां!

हें सुत्र
तें सुत्र
अशें करीत हीं सुत्रां वारें सुत्र कशीं
चोंयवटेन घुंवपाक लागल्यात

काशि मात
आतां कवि कमी
'सुत्र'धार चड जाला

आतां ह्या सुत्रांनी
साहित्य अकादेमीक लेगीत
सोडूंक ना!



# पुणे

**म्ह**जे आवयची मावशी मोतीमावशी पुण्याक रावताली. ती आमकां परती परती पुण्याक आफयताली. मागीर हांव सवेक-सातवेक आसतना एक दीस पुण्याक गेलें. ती पुण्यांत रास्तापेठेंत रावताली. आजयेलें रास्तापेठेंतलें घर खासा पुणेरी पद्दतीचें. वयर चडपाक उबीं लाकडाचीं सोपणां. मागीर घरांत भितर परती लाकडाची माळी. मागिलदारांत देंवपाक परतीय लाकडी इस्काद. चाळ म्हळ्यार चाळ न्हय. वाडो म्हळ्यार वाडो न्हय. चाळ आनी वाडो हाचे मदलें!

आजी रावता थंय लागींच भाजयेचें मार्केट, पुणेरी भाशेंत मंडई. आजी आपले पांय सदळ जावपाक जाय म्हणून सदांच सांजची हे मंडईंत वचून भाजी हाडटाली. तिच्यो नाती चारू आनी विनिता म्हजेच वयाच्यो. तांचेबराबर भोंवून हांवें पुण्यांतलीं इतिहासीक थळां पळयल्यांत. शिंदेची सत्री पळोवंक गेल्लीं. म्हाका दिशिल्लें सत्रेच्या आकाराचें कितेंतरी आसतलें म्हणून! मराठा सरदार महादजी शिंदे हांच्या स्मरणार्थ बांदिल्लें हें देवूळ कशें!

आगाखान पॅलेस म्हळ्यार कस्तुरबा गांधी स्मृती मंदीर. भारत छोडो आंदोलना वेळार महात्मा गांधी आनी तांची घरकान्न कस्तुरबा गांधीक थंय बंदखणींत दवरिल्लीं. कस्तुरबाक थंयच मरण आयलें. तांची थंय समाधी आसा. पुणेची प्रसिद्द दोंगुल्ली पर्वती चडपाक शंबरेक लांबरूंद सोपणां आसात. सामकें वयर चडून वतकीच वयर आशिल्लीं देवळां दिश्टी पडटात. मुखेल देवूळ म्हादेवाचें, ताचे कुशीक सूर्याचें आनी आनीकय देवळां आसात. ते बगर नानासाहेब पेशव्यांचो वाडो आसा. तातूंत पेशव्यांच्या शस्त्रांचें संग्रहालय आसा.

शुक्रवार पेठेंत राजा दिनकर केळकर म्युझीयम आसा. काकासाहेब केळकर ह्या एका मनशान एकठांय केल्ल्या वस्तूंचें हें म्युझीयम. हांगच्या दालनांत पयलिंच्या काळांत वापरांत आशिल्ले शालू, शेले, साडयो, कापडां धरून आंगलीं, तोपरीं देखून आसात. लामणदिव्यांचें एक दालन. भुरग्यांच्या खेळण्यांचें एक दालन. ह्या म्युझीयमांत ताणीं मस्तानीं महल उबो केलो. पेशव्यांच्या वापरांतल्यो वस्तू मेळोवन कलात्मक रितीन तांची रचना केल्या. मस्तानीचें एक चित्र थंय आसा. तिचे सुंदरकायेची सामकी तोखणाय जाता.

पुणेचें मुखेल इतिहासीक थळ म्हळ्यार थंयचो शनिवार वाडो. तो मात पुणे सांबाळूंक शकलें ना. उज्यांत गोबोर जाल्ल्या शनिवारवाड्याच्यो भायल्यो वण्टी मात आसात. पुण्यांत पेशवे पार्क आसा. तातूंत प्राणीसंग्रहालय आसा. हालींसराक आमी पुण्याक गेल्लीं आसतना दत्ताराजाखातीर मुद्दम थंय गेलीं. थंय एक झुकझुकगाडी आसा. ती पुराय पेशवे पार्क भोंवडावन हाडटा.

पुणेकारांनी थंयच्या देवांक विशेश नांवां लायल्यांत - मारुती हांगा सोन्या मारुती, गवत्या मारुती जाता. उपाशी विठोबा, ताकपित्या विठोबा, बटाट्या मारुती, जिलब्या गणपती, खुन्या मुरलीधर असल्या नांवांनी वळखतात. पुण्यात खासा पुणेरी जेवण मेळटा. झुणको भाकरी, मिसळ, थालीपीठ, बाकरवडयो, पोस आनी खासा पुणेरी भेळ.

आज म्हजी पुण्याची आजी ना. पूण हांव जेन्ना जेन्ना पुण्याक वतां तेन्ना तिजी याद येता.





- हर्षा शेटये
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डें - गोंय.
मो.: ९८५०५३०१५२



# मूस, मूस, मूस

**हा**तांत कॅडबरी आसा म्हण गुंडू विसरिल्लोच. बऱ्या वेळान पळय जाल्यार हातांतली चॉकलेट मोव जाल्या. ताणें वयलें कागद काडून उडयलें आनी अचळय बेगड उक्ती केली. सगली चॉकलेट चिकचिकीत जावन बेगडीक चिकटिल्ली. गुंडून दातांनी ती बेगडीची खरवडावन काडली आनी बेगड भायर उडयली.

एक बस पयसुल्ल्यान त्या शारांत येताली. वाटेर एकेकडेन घाण आशिल्ली. घाणीचेर मूस घोंव घोंवताले. इतल्यांत गोरवांचो एक हींड मुखार आयलो आनीक बसीक वेग कमी करचो पडलो.

घाणीवयल्यान उडिल्लो एक मूस बसीच्या जनेलांतल्यान भितर सरलो. म्हण्टा म्हणसर बसीन परत वेग घेतलो आनी मुसाक भायर वचूंक येना जालें. मूस बसींतले बसींत हेवटेन तेवटेन उडत रावलो.

बस बद्द गुंडूच्या शारांत पावली. बस थांबली आनी बसींत आशिल्लो मूस बसींतल्यान भायर सरलो.

मूस हेवटेन तेवटेन भोवंक लागलो आनी दिस्त ताची नदर गुंडून उडयिल्ले बेगडीचेर गेली. मूस वचून बेगडीचेर बसलो. बेगडीक अजूनय चॉकलेट लागिल्ली आशिल्ली. मूसान चॉकलेटीचेर ताव मारलो. मूस बेगडीवेल्यान उडटा म्हणसर ताका आनीक एक कागद दिसलें. ताका बटाटवड्यांचें तेल लागिल्लें. तें इल्लेंशें चाटून पळयता म्हणसर मुसाचें कूसभर पोट भरून तोडशेवंक लागलें. तरीकय जळामळा कागदां, प्लास्टीकच्यो पोतयो आनी बाटल्यो पडिल्ल्यो दिसताल्यो. सगल्यांक किदें ना किदें खावपासारकें लागिल्लें. पूण एकटो मूस किदें खातलो?

मुसाक आपल्या बायल भुरग्यांची, भावां भयणींची, इश्टां मित्रांची याद जाली. मुसाकडेन एकमेकांकडेन संपर्क साधपाची विद्या आशिल्ली. मुसान आपल्या लागींच्यांकडेन संपर्क साधलो आनी सगल्यांक शारांत आपयले.

हळुहळू मुसांचे चोंबे शारांत येत रावले. जळामळा पडिल्ल्या प्लॅस्टीकच्या पोतयांक लागून, कागदांक लागून मुसांक खावंक उणें नाशिल्लें. मूस येत रावले. आयिल्ल्या मुसांची पिलावळय वाडत गेली. करतां करतां सगळें शार मुसांनीं भरून गेल्लें. उडयिल्ल्या कागदां-पोतयांचेर मूस गच्ची करून बसताले. सगलेकडेन पोतयो कागदांच्या जाग्यार काळे काळे मुसांचे चोंबे दिसूंक लागले. तरीकय मुसांची पिलावळ वाडत आशिल्ली. जमनीर बसूंक जागो ना जावन मूस झोपांचेर, झाडांचेर, घरांचेर बसूंक लागले. तरीकय जागो पावना जावन मूस हवेंत उडटना दिसूंक लागले. घरांत वताचें किर्ण येतगच त्या किर्णांत उडटलीं कोयराचीं कुस्कुटां दिसतात तशे मूस उडटना दिसूंक लागले.

मुसांक खावंक कांयच उणें नाशिल्लें. लोक प्लॅस्टीकच्यो पोतयो उक्त्यार उडयत आशिल्ले. पोतयो, बाटल्यो, कॅन, कोपां सगल्यांक किदें ना किदें खावपाचें लागिल्लेंच आसतालें. लोक कोयर कोयराच्या बल्लांत उडयतना अर्दो भायर पडटालो. तातूंत तर सगलेच जेवणाचे उरिल्ले

पदार्थ. उजरावन भायर उडोवपाचें नुस्त्याचें कचकच सगळेंच मुसांचे आवडीचें. मूस आनंदान नाचताले आनी लोकांक मात अडचण जावंक लागिल्ली.

वता थंय मूस. मूस आंगार बसताले. तोंडार आपटताले, कानांत, दोळ्यांत, नाकांत वताले. उलोवंक तोंड उक्तें केल्यार तोंडांत वचूंक लागले.

लोक घरांत दारां जनेलां धांपून रावंक लागले. म्युनिसीपालिटी वखदांचो फवारो मारून मुसांक मारपाचो यत्न करताली. पूण थोडे मूस मरताले आनी तांच्या जाग्यार नवे मूस तयार जाताले. हळुहळू मुसांक वखदांचीय सवंय जाली. तांकां वखदां लागनात शीं जालीं.

एका मुसाचें आयुश्य तशें साप्प उणें. पूण तांची पिलावळ इतली बेगीन वाडटा की एका मुसाच्या जाग्यार धा मूस तयार जातात. ताका लागून मुसांची संख्या वाडत रावली.

घरांतल्यान भायर सरप म्हळ्यार मुसांच्या चोंब्यांत भितर सरप. बॅट आनी बॉल घेवन भुरगे मळार वचून क्रिकेट खेळूंक लेगीत तयार जायनांत जाले. मुसांची गर्दी इतली वाडिल्ली की मुखार कितें आसा तें दिसप कठीण जाल्लें.दुचाकी घेवन वचप तर मुसांच्या गर्देतल्यान शक्यच नाशिल्लें. गाडयेंत लेगीत बसून वतना मुखावयलो रस्तोय दिसनाशिल्लो आनी कांय दिसनाशिल्लें.

लोक करतां करतां बुरखो घेवन भोवंक लागले. बायलांक बुरखो, दादल्यांक बुरखो, भुरग्यांक बुरखो. म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्या मनशाक वळखूंक येना. एकतर ताजो बुरखो आनी वेल्यान ताजेर बशिल्ले मूस. म्होवां मुसांचीं मालीं दिसतात तशीं मनशां दिसूंक लागलीं.

कुत्र्यांचेर मूस, मांजरांचेर मूस, गोरवांचेर मूस, दुकरांचेर मूस.... कावळे लेगीत झाडांच्या सकयल्या खांदयांर बसूंक भियेवंक लागले. मूस मूस मूस.... वता थंय काळे, काळे, काळे.

निमाणें गुंडून आनी ताज्या मित्रांनी थारायलें. आतां हाजेर उपाय सोदून काडप. ताणीं आपले शाळेंतले बाईक विचारलें.

बाईन म्हळें, ''मुसांक ना करपा खातीर आतां उपाय एकच.''

''किदें बाई?'' सगल्या भुरग्यांनीं एकेचफावटीन म्हळें.

''तांकां उपाशी दवरप.'' बाईन म्हळें.

''उपाशी? कशें?'' भुरगीं बुचकळ्यांत पडलीं.

''मुसांक हांगा भरपूर खाण मेळटा. कशें?'' बाईन विचारलें.

''आमी भायर उडयतात त्या कागदांक आनी पिशव्यांक लागिल्लें आसता.'' भुरग्यांनीं म्हळें.

''तीं कागदां आनी पिशव्यो मुसांक कशो मेळटात? आमी उक्त्यार उडयतात म्हण न्ही?''

''हय.''

''आमी जर सगलीं कागदां, पिशव्यो आनी भायर उडोवपाचें सगलें कोयराच्या धांपिल्ल्या बल्लानीं उडयलें जाल्यार मूस किदें खातले?'' बाईन विचारलें.

'मूस किदें खातले?' भुरगीं चितूंक लागलीं.

''मूस कापूं नाशिल्लीं फळां खायनांत. फुलां खायनांत, पानां खायनांत आनी किदें?''

''मूस नुस्तें खातात काय?.. हय... नुस्तें उजरावन ताजे कुडके करून दवरतगच ताजेर मूस बसतात. मिठायेचेर बसतात. म्हणटकच असले जिनस धांपून दवरल्यार मूस खंय बसतले? किदें खातले?''

भुरगीं विचार करतालीं.

निमाणें सगल्यांनी थारायलें, खावपाचे जिनस उक्ते दवरप नांत आनी भायर उडोवपाचेय उक्त्यार उडोवप ना. सगलें कोयराच्या धांपिल्ल्या बल्लांत उडोवप.

तेन्नाच्यान सगले भुरगे कामाक लागले. भायर उडोवपाची वस्त फकत कोयराच्या धांपिल्ल्या बल्लांतच पडटली हाचेर ताणीं लक्ष दवरलें.

कांय तेंपान भायर उक्त्यार पडपी कागदां, पोतयो ना जाल्यो. मुसांक खावंक मेळना जालें. हळुहळू मूस दुसरेकडेन वचूंक लागले आनी चडशे मरूंक लागले.

करतां करतां शार सामकें निवळ जालें.

आनी गुंडू आनी ताज्या मित्रांची तोखणाय जावंक लागली.



– किरण म्हांब्रे
२०६, कैलाश दर्शन,
आकें, मडगांव–गोंय
मो. : ९८२३५७६०९२

# शिंवासन बत्तिशी

## पयली कथा

जया नांवाचे परीन म्हळें, ''धर्मसेन राजाचो विक्रमादित्य हो एक पूत. हें शिंवासन विक्रमाचें. शंखचूड, विक्रम आनी भर्तृहरी अशे ते तिगयजाण भाव आसले.

शंखचूड हो सगळ्यांत व्हडलो चलो. धर्मसेन राजा मरतकच तो राजा जालो. विक्रम देवभक्त आशिल्लो. तो हिमालयांत वचून शिवाची उपासना करतालो. पंडितानी शंखचुडाक सांगलें, ''विक्रम हुशार आनी पराक्रमी आसा. तो तुका मारून, तुजें राज्य घेवंक शकता. तूं ताका पयलींच ना करून उडय.''

शंखचुडान कट कारस्थान करून विक्रमाक मारपाचो यत्न केलो. पूण विक्रम मोठो हुशार. ताचो कट ताका कळ्ळो. ताणें शंखचुडाकच जिवेंशीं माल्लो. उपरांत विक्रम राज्य करूंक लागलो.

हें शिंवासन विक्रमाक बाहुबल नांवाच्या राजाकडल्यान मेळिल्लें. एक खेप विक्रम रानांत शिकारेक गेल्लो. तेन्ना तो वाट चुकलो. तो एके उंच अशे दोंगुल्लेचेर चडलो. ताका

## विक्रमाक शिंवासन कशें मेळ्ळें?



पयस एक व्हड राज्य दिसलें. तेंय आपल्या शेकातळा येवचें अशें ताका मनापासून दिसलें. थंयच एका झाडार एक कावळो बशिल्लो. ताका विक्रमाच्या मनांतले विचार कळ्ळे. तो त्या शाराच्या राजाचो प्रधान जावन आसलो. ताका सिध्दी मेळिल्ली. तो जाय तें रूप घेवंक शकतालो. हे खेप ताणें कावळ्याचें रूप घेतिल्लें. ताणें विक्रमाचो धिक्कार करूंक म्हणून विक्रमाचेर हळशीक उडयली. विक्रमान ताका रोखडोच धरलो. तेन्ना प्रधान मूळ मनीस रुपांत आयलो. ताणें म्हळें,

"राजा, तुवें जें राज्य पळयलां तें 'बाहुबल' ह्या राजाचें जावन आसा. हांव तांचो प्रधान. तुका तें राज्य कशेंच मेळचें ना. बाहुबल हो एक पराक्रमी राजा."

विक्रमान म्हळें, "हांव त्या राज्यांत येतां. आनी त्या राजाक मेळटां. ताचेकडेन इश्टागत करूंक म्हाका आवडटली."

प्रधान विक्रमाक सांगाता घेवन त्या राज्यांत गेलो. बाहुबल राजाक विक्रम आवडलो. ते दोगूय बरे इश्ट जाले. चार-पांच दीस ताणें बरे तरेन व्रिकमाचो आदर सत्कार केलो आनी एक दीस विक्रमाक आपलेकडेन आशिल्लें दिव्य शिंवासन दाखयलें. शंकराचे आज्ञेन इंद्रान तें शिंवासन बाहुबली पासत पृथ्वीचेर धाडिल्लें. विक्रमाक निरोप दितना बाहुबलान ताचो भोवमान केलो आनी तें शिंवासन ताका भेट म्हणून दिलें.

"राजा भोज, विक्रमाची फुडली काणी सांगचे पयलीं, तुका हांव ताचो धाकटो भाव भर्तृहरीची गजाल सांगतां, लक्ष दिवन आयक.

विक्रमाक कैलास पर्वताचेर वचून तपश्चर्या करची अशें दिसलें. ताणें आपलो धाकटो भाव भर्तृहरीकडेन अवंतीचें राज्य दिवन तो कैलास पर्वतार गेलो.

भर्तृहरी राज्य करतना एक गजाल घडली. एका तपस्वी ब्राह्मणान एक अमृतफळ हाडून राजाक दिलें. 'बदरिका' आश्रमांत तो तप करता आसतना देवान प्रसन्न जावन ताका तें फळ दिल्लें. तें फळ खावपी अमर जातलो असो वर त्या फळाक आसलो. ब्रह्मणान म्हळें, "म्हाराज, हें फळ तुमी खालें जाल्यार तुमी अमर जातले आनी प्रजेक बरे तरेन सांबाळूंक शकतले. राज्य बरे तरेन चलोवंक शकतले."

राजान तें फळ घेतलें. त्या ब्राह्मणाक खूब धन दिलें. उपरांत राजान तें फळ आपले मोगाचे राणयेक दिलें. राणयेन राजाक लिपोवन तें फळ तिच्या पयलींच्या मोग्याक दिलें. तिच्या त्या मोग्याक हे राणये परस एक वेश्या चड आवडटाली. ताणें तें फळ तिका दिलें. त्या फळाचो गूण कळटकीच तिका दिसलें ह्या फळाची खरी गरज राजाक. तिणें राजाची गुपीतपणान भेट घेतली आनी तें फळ ताका दिलें.

फळ पळोवन राजाक अजाप जालें. पूण वेश्येचो ताका राग आयलो ना. तिचो बरो हेतू ताका कळ्ळो. ताणें खूब धन दिवन तिका धाडली.

राजान बरेभशेन तें फळ हाडून परत मोगाचे राणयेक दाखयलें. ती अजापली आनी भिली. 'परत हें फळ राजाकडेन पावलें?' तिणें मनांतल्या मनांत म्हळें.

राजान सगळी चवकशी केली. तेन्ना ताका कळ्ळें, फळ कोणा कोणाकडेन वचून परत ताचेकडेन कशें आयलें तें. मागीर राजान आपले मोगाचे राणयेक आनी तिच्या प्रियकराक जिवेशीं मारपाक लायलें. आपले मोगाचे राणयेचें पाडें कर्तुप पळोवन राजा भर्तृहरीक जिवाची उबगण आयली. ताणें मोग, मोह-माया सोडून दिलो. तो विरागी जालो. तेच भिरकेंत तो राज्य सोडून गेलो. राज शिंवासन रिकामें जालें. प्रधानाक चिंता पडली. तेन्नाच एक वेताळ राजवाड्यांत रिगलो. प्रधानान एक हुशार आनी योग्य तरनाटो सोदून ताका राजगादयेर बसयलो. पूण वेताळान ताका रातचो मारून उडयलो! त्या उपरांत प्रधान ज्या कोणाक राजा म्हणून गादयेर बसयतालो ताका वेताळ रातचो मारून उडोवंक लागलो.

ही गजाल विक्रमाक कळटकच तो अवंती नगरांत पर्थून आयलो. प्रधानान ताका वेताळाची गजाल सांगली. विक्रमान म्हळें, "हांव सांबाळटां भर्तृहरीचें राज्य. येवंदी आज रातचो वेताळाक. एक मात करात, आज रातचें वेताळापासत खूब पक्वानां, गोडशीं हाडून म्हजे न्हिदपाचे कुडी भायर दवरात."

ते प्रमाण प्रधानान तयारी केली. विक्रम रातचो जागोच रावलो. इतल्यांत वेताळ आयलो भरपूर खाणां पळोवन खुशाल



जालो. तें सगळें ताणें खाल्लें आनी तो तृप्त जालो. मागीर विक्रम ताचे मुखार गेलो आनी ताका विचारलें, ''तूं कितलो हुशार? आजवेर तुवें कसले पराक्रम केल्यात?''

वेताळान म्हळें, ''तुवें म्हजेपासत इतलें खाण दवरलें. हांव खोशी जालां. म्हणून हांव तुका एक गजाल सांगतां. तुवें जर म्हजे पासत सदांच म्हजी भूक भागता इतलें खाण-जेवण म्हाका दिलें जाल्यार हांव तुका मारचों ना. म्हाका खंयी वचूं येता. ल्हान व्हड जावंक येता. जाय तेन्ना नाच्च जावप, जाय तेन्ना दिश्टी पडप अशेंय करूंक कळटा. ब्रह्मा, विष्णू आनी महेशाक लेगीत म्हज्यान मेळूं येता. हांव त्रिकालज्ञानी जावन आसां.''

विक्रमाक अजाप जालें. ताणें विचारलें, ''म्हजें आयुश्य आनी कितलें उरलां? तें तुज्यान चड उणें करूं येता?''

वेताळान म्हळें, ''म्हज्यान कोणाचेंच आयुश्य चड उणें करूं नज. ब्रह्मा, विष्णू, महेशय तें करूंक शकना. तूं खूब वर्सां जगतलो. हांव तुजें आयुश्य उणें करूंक शकना.''

हें आयकनाफुडें विक्रम सट्ट करून उठलो आनी आपलें खडग काडून ताका आपल्याकडेन झुजूंक सांगलें. दोगय बरोच वेळ झुजले. निमणे विक्रमान ताका हारयलो. विक्रमान म्हळें, ''वेताळ, हाचेफुडें तुवें म्हजे आज्ञेंत रावूंक जाय. तूं म्हाका कसोच मारूंक शकचो ना.''

वेताळान म्हळें, ''राजा, तूं खऱ्यानीच पराक्रमी जावन आसा. हांव गुपीतपणान तुजे बरोबर रावतलों आनी गरजेवेळार तुका आदार करतलों. पूण एक, तुवें म्हाका सदांच भरपूर खावपाक दिवंक जाय.''

विक्रमान म्हळें, ''तुजी कसलीच अट म्हाका मान्य ना. हाचे फुडें तुवें राजवाड्यांत रावप ना. पूण जेन्ना केन्ना हांव तुजी याद करतलों तेन्ना तेन्ना तुवें येवन म्हाका आदार करूंक जाय.''

वेताळान विक्रमाची सांगणी मानून घेतली आनी तो थंयच्यान नाच्च जालो.

जयान भोज राजाक म्हळें, ''राजा विक्रम असो पराक्रमी आशिल्लो. आतां ताच्या उदारतायेच्यो गजाली आयक.''

विक्रम राजा राज्य करतासतना जायत्या कलाकारांचो, कविंचो सत्कार करतालो. सिध्दसेन नांवाचो एक कवी एक फावट ताच्या दरबारांत आयलो. तो बरे बरे श्लोक बरयतालो. ताणें एका श्लोकांतल्यान विक्रमाची तुस्त केली. ती तुस्त आयकून विक्रम खोशी जालो. ताणें कवीक एक गांव इनाम दिलो.

कवीन म्हळें, ''म्हाराज, लोक म्हणटात तुमी दानशूर म्हणून. पूण तें फट. लोकांक कितें जाय तें तुमी दिनांत. तुमी

शत्रूक फाट दाखयनांत आनी दुसऱ्यांच्या बायलांकडेन वायट नदरेन पळयनांत.

विक्रमाक कवीचें उलोवणें आयकून खोस जाली. ताणें ताका आनी एक गांव इनाम दिलो. कवीन आनी एक श्लोक रचून म्हणून दाखयलो. त्या श्लोकांतल्यान ताणें म्हळें, ''राजा तुजे दुस्मान भंयान थरथरतात आनी तांचें काळीज मडक्यावरी फुट्टा. तातुंतल्या दुखाचें उदक दुकां जावन व्हांवता. तुज्या गळ्यांत सरस्वती आनी हातांत लक्ष्मी रावता. हें पळोवन तुजे किर्तीक राग येता आनी ती देश-विदेशांत वता.''

राजान खोशयेन वा! वा! म्हळें. वयर वयर पळोवंक टिका कशी दिसपी पूण राजाचे तोखणायेन भरिल्ले हे श्लोक आयकून राजा खोशी जालो! ताणें आपलें अख्खें राज्यच त्या कवीक दिवंक केलें. पूण तो कवीय निस्वार्थी. ताणें राज्य घेतलें ना. ताणें नमळायेन म्हळें, ''राजा तुमी काव्याचे रसीक, हीच म्हजी खरी बिदागी. हांव राज्य घेवन कितें करूं? तुमी दोन गांव दिल्यात तितलेच पुरो.''

इतली गजाल सांगून जयान म्हळें, ''भोजराजा, तूं जर इतलो उदार आनी पराक्रमी जाल्यारच ह्या शिंवासनाचेर बसपाचो विचार कर. ना जाल्यार तुजो गोबोर जातलो!''

राजा खंती जालो. राजाचीं प्रामाणीकपणां पळोवन जया संतुश्ट जाली. तिणें म्हळें, ''राजा ह्यो बत्तीस मूर्ती म्हळ्यार म्हज्यो इश्टिणी. त्यो तुका विक्रमाच्यो काणयो सांगतल्यो. पूण दिसपट्टी एकच परी एकच काणी सांगतली.''

इतलें सांगून परी नाच्च जाली. ती परत मूर्त जाली. राजा आपल्या म्हालांत गेलो.

(चलता...)



– माया अनिल खरंगटे
सी-४-१, वैभव अपार्टमेंट,
मारुती देवळा लागीं,
दवर्ली-नावेली, गोंय.

## पर्यावरण

बंटीन पप्पाक विचारलें
''पर्यावरण म्हळ्यार किदें?''
पप्पान ताका सांगलें
''आमच्या भोंवतणी आसा तें.''

शेतां, भाटां, झाडां, पेडां
दोंगर, कुळागरां, रानावनां
बंटीन परत विचारलें
''आमी खंय रावचेलें?''

पप्पा मात्सो गडबडलो
ताणें सांगलें जंय जंय
शेतां, भाटां, झाडां, पेडां
दोंगर, कुळागरां, रानावनां
ना – थंय रावचेलें

तशें जाल्यार फक्त उरलें
उदक, न्हंयो आनी सागर
पप्पान बंटीक म्हळें
''तुका जाय थंय तूं राव.''



– भिकाजी घाणेकार
राज कॉम्प्लेक्स,
ताळगांव – गोंय
फोन : २९०४२६२




एक फावट एक कोलो काळखांत पासयो मारतालो. पासयो मारतां मारतां तो एके बांयंत पडलो. भायर सरपाक कितलो येत्न केलो तरी ताच्यान भायर येवंक जालें ना. ते खातीर दुसऱ्या दिसा सकाळ मेरेन ताका थंयच रावचें पडलें.

दुसऱ्या दिसा मध्यानेर एक बोकडी ते वाटेचेर आयली. तिणें बांयत भितर वणोव घेवन पळयलें. पळयल्यार तिका कोलो दिसलो. ''ये, कोल्या, तूं कितें करता थंय?''

कोल्यान म्हळें, ''हांव उदक पिवंक हांगां आयलां. हें सामकें रुच्चीक उदक, तूं जाय जाल्यार येवन पिवन पळय.''

मात्सो लेगीत विचार करिनासतना बोकडेन बांयंत उडी मारली आनी तोंड वयर करून भायर वचूंक मेळटा काय हाची वाट पळोवंक लागली.

कोल्यान म्हळें, ''म्हज्या मनांत एक विचार आयला तेन्ना तूं मुखावयले पांय वयर काडून उबी राव. हांव तुजे तकलेर चडून भायर वतां. मागीर तुकाय भायर येवपाक मजत करतां.'' ते मूर्ख बोकडेन तशेंच केलें आनी कोलो पुट्ट करून भायर आयलो आनी थंयच्यान वचचे वेळार कोल्यान बोकडेक म्हळें, ''तूं बुदवंत आशिल्ली जाल्यार बांयंत उडी मारची नाशिल्ली'' आनी व्हडा व्हडान हासूंक लागलो.

**तात्पर्य : विचार करचे पयलीं कसलेंच काम करचें न्हय.**

# मोर आनी कोगूळ



**पा**वसाळ्यांतलो एक सुंदर दीस. रानांत एक मोर खोशयेन नाचतालो. अजापाची गजाल म्हळ्यार ताका आपलो आवाज सामको खरखरीत कसो जाणवलो. ताका खंत भोगली. ताचें तोंड इल्लेंशें जालें. दोळे उदकाळ जाले.

तेन्ना लागींच झाडाचेर बशिल्ले कोगळीक मोरान पळयलें. 'ताका कितलो बरो ताळो आसा! सगळीं ताची अपुरबाय आनी तुस्त करतात. हांवें एक शब्द उच्चारल्यार लेगीत सगळीं म्हाका पळोवन हांसतात. कितलो पाड्या नशिबाचो हांव!' अशें म्हणून दुख्ख उक्तायत रावलो.

रोखडीच थंय देवराजाची बायल जुनो प्रगट जाली.

'हे मोरा तूं कित्याक इतलो दुख्खी आसा?' तिणें विचारलें.

'म्हाका सोबीत कूड देवान दिल्या. पूण म्हजो आवाज खरखरीत आनी आयकुपा सारको ना. ते खातीर म्हाका हे सुंदरकायेचो उपेग तरी कितें?'

मोराच्या दोळ्यांत परतें उदक आयलें.

'तुज्या वाट्याक ही निर्शेवणी आयली म्हूण वायट दिसून घेवं नाका. विंगड विंगड जनावरांक देव विंगड विंगड देणगी दिता. तुका सुंदरकाय, गरूडाक शक्त आनी कोगुळाक कंठ. तुजेभशेन दुसरे कोणूच दुख्खी जाल्ले नांत.' अशें जुनोन सांगलें.

**तात्पर्य : आपल्या वांट्याक आयलां तेंच पंचामृत.**





**– अलका सिनाय असोळडेकार**
बड्डें, मडगांव – गोंय
मो. ९८२२९८११०७



# मन

“तुवें म्हजें मन वळखूंकच ना! तुका म्हज्या मनांतलें समजता? बाय गो, दुसऱ्यांचीं मनां पारखूंक आनी राखूंक शीक.”

म्हजी आवय सदांच देखीक उलयताली. मनशांचें मन म्हळ्यार अजब रसायण. मन म्हळ्यार कुडिंतली दिसनाशिल्ली तरीय आसा असो भास दाखोवपी वळख. मन म्हळ्यार एक अथांग दर्या, अगणीत विचारांच्या ल्हारांनी खचाखच भरिल्लो! खिणाखिणाक मनांमळार एक-एक ल्हार फुटता.

मनशा कणकणी मनां वेगवगळीं! व्हड अजाप म्हळ्यार हेंच मन जण एकल्याचे कुडीचेर, तेच परी संवसारांचेर राज्य करता. 'इन शॉर्ट' म्हणपाचें जाल्यार मनशांची 'कृती' ताच्या मनांतले विचार थारायतात. पारखून पळयतल्याक मनांचे आचार दोळ्यांतल्या हारशांनीं दिसतात अशें म्हणटात. केन्नाय पळयात एखादऱ्या दोन वर्सां पिरायेच्या भुरग्याच्या हाशांत ताचें चान्यावरी नितळसाणेन लिखलिखपी सादें-भोळें तणावमुक्त मन ताच्या दोळ्यांत झळकता!

मनशांचें मन हो ताचो सगळ्यांत व्हड शत्रू! राग आनी स्वार्थ मनाचे व्हड दुस्मान तर मोग आनी विश्वास हे मनाचे सामके लागींचे इश्ट. मनांत 'मोग आसत तर हुनहुनीत वडे सुध्दां घाटार पावतात खंय!' आयज काळजां वांगडा मनांय पयसावल्यांत. फ्लॅटांच्या बंद दारांनीं बंदीस्त भुरग्यांचीं, जान्ट्यांचीं मनां शेजारधर्म विसरत चल्ल्यांत! काळजांत एक ओंठार एक अश्या ह्या चमत्कारी संवसारांत साद्या-भोळ्या, तरण्या आनी जाण्ट्या मनांचें होमकण पेटतना दिसता आनी मागीर माजर जशें हुंदरांक टपून बसता तशेंच ह्या मनाचे डळमळीत अवस्थेचो फायदो घेवंक साधू, संन्याशी, बाबा, मांत्रीक-तांत्रीक टपून बसतात. सद्या तरी तांचो एक हात दुदांत आनी एक हात तुपांत! घरांतल्या 'मातृ-पितृ देवो भवक' साप्प विसरून फातरांतल्या देवांक कुड्ड्या मनान स्वार्थाखातीर कश्ट-काम करिनासतना होराय-होराय होरावपी आयज सर्वसामान्य मनशांचें मन, खेड्या-पाड्यांतलीं भांगर पिकोवपी शेतां-भाटां घस्स करून येवपी पयशां आशेन फाल्यांचो विचार करिनासतना विकपी मनशां, मीन नांवाच्या राक्षसांच्या नांवार हुंदीर जावन डोंगर पोखरपी आमी गोंयच विकूंक भायर सरल्यात काय? 'म्हाका सांबाळात म्हाका काबार करूं नाकात' म्हणत दुकांनी घुस्मटपी त्या गोंयच्या आवयभुंयेचें मनय आयज समजून घेवपाची खूब गरज आसा!

'टिवी, इंटरनेट' हाणीं खूबशें बरें परिवर्तन हाडलां. तेचवरी भुरगीं, तेचवरी तरण्या मनांचेर जावपी वायट परिणाम आयज आमकां पावला पावलाक जाणवतात. अशा वेळार सरभोंवतणचें बिगडत वचपी वातावरण पळयल्यार आमच्या सारखिल्या पालकांचें मन भियेता. अशा वेळार म्हाका म्हजे आवयची याद जाता. हांव ल्हान आसतना गांवठी दुदफेणे जावं काजू बर्फी ती आपूण खायनासतना लेगीत म्हाका राखून दवरताली. विचारल्यार 'तूं आवय जातकच तुका समजतलें.' ही तिची जाप आसली. आयज आई ना पूण दोन भुरग्यांची आवय म्हण हांवय तांच्यो आवडी-निवडी सांबाळटां. तांचो फुडार बरो जावंचो हाची जतनाय घेतां. पूण फुडाराक तीं आमकां आवय-बापूय म्हण रेस्पेदार करत काय हाचो हुस्को सदांच दिशीमाशी वाडत वता. शिक्षण आनी संस्कारांतल्यान बरीं मनां घडोवपाचे प्रयत्न शाळा, आपवावुरपी संस्था आनी समाजसेवक करत आसात.

मनशा कणकणी मनां वेगळीं हेतर सामकें खरें! एकदां लग्नाक गेल्लेकडेन एके अनवळखी बायलमनशेन आपली साहित्यीक वळख दाखयत म्हळें, “तूंच न्हय गो तें शर्मिला प्रभू? तुजे सुनापरान्तार येवपी लेख हांव मुजरत वाचतां.” तिणें अशें म्हणटकच हांवें भितरल्या-भितर खोशयेन मुरगटत तिका म्हळें, 'थेंक्यु, थेंक्यु' इतल्या म्हणसर थंयच उबी आशिल्ले आनी एके बायल मनशेन म्हजे खोशयेर विरजण घालत म्हळें, “कसल्याक बरोवंचें गो तें! कागद, पेन तुगेलें, गाडये पेट्रोल तुगेलें, आण्यां काय जोड ना.” अशें म्हणत ती भराभर उलयत रावली.

तिणें आपल्या उलोवपाक पुर्ण विराम दितगच हांवें निर्शेल्ल्या मनांक पोसकी घटसाण हाडत थंड माथ्यान जाप दिली, “बरोवन कितली धादोसकाय मेळटा ती बरयतल्याक आनी वाचतल्याक कळटा!”

कॉलेजांत आसतना आमचो सर सदींच सांगऽ, समाज परिवर्तन करपाची तांक लेखणेन आसता खंय! लोकांनी पेपर वाचून जातकच भायर मारूं! वाचून मनाचेर घडिल्ले बरे संस्कार जल्मभर उरतले! जळीमळी पडिल्लो कचरो, बुरशो दर्यावेळो, पावला कणकणी दिसपी सोऱ्या गादयो आनी जायतें! हाकाच लागून चिंतेन भरिल्लीं गोंयकारांचीं मनां! आयज सुशेगादपण सोडून दिसरात धडपडपी गोंयकारांनी आपलीं मनां हिमालयावरीं महान, मांडविच्या उदकावरी नितळ दवरून गोंयच्या फुडाराविशीं चिंतपाची गरज आसा. हांगचीं झाडां-पेडां, दोंगर, न्हंयो-वजरे, सुकणीं जनावरांचेर मनांतल्यान मोग करपाची गरज आसा. गोंयचो सैम सांबाळप म्हळ्यार आमचो फुडार सांबाळप हेंच खरें!





– शर्मिला वि. प्रभू
आगाळी-फातोर्डा.
फोन : २७४०६४०

## पोसो

*आयचीं भुरगीं जेन्ना फाटफुडो पळयनासतना कित्याय कितेंय उलयतात, कश्याय कशीं वागतात, तेन्ना तांकां जाग्यार हाडूंक हांव व्हड लेक्चर दिवचे बदला 'काडली जीब लायली ताळयाक' ही पोरणी म्हण आयच्या काळाची संदर्भ घेवन नवी पर्यायी ओपार तयार करून चल्यांक 'काडलो मॉबायल लायलो कानाक' तर चलयांक, 'काडली लिपस्टीक लायली वोंठांक' अश्यो दोन खाशेल्यो म्हणी वापरतां.*




**काश्मिरी स. पावसकार**
बामण वाडो,
शिवोले – गोंय.
मो. : ९४२११९२८५८


सुनापरान्त दिसाळ्यांतल्या 'वोंवळां पोडांचो' परमळ घेतां घेतां म्हाकाय ह्या वोंवळां पोडांनीं म्हज्या पदरचीं वोंवळां गुंथीन दिसलीं आनी ते सरशीं म्हाका एक गजाल याद जाली. नोकरेक लागून फाटलीं वीस वर्सां हांव शिवोले रावतां आनी तेन्नासावन म्हाका 'शिवोलकार' हें नांव पडलां! म्हाका दिसता ह्या एकाच कारणाक लागून म्हजे व्हडले भयणीन म्हाका नातालांक, ईस्टराक, फेस्ताक परबीं भेटोवंची एक नवी चाल सुरू केल्या.

अंदू वर्साक अशींच फोनावेल्यान परबीं भेटोवन जातकच ताणें म्हाका आपल्या पुताची कागाळ सांगूंक सुरवात केली.

''शी! ह्या अक्षयान सामकें विटयलां गो बाये! हाका कोण धावेचो भुरगो म्हणटलो पूण? सुटयेच्या नांवार पुस्तकाचें नांव लेगीत घेवंक पळयना. विचारल्यार म्हणटा, आई, हॉलीडे इज जस्ट टू एनजॉय.''

ताचें दुख्ख पयस करपाक हांवें ताका म्हळें, ''आतांचीं भुरगींच तशीं! ताका तूं तरी कितें करतलें? आवय-बापूय डोनेशनां दिवंक समर्थ आशिल्ल्यान तांकां दिसता शिकचें तरी कित्याक?'' एक शीर फाल्त आसची तशी ही भयण कवी मनाचीय आसा.

म्हणूंक लागली, ''बोल्सांत ना डोनेशन, घेवपाक चल्लो ॲडमिशन अशी गत जाल्या म्हज्या पुताची.'' तशी ताची तुस्त गायत म्हळें, ''आवयस! काय बरी म्हण म्हळी गो तुवें!''

''मागीर, वारें येता तशें सूप धरचेंच पडटा.'' अशें म्हणीत थंयचे थंय ताणें एका फारान सतरा वाग मारपाचें आपलें काम केलेंच!

# एक तरी म्हण अणभवची!



हे भयणीची दुसरी गजाल म्हळ्यार तें उलयतना आपूण कोणाक दुखयता करता हाची पर्वा करिना. आसा ना तें तोंडार उलोवन मेकळें. ताच्या ह्या सभावान आतां मेरेन जोडिल्लीं जायतीं मनशां तोडुनूय उडयल्यांत. ताका समजावंक हांवें ताका सदांच सांगचें, "दिदी, तूं उलयतना तोंडांत इंगळे दवरून कित्याक उलयता? ताका लागून लोक तुका सामकें फटकळ म्हणटात."

"म्हणूं थंय, हांव खरें तेंच उलयतां आनी हेंच लोकांक माल पडटा. ताका हांवें कितें करचें? लोकांक 'तोंडार बरो, पोटांत विखाचो गुळो' असलोच मनीस चड आवडटा." परत आसा तशें तोंडार उलोवन मेकळें!

पंदरा वर्सां फाटीं हांवें सिंगल बेडरूम फ्लॅट घेतिल्लो. तेन्ना आमगेर घर प्रवेशाक आयिल्लेकडेन आमच्या घराची तोखणाय बी करची सोडून मांय-मांवाच्या फुड्यांत फट्ट करून म्हळें, "आगो, तुमचें घर ल्हान, फर्निचर म्हान जालां मगो!"

भयणीली ही नवी म्हण आयकून म्हाका कितें कळपाचें तें कळून चुकलें. रोखडोच तागेलो व्हडलो पूत फुडल्या शिक्षणाखातीर इंग्लंडाक गेलो. नोकरे निमतान आतां थंयच राबित्याक आसा. तें पळोवन हांवें म्हळें, "आगो, पूत इंग्लंडची व्हंकल बी हाडिना मगो?" जाप दितना आनी एक नवी म्हण कानार घालीत म्हणूंक लागलें, "तुमकां मागीर म्हणूंक बरें मगो,' मांय क्लबांत आनी सून पबांत'."

एक दीस भयणिचो पाखो घेत हांवें कोणाकतरी म्हळें, "तशें सामकेंच वायट न्हय तें. तोंडांत इंगळे पूण मनाचें दुबळें!" तें आयकून आयकुप्यान राग उक्तायत म्हळें, 'आपला तो बाब्या दुसऱ्याचं ते कार्ट.' तशें हांवें विशय बदलूंक म्हणीचें भांडार उक्तें करीत एक खाशेली म्हण वापरून म्हळें, "आगो ही जाली मराठी म्हण, हाकाच लागसारकी 'आपलो तो सुटके झुजारी दुसऱ्यालो आकांतवादी' ही कोंकणी म्हण वापरल्यार कितलें बरें दिसतलें पळय!"



भुरगेपणांतल्यान म्हाका नाटकां-सिनेमांची खूब्ब आवड. सांजेर एकादो सिनेमाचो बी बेत आसल्यार वर्ली पिळी नासतनाच तश्याच तशीं सुकत घालचीं (तेन्ना घरचीं कामां आमकां वाटून घातिल्लीं) तें पळोवन आवयन म्हणचें, हागेलें एक बरें 'उमळपाक पाड जेवंक पोटभर वाड' एके ल्हानशे म्हणींत खूब कितें म्हणूंक जाता न्हय! खऱ्यानीच, ह्यो म्हणी म्हळ्यार पुर्वजांकडल्यान मेळिल्लें एक व्हड देणें आसा. तांच्या विशाल अणभवांची ती अप्रूप अशी खण आसा. म्हणी तयार करतना यमकां जुळयल्ल्यान त्यो अदीकूच काव्यमय जातात. भास अलंकारीक आनी समृध्द करपांत तर म्हणींचो व्हड वांटो आसा. गोंयच्यो साबार म्हणी म्हळ्यार थोड्याच उतरांनीं सांगिल्लें शाणेपण. तातूंत संवसारांतल्या कांय कोडू-गोड सत्याचें दर्शन आमकां जाता. जांकां उद्देशून तुमी त्यो म्हणटात, तांच्या मनांत त्यो पयलीं रिगतात मागीर काळजाक रोमतात आनी उपरांत कितलोसोच वेळ कानांत घुमत रावतात आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार आमचे जिणेक त्यो आकार दितात. अशें जाल्यारूच म्हणींची मोख पुराय जावंक पावता. नाजाल्यार उमथ्या कळशार पाणी तशी भेऱ्याक काणी जावन पडटा.

आयज ग्लोबलायजेशनाक लागून आमची लोकजीण बदलल्या. समाजांतल्या दर एका मनशाचे व्याप हिसपाभायर वाडल्यात आनी ह्या बोवाळांत म्हणीचें गिरेस्त दायज फाटीं पडलां. हाचीं कारणां मागीर कितलींय आसूं! आमी हें दायज मुखार व्हरूंक जाय. तशें अदर्यां माडार चडून हात सोडपी मनीस हांव न्हय! देखून ह्या म्हणींचो वापर करतना त्यो समकालीन करतां इतलेंच! देखीक आयचीं भुरगीं जेन्ना फाटफुडो पळयनासतना कित्याय कितेंय उलयतात, कश्याय कशीं वागतात, तेन्ना तांकां जाग्यार हाडूंक हांव व्हड लेक्चर दिवचे बदला 'काडली जीब लायली ताळ्याक' ही पोरणी म्हण आयच्या काळाचो संदर्भ घेवन नवी पर्यायी ओपार तयार करून चल्यांक 'काडलो मॉबायल लायलो कानाक' तर चलयांक, 'काडली लिपस्टीक लायली वोठांक' अश्यो दोन खाशेल्यो म्हणी वापरतां. हातुंतल्यान तांकां रोखडोच बोध जाता. आनी जायनाय जाल्यार मागीर त्या म्हणी फाटली काणी सांगुनूच मेकळें जाता. अशेंच एक दीस वाडट्या वजनाक लागून हांवें उडकी मारली आनी म्हजो उजवो हात गळयांत पडलो, तें पळोवन एका वांगड्यान, 'पांय चुकल्यार हत्ती लेगीत पडटा. तूं खंयचें!' ह्या उतरांनी शाणेपण सांगलें. ताचे म्हणीक प्रत्युत्तर दिवपाची हांव वाटूच पळयतालें. बरोबर दोन दिसांनी तागेलें नवेंच (पूण सवाय) घड्याळ मोडलें. तशें हांवें ताका "म्हाल मेड इन चायना परत सारको जायना! हें खबर ना काय कितें तुका?" म्हणीत बादाबाद केलें. 'नडीचें वता बडिचें वचना' म्हणटात ते परी हांव हो म्हणीचो वसो मुखार व्हरत आसां. देखून केन्ना-केन्ना म्हजें हें अलंकारीक उलोवप बी आयकून म्हाका एकलो शेजारी म्हणटा, 'टिचरीचें उलोवप फोर्त, मास कसलेंय आसूं ग्रेवी मात दाट.'

अश्यो ह्यो तरेकवार अर्थाच्यो म्हणी वा लोकसंकेत आमच्या लोकवेदांत खूब्ब आसात. म्हणी आवडना असो मनीस ना. पूण त्यो आवडल्योच म्हूण जायना, तर तांचो वापरूय आमी दिसपट्टे जिणेंत करूंक शिकूंक जाय. 'एक तरी ओवी अनुभवावी' अशें संत तुकारामांनी म्हळांच! त्याच उतरांचो आदार घेवन म्हाकाय म्हणीन दिसता 'दर दिसा आमी एक तरी म्हण अणभवची आनी आमची जीण गिरेस्त करची!'



# चॉयस इज युवर्स

*हांव आनी निशा वांगडाच शिकतालीं. पूण एकदां लग्न जालें आनी जिवाचें अर्दें सार्थक जालें. भुरगीं जल्मतकीर तर आनीक कांयच उरंक ना हे भावनेन निशान सामकेंच काकुबायचें रूप घेतलें. संवसार संवसार करीत आनी घरकार-भुरगीं हांचेभोंवतणी घाण्याच्या बैलावरी गिरगिरतनां स्वत:क सारप्प विसरलें.*



**आशा शानभाग**
सादोळशें - काणकोण.
फोन : २६३२२०४/
९४०४१४५३३७



**स**काळीं-सकाळीं भुरगीं शाळेंत वचपाक गेलीं आनी घरकार शिर्वीसेक भायर सरलो. आतां दनपारमेरेन म्हजेंच राज्य. हांवें बेगोबेग टी. व्ही. लायलो. एक बायल थंय लोकांचें भविश्य सांगून स्वत:चें भविश्य घटमूट करताली. घडये मानसीक रितीन मात्शे फ्राक लोक तें आयकून बरें कितेंतरी आजतरी घडटलेंच ह्या विचारांनी उत्तेजीत जायतय बी! हांवें सरळ दुसरो चॅनल लायलो. खरेंच, ज्योतीश, भविश्य हांचेर सेंट परसेंट विश्वास दवरप? तशें हें अंकगणितीय शास्त्र अशें म्हणटात. पूण शंबर टक्के विश्वास दवरून वागप काय आपले तांकीचेर विश्वास दवरप हो जणेकाचो प्रस्न.

ज्योतिशावेल्यान म्हाका येवजली ती लग्नावेळावेलीं जातकां पळोवपाची आनी गूण जुळपाची कटकट. खूब फावटीं दोन जिवांचीं काळजां-मनां एक जाल्लीं आसुनय जातक आनी थंयचे चौकटींतले गिरे हांच्या नाखुशेन तांच्या मोगाक लग्न ह्या सामाजीक सर्वमान्य नात्याचें नांव मेळना. घरच्यांच्या फोर्साखातीर हे दोनूय जीव कोणायकडेन लग्न जातात आनी एकंदर चार जिवांचें आयुश्य मातयेभरवण जाता. धतरेपसून लाखो प्रकाशवर्शांच्या दुरायेचेर फिरपी गिरे साध्या मनशाच्या आयुश्याचेर खरेंच इतलो प्रभाव घालतात? आयच्या ह्या विज्ञानयुगांतय आमी असल्या गजालींचेर विश्वास दवरप म्हळ्यार नव्या वर्साचो ज्योकच! 'पाडा पडूं त्या भविश्यवाल्या चॅनलांचें. म्हज्या दिसाची सुरवातच विचारांच्या चक्रव्युहांत घुस्पून जाली आयज. पाडापडिल्लो तो चॅनल लागनाशिल्लो जाल्यार कितेंय ढिंका-चिका पळोवन उमेद तरी येवपाची.'

हांव विचारांत घुस्पत वतालें. इतल्यांत म्हज्या मोबायलान किळांच मारली. स्क्रिनाचेर म्हजी लागची मैत्रीण निशाचें नांव झळकलें.

''आरे निशा, कितले दिसांनीं आयज याद आयली गो म्हजी.''

हांव म्हजो शीण काडत रावलें. ताका उलोवंकच दिनासतना हांव म्हजो ओघ कमी जायसर ताका रागान, मोगान तापयत, ताजेकडेन उलयत रावलें.

''कशी जाली गो दिवाळी? अक्षय, शलाका आनी तुजो भोळासांब कसो आसा?'' म्हजी गाडी ताज्या फामिलेचेर पावतकीर हांव थांबलें.

''अंजु, जालें तुजें उलोवन? सगलो शीण काडलो? आतां हांव उलोवं?''

निशाच्या ह्या उतरानीं म्हजें विमान सामकें जमनीर देंवलें.

''सॉरी निशा. म्हजें जाणां तूं. ब्रेक नाशिल्ली सुपरफास्ट गाडी कशें बडबडलें हांव. आतां तूं उलय हांव आयकतां. भुरगेपणांतल्या भशेन हाताची घडी आनी तोंडार बोट. चल.''

''अंजू आमी सगळीं खुशाल आसात. पूण एक प्रॉब्लेम जाला. देखून तुजी मजत जाय. ल्हानपणासावन म्हजी पाठराखपीण कशें तूं जाल्ल्यान दर एके चिंतेंत तुजीच साथ मेळ्ळ्या. आतांय हांव तेच आशेन तुजे लागीं पळयतां.''

घडये म्हजें भविश्य आयज हेरांचे प्रॉब्लेम सोडोवचे पडटले अशेंच आसूं जाय शें म्हाका येवजलें. खंयचो तो चॅनल लागलो आनी मन भविश्य आनी ज्योतिशाच्याच विचारांत घुस्पलें अशें जालें. मनांतलें मनांत हांव हांसलें.

"निशा, उलय तूं. आयकतां हांव. पळोवया तुजो प्रॉब्लेम सोडोवपाचो यत्न करून."

"अंजू, फोनार सांगप शक्य ना गो. तुका मेळुनच उलोवंक जाय म्हाका. परवां सकाळींच येतां हांव तुजेकडेन. चल बाय."

फोन दवरून हांव म्हज्या दिसपट्टी कामांनी घुस्पलें आनी परवांची वाट पळोवंक लागलें. हा-हू करून फाल्यांचो आयज जावन सोंपलो आनी निशाचो परवां फाल्यांचेर पावन आयजय जालो.

सकाळीं सकाळीं म्हळयार बेगीनच पावणेआठांकच निशा म्हज्या घरा पावलें. एकाच शारांत पूण विरूध्द दिकांनीं रावपी आमी फोनाचेर मदींमदीं मेळटालीं खरीं पूण आमने सामने भेट म्हळ्यार दुदांतली साकरच. दोगांयनी एकामेकांक गच्च वेंग मारून ही भेट सजयली. हांसकुरेंशें ताजें मुखामळ म्हाका भितरलेभितर दुखिल्लेवरी दिसलें. हांवें ताका सालांत बसोवन पयलीं मूळ मुद्याक हात घालो.



"निशा, च्या-पाणी मागीर पळोवया. पयलीं तुजो प्रॉब्लेम सांग. यत्न करूया तो सोडोवपाचो."

हांवें मेकळेपणान केल्ले सुरवातीन निशाय सुशेगाद शें जालें. घडये म्हजो आत्मविश्वास पळोवन ताका ताज्या प्रॉब्लेमाचें सोल्युशन मेळटलेंच हाची खात्री पटली आसतय.

"अंजू, तुज्याच भरवंशार हांगा धांवत आयलां गो हांव. अक्षय आनी शलाका तुजें बेसबरें गुणगान करतात. म्हणटात, मम्मी, अंजुमावशेक पळय गे आपलें नॉलेज कशी अपडेट दवरता ती. ती म्हळ्यार तूं गो. अंजुमावशीकडेन उलोवंक सुध्दां बरें दिसता. म्हाका सदांच थोमणे मारतात, हांव कचरापेटी जालां म्हणून. हांचेखातीर जालां न्ही गो हांव घरकोंबडी! प्लीज अंजू तूंच मात्शें अक्षयाक समजाय. तुजे उतरा भायर तो वच्चो ना."

म्हणल्यार प्रॉब्लेम अक्षयाचे बाबतींत आसा हें कुवाडें सुटलें. हांव आनी निशा वांगडाच शिकतालीं. पूण एकदां लग्न जालें आनी जिवाचें अर्दें सार्थक जालें. भुरगीं जल्मतकीर तर आनीक कांयच उरूंक ना हे भावनेन निशान सामकेंच काकुबायचें रूप घेतलें. संवसार संवसार करीत आनी घरकार-भुरगीं हांचेभोंवतणी घाण्याच्या बैलावरी गिरगिरतनां स्वत:क साप्प विसरलें. स्वत:च्या व्यक्तीमत्वाचो स्वत:च खून केलो म्हळ्यार अतिताय न्हय. निशाकडेन पळयल्यार म्हाका काकूटशी दिसली. सामकें हाताकडचें बोतर कशें जाल्लें.

"आगो, पूण अक्षयान केलें तरी कितें अशें?" हो म्हजो प्रस्न वोठांतल्यान भायर पडलो मात, निशा धबधब्यावरी कोसळ्ळें.

निशाचो गुणवंत पूत मनाचो कलाकार. हाताबोटांनी चित्रकला भरून व्हांवताली. तो एके चलयेच्या मोगांत पडलो. पुरायतरेन एकतर्फी मोग म्हणपा सारको. ताका ती चली खूबच आवडली. दोगायमदीं इश्टागतय वाडली. आवय-पुतामदल्या मेकळ्या नात्याक लागून अक्षयान आपलें मन आवयसामकार मोकळें केलें. निशाचे नदरेन चलयेमदीं वा फामिलेमदींय कांयच खोट नाशिल्ली आनी ताजे मतान तर अक्षयाची आवड हीच गजाल फायनल आसा. देखून निशा वा घरकाराचो विरोध हो प्रस्नच नाशिल्लो आनी जेन्ना घरची लक्ष्मी खंयचेय चलयेक सून म्हणून स्वीकारपाचेर ठाम रावता तेन्ना तो निर्णय पुरायपणान त्या घराचोच आसता हातूंत दुबावच ना. हरशीं घरच्या पुतान एकाद्री चली पसंद करची आनी जुस्त आवयन नकार दिवंचो ही पुरातन परंपरा! आयजूय हें शंबरांत णव्वद टक्के तरी घडटाच. निशान ते चलयेची सगली चवकशी काडली आनी अक्षयाक ताची आवड खूब योग्य आशिल्ल्याचें सांगलें.

खरें म्हळ्यार खंयचेय मांयक आपलो पूत सुनेचे सुवादीन करप कठीणच जाता. इतलो तेप आपलो आशिल्लो पूत आतां सुनेचो, एके परकी बायलेचो जातलो ह्या विचारांत, भंयान आवयांक चल्याचें लग्न सुखदायक आसलें तरी मनोमन भेसडावपीच थारता. निशाच्या घरांत मात वातावरण उलटेंच आशिल्लें. स्वत: मांय चल्याचे पसंतीक तेंको दिता. खरेंच कोण त्या अक्षय मोगांत पडिल्ले चलये, तूं भाग्यवंतच

थारतलें गो ह्या घरांत पावल्यार! हांव मनोमन चिंततालें. निशा उलयत आशिल्लें आनी हांव कानांत जीव हाडून आयकतालें. धाडस करून अक्षयान एक दीस ते चलयेक प्रपोज केलेंच. तें चली हय ना करत करत 'तुका जाय तें समज' मेरेन पावलें. पूण निमणेमेरेन ठाम आनी शेर्त अशें उतर दिलें ना. अक्षय मात ते चलयेखातीर पागल जालो. तशें पळयल्यार अक्षयाक चलयांची वानवा ना. पूण ताणें मना-काळजांत फक्त 'तें'च रूजलां. आयुश्य वांगडा काडल्यार ताजेच वांगडा ना जाल्यार आयुश्यभर एकोडोच रावतलों हे अक्षयाचे प्रतिज्ञेन निशाच्या मातृहृदयाक धको बसला. वयाच्या मानान बरो समंजस आशिल्लो अक्षय आपल्या विचारांचेर ठाम रावतलो हें निशा वांगडा म्हाकाय खबर आसा.

हाचे उपरांत निशा स्वत: ते चलयेक मेळ्ळें. अक्षयाची सगळी काणी ते चलयेमुखार ताणें सांगली. पूण ती चली कांयच उलयनासतना चलत रावली. अक्षयाची पसंदी म्हळ्यार पुराय फामिलीचो तेंको, प्लीज पोजीटीव्ह चीत, तो तुजेखातीर आपलें आयुश्य वाऱ्यार सोडपाक तयार जाला. विचार कर हें सांगून सुद्दां तें चली बदलें ना ताका. मनांतल्या मनांत हांव म्हणटालें, 'भाव खाता आसतलें ना जाल्यार रूपा-गुणांचो माज चडला आसूं येता!'

फट्कन वोंठार उतर आयलें. ''माज आयला आतांच्या चलयांक. चलये गर्भाची हत्या जायत वता देखून चलयो कमी जातात आनी लग्नाच्या बाजारांत हांकां डिमांड वाडला देखून भाव खाता जातलें. पूण हांव तरी हे चलयेक मुर्ख मानतां. कारण तें पयशा-भांगराची गिरेस्तकाय सोदत अक्षयासारको गुणवान भुरगो आनी तुमचे फामिलीसारकी फामील न्हयकारता जाल्यार मुर्खांतलें मुर्खच तें चली.''

अजाप, म्हज्या ह्या उतरांनीं आपले तोखणायेन खुशाल जावपाचें सोडून निशाच दुखावलें. ''ना गो अंजु ते चलयेक कांयच म्हणूं नाका. खरेंच गुणी आसा गो तें. हांव तर मनोमन ताका सून मानपाकय लागलां.''

हांवें कपलार हात मारलो.

''अंजु, तें म्हळ्यार म्हज्या अक्षयाचें काळीज जालां गो. ताका किदेंय म्हळ्यार अक्षयाक दुखतलें म्हणून म्हाकाय दुखता.''

विचित्र अशे मायेचो तो अविश्कार पळोवन हांवय अजापलें. ताज्या दुकांनीं भरिल्ल्या दोळ्यांत पळयत हांव सवकाश उलयलें, म्हजेंय काळीज दाटिल्लें न्हय?

''निशा, येत्या आयताराक हांव तुमचेकडेन येवन अक्षयाकडेन उलयतां आनी समजायतां ताका. ओके?'' निशाक च्या-नाश्तो दिवन हांवें पर्थून वचपाचे गाडयेर बसयलें.

अक्षयाक ह्या टॉपीकाचेर हांव कांयच आनी कशेंच समजोवंक शकचें ना हाची म्हाका पुराय खात्री आशिल्ली. पूण म्हजें म्हणणें तो आयकून घेवन घडये ताजेर कितेंय पॉझीटिव्ह चित्तलो हाची मात्र मनोमन खात्री आशिल्ली.

''अक्षय बाबा, तूं ते चलयेखातीर स्वत:क दुर्देवी बी समजूं नाका. खरें म्हळ्यार 'तें' कोण पळय आसा न्ही तें मुर्खच न्हय तर खरेखुरें दुर्देवी म्हणपाचें. कारण येद्या ल्हान वयांतूच स्वत:ची वळख निर्माण करपी तुजेसारको भुरगो ताणें न्हयकारला. प्लस मांयपण न गाजयतां मैत्रिणीभशेन वागपी तुजे आवयकय ताणें धुडकायलां. 'तें' चली गुणी आसुनय ताचे सारकें दुर्देवीय तेंच.''

हे असले सागणेन हांव अक्षयाक सावरपाक शकन पूण ताजे प्रतिज्ञेकडच्यान पयसावपाक शकन हाची म्हाकाच खात्री ना.

जेन्ना एकाद्रया चल्याची आवय आपल्या पुताची आवड जपपाक एकाद्रे चलयेलागीं वता तेन्ना ते चलयेक समजूंक जाय की त्या घरांत आपल्यो खूबच खूब अर्थी जातल्यो. हांव चिंततालें, घडये ते चलयेच्या वा ताज्या घरच्यांचे फामिलीच्या मनांत अपुरबाय, तोखणाय, माया-मोग हाचेपरस वयलोवयलो भपको, गिरेस्तकाय, वैभव हांका म्हत्व आसतलें. म्हाका येवजलें म्हजें तरणेंपण. म्हजें लग्न जालें तेन्ना म्हज्या घरकाराकडेन थोडेशे पयशे आशिल्ले. ते गरिबींतय हांवें समाधान अणभवलें. आयज देवादयेन सगळें आसतनांय हांव तशेंच सुख-समाधान भोगतां. घडये सूख पयशांनी मेळोवं येता... पूण समाधान? विकतें मेळटा तें? समाधान मेळोवंक पयसोच जाय काय घरांतल्या मनशांची माया मोग पुरता? ह्या प्रस्नाच्यो जापो मेळोवंक तें चली येशस्वी जाल्यारच तें साल्वार. शेवटी च्यूज करप ताज्याच हातांत आसा. वयले वयले सूख-समृध्दींत लोळपाचें काय उपाट समाधानान जगपाचें.... चॉयस इज युवर्स बेटा... थिंक पोझिटीव्ह चूझ द बेस्ट.



# घुस्मटमार बायल जातीचो!



*सुरक्षीत लैंगीक संबंध आनी त्या संबंधांतल्यान जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांचें बरें संगोपन ह्या खातीर लग्न असो जर आमी विचार करतां आसत जाल्यार आयज समाजांत जावपी लग्नाक खऱ्यानीच कितें अर्थ आसा? पूण हें अर्थ नाशिल्लें लग्न जमोवपाक रटावळी कितल्यो?*



**प्रतिभा बापट**
खोर्ले, म्हापशें- गोंय

सैमांतले जिवसृष्टीचें मिलन घडून येवन सुंदर अशी नवनिर्मिती जाता. एकमेका मदलें आकर्शण, प्रेम, विश्वास निर्माण जाल्या उपरांत पुराय सज्ञान अवस्थेन, कसलोच सुवार्थी हेतू मनांत बाळगीनासतना आनी जबाबदारीचें भान दवरून मनीसजातींतल्या दोन व्यक्तीं मदलो शारिरीक संबंद खूब सुंदर आसता अशें म्हणटात.

एकमेकाबद्दलचें आकर्शण, ओड, हुरहूर, कामप्रेरणा, दृश्टीकोन, इच्छापुर्ती तातुंतल्यान मेळपी आनंद/बेहोशी हाचें वर्णन करपाक कवींक उतरां कमी पडटात. साहित्य आनी कलेक हो विशय पुरून उरता. प्रेमाची पयली अत्यूच्च भावना मनीस केन्नाच विसरूंक शकना. मनशाच्या जिवितांतलो रोमान्स मनशाक जगपाची, कितेंतरी नवीन करीत रावपाची प्रेरणा दिता. मनशाक जिवीत जगतना जोडीदाराची खूबच गरज आसता जो खास आपलो आसता. वेगवेगळ्या मळार काम करताआसतना सहकार्य/मदत करपाक, धीर दिवपाक गरज आसता एकेका सोबत्याची. हांव मनीस म्हणटां म्हळ्यार तातूंत दादले आनी बायलांय येतात पूण आमी अशे एके परिस्थितींतल्यान सद्याक वतात की आमकां बायलांचे लैंगिकतायेविशीं उलोवचें पडटा. दादलो आनी बायलेक समाजांत समान अधिकार मेळचे म्हणून पुर्विल्ल्या काळांतल्या सगळ्या दादल्यांक नमळायेन नमस्कार करतां आनी सद्याच्या काळांत ह्याच कारणा खातीर विंगड विंगड क्षेत्रांत काम करून धडपडपी सगळ्या संवेदनशील दादल्यांचो मान राखून हांव हांगा बायलांच्या लैंगिकतायेविशीं बरयतां.

ल्हान आसतना चली आसता तीच फुडें बायल जाता हें सगळ्यांकच खबर आसा.पूण पिरायेच्या १३-१४व्या वर्सा ती वयांत येता. कांय कडेन आतां हें चली फुडाराक भुरगीं जल्माक घालपाचे लायकीचें जालें म्हणून आनंद सुवाळे बी जातात आसतले! पूण सरसकटपणान आयच्या समाजांत म्हत्वाची गजाल जाता ती म्हळ्यार तिका 'आफूड' जाता. तिका घराभायर म्हळ्यार घरांत कडेक रावचें पडटा. जेवण, हांतरूण, कपडे सेपरेट. तिसऱ्या चोवथ्या दिसा आखेरेक शेणाचें उदक घेवन न्हावनच घरांत येवपाचें. ते पयलीं ते कपडे खंयतरी पयस व्हरून धुवपाचे. लाकडाचे खोपींत ना जाल्यार खंयतरी आडोसाक सहजपणान कोणाची नदर वयची ना अशा जाग्यार घालून सुकोवपाचे. मेजक्या उतरांनीं सांगपाचें म्हळ्यार सैमाच्या अविश्कारांतल्यान जें कितें नवें घडटा ताचें स्वागतच अशे कुडी-बद्दलचे अपवित्र भावनेन जाता. आपली कूड म्हयन्या म्हयन्याक तीनचार दिसां खातीर अपवित्र (घाण) जावपाची आसा हेच भावनेन बायलांक स्वत:च्या लैंगिकतायेविशींची वळख जाता.

सैमिकरितीन चेडवांकय वांगडच्या चलेभुरग्याचें आकर्शण दिसता आनी एखाद्रो आवडूंकय लागता. पूण घरांतल्यान शिटकावणी, ''पळय! आतां तूं व्हडलें जालां, चले भुरगे तुजे कडेन उलोवंक येवंक सोदतले, फकणां करतले, आपणें तांकां पळोवपाचें ना आनी हाऽऽ पचक करून हांसशीत बी! शाळेंतल्यान सुटलें की सरळ घरा येवपाचें.''

हें आयकतकच चली भुरगें गोंधळांत पडटा. कारण ताकाय त्या वेळार चल्या भुरग्याकडेन चोरून पळयन दिसता, उलयन दिसता. पूण बाये तुका अशें कितेंय जातलें अशें तांकां कोणूच सांगिना. कारण? कारण एकच. बायलेकय कामभावना, कामइत्सा आसता हें आमच्या समाजान गृहीतच धरूंक ना. म्हळ्यार न्हयकारलां. ताका लागून बायलां म्हळयार कवचेचो घडो बी म्हणून सांगतात. लग्नापयलीं बायलांनी दादल्यांकडल्यान पयस रावपाचें, तांचेर विश्वास दवरपाचो ना, इश्टागत वाडोवपाची ना. म्हत्वाचें म्हळ्यार स्पर्श करपाचें ना अशी सक्त ताकीद चेडवांक दिल्ली आसता. ताका लागून दादल्यां बद्दलचो चुकिचो, दुशीत दृश्टीकोन मनांत बाळगून चली व्हडलें जाता. पूण कुडी भितरलें मन! ताका कोण आडायतलो? पिक्चरांतले रोमेन्टीक सीन टिव्हीर पळोवपाचे. भावगीतां मनांत गुणगुणपाचीं नाजाल्यार सर्त बी आसल्यार म्हणपाची! आनी हो ह्या शरिराच्या संवेदनेचो उत्सव फक्त लग्न जाल्या उपरांत पुरो जावपाक शकता आनी बरो घोव मेळचो म्हणून खूऽब शिकपाचें. शिर्वीस करपाची, चार पयशे जमोवपाचे. रितीन भांगर करपाचें आनी मागीर प्रपोजलां पळोवपाक सुरवात करपाची. अशा पद्दतिंतल्यान लग्न जाल्या उपरांत बायलांक गुरवारपण आयलें जाल्यार फुलां माळटात. कारण फुडाराक जावपी भुरग्यांचो बापूय कोण हें निश्चीत जाल्लें आसता. पूण लगीन जावंचे पयलीं सैमिक रितीन आपले आवडीन/इत्सेन शरीर संबंद दवरून जर गुरवारपण आयलें जाल्यार? ताचें पाडच पडूं! ही नालायक बायल आपल्या नखऱ्यानी दादल्यांक भुलयता, आपल्या जाळांत ओडटा असो तिचेर धडधडीत आरोप जाता. कारण हांगा भुरग्यांचो बापूय कोण? हें निश्चीत जाल्लें नासता. दादल्यांक भुरगीं जायनांत म्हणून ते मेकळे सुट्टात. अशे तरेन बायलांक लैंगिकतायेची आनीक इल्ली ओळख जाता ती म्हळ्यार 'भानगड' अनैतीक गुरवार जावपाचो भंय. समाजांत छी थू!

बायलांक कामभावना आसता हें पूर्णपणान नाकारपाचें आनी दादल्यांक मात ताजें खूबच आकर्शण, तांकां आपले हे भावनेचेर नियंत्रण दवरप म्हळ्यार कर्मकठीण अशी आमच्या समाजाची सोयीस्कर भुमिका आसता. ताका लागून मागीर बायलांचेर तरातरांचीं बंधनां - बायलांनीं आंगभर कपडे घालपाचे जावं ताणीं कशें भोवपाचें म्हणजे एकटें जावं चेडवां चेडवां अशीं भायर सरपाचीं नांत. अशे तरेच्या बंधनांक लागून बायलांची प्रगती जावंक पावना. आत्मविश्वास वाडना. मात दुसरेवटेन उरलेल्या समाजांतल्या अतीसुंदर बायलांच्या कुडीच्या वेगवेगळ्या भागांचें प्रदर्शन करपा खातीर तमाशा/मुजरा असो कार्यक्रम दवरपाचे. जागतीक पातळीचेर धरून गांवगिऱ्या वाठारांत लेगीत सौंदर्य स्पर्धा जातात तो हातुंतलोच एक प्रकार. बुध्दीमत्तेची परिक्षा बी म्हणटात ती फट. बायलेचें वस्तूकरण (कमोडिफिकेशन) जालां म्हणटात तें हेंच की तिका दादल्याच्या आनंदाचें साधन अशें समजून प्रोजेक्ट करतात. म्हळ्यार बायलेन आपूण जावन आपले इत्सेन बरी टापटीप सुंदर रावली जाल्यार ते नखरे लैंगीकतायेचे. ही आनीक एक वळख. म्हळ्यार बरेचालीचे बायलेन अजागळ कशी रावपाची!

दादल्यामनशाकय हे गजालीचो निश्चीतपणान त्रास जाता. पुराय मेकळेपणान तो आपली जीण सारपाक शकना. दादलेपणाचीं कसलीं कसलीं वर्जी घेवनच जगता तो बाबडो.

सुरक्षीत लैंगीक संबंध आनी त्या संबंधांतल्यान जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांचें बरें संगोपन ह्या खातीर लग्न असो जर आमी विचार करतां आसत जाल्यार आयज समाजांत जावपी लग्नाक खऱ्यानीच कितें अर्थ आसा? पूण हें अर्थ नाशिल्लें लग्न जमोवपाक राटावळी कितल्यो? बरें चली वयार आसतनाच लग्न जावंक जाय (कारण शरीर बरें धश्टपुश्ट आसता असोच ताचो सरळ अर्थ आसा) नाजाल्यार मागीर तोंड पडटा. मागीर लग्न जावपाक कठीण अशें सरसकटपणान उलोवपी समाज ते बायलमनशेचे कुडींत एक मन आसता म्हणपाचें पुर्णपणान विसरता. नावापुरती चलयेची पसंती बी विचारतात. पूण म्हाका खात्री आसा की चलयो आपलो सॅक्शुअल पार्टनर सोदीनांत तर घरदार, नोकरी पळोवन फुडाराची तजवीज करतात. आमच्या समाजांत आजुनय दोन प्रौढ सज्ञान व्यक्ती लग्न करिनांत. तर लग्न जमयतात, करून दितात. बायलांचे लैंगिकतायेची ही गळचेपी आनी मागीर घटस्फोट घेतात म्हणून बोंब!

दुसरे वटेन आर्थीक, सामाजीक, शैक्षणीक परिस्थितीक लागून कितलींशींच चेडवां बाबडीं वयाच्या ३८ ते ४० वर्सां मेरेन सुध्दां आंकवार उरतात म्हळ्यार कामप्रेरणा जागृत आसपाचो जवळ जवळ संपूर्ण काळ तांकां आपले सैमीक उमेदीक दामून दवरचें पडटा. ही सुध्दां एक प्रकारची हिंसा, अन्याय कसो म्हाका दिसता. बायलांचे लैंगिकतायेची ही आनीक एक चेपणूक.

कामभावनेचेर बंधन म्हळ्यार ती न्हयकारप जावं दामून दवरप न्ही जाल्यार योग्य ते परिस्थितींत, योग्य त्या वेळार, योग्य ते पध्दतीन व्यक्त जावप. पूण अशे तरेचो एक पसून सामाजीक सुवाळो आसता अशें म्हाका दिसना. उत्सव आसतात ते देवा धर्माचे. बाकी सण परबांक बायलांक जेवण आनी घरचीं कामा करता म्हणसर जाता नाकापुरो. लैंगिकतायेचो अविश्कार त्या टायमार जावपाची शक्यताय अजिबात ना दर्यादिगांचेर जावं दोंगराचेर जावं अश्याच कसल्यातरी अज्ञात सुवातांनी भोंवपाक तरनाटे-तरनाट्यो वयतलीं तेन्ना शारिरीक चाळे आनी संबंधच जावपाची शक्यता चड. कारण तें हरशीं सहज साध्य ना. पूण अशा संबंधांतल्यान एखाद्री सुंदर कलाकृती, सामाजीक उपक्रम, वैज्ञानीक जावं सामाजीक जाणीव वाडपाची इल्ली पसून शक्यताय ना. हें तेन्नाच शक्य आसा जेन्ना समाजांत दादले आनी बायलां मेकळेपणान एकठांय येवपाचे, भोवपाचे, काम करपाचे सुवाळे जातले!

बरी शिर्वीस ना, बरें घर ना म्हणून ४०-४२ वर्सां मेरेन लग्नच जालें ना आनी दादल्यांनी

जिवाक बेजारून आत्महत्या केली अशेंय केन्ना केन्ना कानार पडटा.

समाजाचे दृश्टीन बायलांचे लैंगिकतायेचो म्हत्वाचो उपेग म्हळ्यार तांकां भुरगीं जावप. तीं जायना जाल्यार चुरचुरे आनी लग्न जाल्ले बायलेन भुरगीं नाका म्हटलीं जाल्यार तिका मेजून गाळी.

घोवाची सेवा, भावाचो मोग, पुताचें कौतूक बायलेन करचें पडटा आपल्याक सांबाळचें म्हणून.

घोवान कितलेय त्रास केल्यार पसून कर्तव्य बुध्दीन बायलेन संवसार केल्यार ती बायल आदर्श. पूण समज तिणें कंटाळून सोडपाचें थारायलें जाल्यार? कसली गे बाये ती बायल? म्हणजे तिणें झरत मरत थंयच रावपाचें.

आदल्या काळांत बायलेन घोवाच्यो भानगडी पोटांत घालून संवसार तिगयलो. आतां दादल्यानय बायलेच्या अशा एखाद्या संबंदाक मानून घेतलें जाल्यारच संवसार तिगतलो. ना जाल्यार मोडटलो. आतां लोकांक आपल्याक चेडवां जाल्लीं नाकात. लगीन जाल्ले बायलेन घोवाक सोडून आनी कोणाचकडे शारिरीक संबंद करपाचो ना आनी आंकवार चेडवांनी लग्नापयलीं शरीर संबंद केल्यार तें अनैतीक जावं भानगड म्हणून चलयेक दोश दिवपाच्या प्रकाराक लागून फुडाराक बलात्काराचें प्रमाण वाडत म्हणून हुस्को जाता.

चेडवाच्या स्वतंत्र व्यक्तीमत्वाचो विचार करिनासतना ताचो फुडार म्हणून जेन्ना फक्त ताका लग्नाखातीर तयार करतात त्या आवय बापायन एकूच मतींत धरचें की कोणाचींतरी भुरगीं जन्माक घालपाचें काम दिवन तीं ताच्या पोटापाण्याची वेवस्था करतात. ताच्या फुडाराची न्ही. आयज लग्नाचे विधी धरून कायदेय बी बायलांक पोसपाचें काय ना हाचेरच भासाभास करतात. आतां बायलांय बी एका पोसप्याक सोडून दुसऱ्या पोसप्या फाटल्यान वतात. कारण त्या टायमार हो दुसरो पयल्या परस बरो अशें घडये तांकां दिसता आसतलें! तांचीय चूक म्हणपाक जावची ना.

पयलींच्या काळार यज्ञभुमी आनी युध्दभुमीचेर पसून दादलो आनी बायल एकमेकाची लैंगीक इत्सा भागयतालीं अशें वाचनांत आयलां. मागीर याज्ञसेना बी जन्माक येताली. आयज बायलेक तें स्वातंत्र्य ना आनी दादले मात अशे संबंद केल्या शिवाय रावपाक शकनांत हें सत्य समाजान मानून घेतलां. म्हणूनच दादल्यांची इत्सा भागोवपाक बायलांची जबरदस्तीन पुरवण जाता हें एक नागडें सत्य आमी नदरे आड करतात.

अशें सगळें आसलें तरी, उठसूट खंयचोय मनीस शरीर संबंद करचो ना (अपवाद सोडून) जिवितांतल्या अनेक घटकां पयकीं ती एक. पूण तिचो अविश्कार वेगवेगळे पध्दतीन जावपाक शकता. ह्या विशयाचेर चर्चा जावची म्हणून बरयलां.



**(कोपार्डे–वाळपय जाल्ल्या चित्रंगीच्या मेळाव्याक लैंगिकता ह्या विशयाचेर केल्लें उलोवप.)**

*आमच्या महिला मंडळान देशा खातीर कितें तरी कोन्ट्रीब्यूशन करपाक जाय हें हांव आज तुमकां सांगतां. आतां हें कोन्ट्रीब्यूशन कितें तें आजूच सांगपाक शकना. महिला मंडळान शर्ती घेवं येता देखीक पाककला कौशल्य स्पर्धा. 'मिस वाडो' पोरुं आमी घेतिल्ली. हातुंतल्यानूच एक दीस 'मीस वल्ड' (MISS WORLD) मेळूंक शकता, कोणाक खबर!*



**कृ. म. सुखठणकार**
रायबंदर – गोंय
मो. : ९८५०५३०७५६



# एक अजरंवर भाशण

**कां**य भाशणां अजरंवर जाल्यांत. 'TRYST WITH DESTINY' म्हणटकच आमकां नेहरूच्या भाशणा शिवाय आनीक कांयच याद जायना. 'तुम्हां तो शंकर सुखकर हो' वाचतकच आमकां पु. ल. दोळ्यांमुखार उबो रावता. 'आम्हाला नाझी म्हणणारे फॅसिस्टाचे बाप' हीं उतरां आचार्य अत्रेंची याद करून दितात. हें सगळें हांव ह्याच खातीर सांगतां कारण हिणें २६ जानेवारीक चामुण्डा देवी महिला मंडळ (रेजिस्ट्रेशन नंबर २६९/१९८९) हांच्यो अध्यक्षा ह्या नात्यान केल्लें भाशण हेच वळेरींत बसतलें आनी अजरंवर जातलें अशें म्हाका दिसता. जाणी जाणी हिचें हें भाशण आयकलें तांच्या आंगार कांटो उबो रावलो अशें हांव आयकतां (शेवते सांगतालें). हांवूय त्या दिसा मुखेल सोयरो ह्या नात्यान हाजीर आशिल्लों (महिला मंडळाक देणगी १०,०००/- पावती नंबर ७२७, तारीख ०३/०४/१२) म्हजे आंगार कांटो हरशींच ही उलयतना येता म्हणून म्हाका फरक जाणवलोना. हिचें भाशण उपस्थितांक इतलें आवडलें की शेवत्यान घरा येतकच हिची दिश्ट काडली. तुमच्याय आंगार असोच कांटो फुलचो म्हणून तें भाशण तुमच्या मुखार दवरतां :

म्हजो घोव आनी म्हज्या मोगाळ भयणीनो. आज सव्वीस जानेवारी. पवित्र दीस. आज आमगेर शिवराक जेवलीं. हरशीं सावळ्यान मानशेचीं सुंगटां दिल्लीं तीं फ्रिजान दवरलीं. फाल्यां म्हळें मसुरीचें तोणाक करतलें. पोरुं आमी ह्याच दिसा ठराव घेतिल्लो की ह्या पवित्र दिसा शिवराक जेवपाचें.

२६/०१/१९५० ही तारीख भांगरान बरोवपाची. भांगरान म्हणटकच सगळ्या भयणीनी आंग काडलें. म्हाका खबर आसा भांगर खंय पावलां तें पूण असलीं उतरां वापरचीं पडटात. तुमी सगळीं जाणां एक ना एक दीस ह्या महिला मंडळाच्यो अध्यक्षा जातलीं आनी तुमीय असलीं वाक्यां भाशणान वापरतलीं. २६/०१/१९५० ही तारीख म्हाका याद उरपाचें कारण म्हणजे ही म्हज्या मावशेची बर्थ डेट. हरशीं म्हाका कांयच याद उरना. आगे बाये! हांवें तेफळां वयर सुकत घालींच ना! हें पळेया, अश्यो म्हज्यो यादी.

तर २६/०१/१९५० ह्या दिसा आमच्या देशान कितें तरी आपणायलें. तें कितें तें तुमकां इंटरनेटार मेळटलें, भुरग्यांक सांगा. आतां कितेंय आपणायतकच सगळ्यांक आनंद जाता तसो आमकांय जाला आनी आमी हो दीस साजरो करतात. आमगेर आज पायस केला. 'दसरा सण मोठा नाही आनंदाचा तोटा' हें आयच्या दिसाक लागू जाता.

खूब खूब वर्सां पयलीं आमचो देश गुलाम आशिल्लो हें आमी पुस्तकानी वाचतात. जांच्या सकयल आमी आशिल्ले ताणी आमचेर खूब अत्याचार केले. स्वातंत्र्य सैनीकानी आपले प्राण दीवन आमकां स्वातंत्र्य मेळोवन दिलें पूण आज आमी

किर्ते पळयतात? सगळी कडेन केस्तावां आनी झगडीं. तांचें बलीदान सार्थकी लागलें अशें म्हाका दिसना. कालचीच गजाल, हांव बाजारांत गेल्लीं. नुस्त्या वाट्याचेर वयल्यान उडोवना म्हणून झगडीं, वाटपणां खातीर झगडीं. म्हाका खूब वायट दिसलें. आमकां स्वातंत्र्य अशें झगडपा खातीर दिवं नाशिल्लें. आमी स्वातंत्र्याचो सारखो उपेग करपाक जाय आनी प्रगती करपाक जाय.

आज दुसऱ्या देशानी GOD'S PARTICLES मेळ्ळीं, आमकां कांय मेळूंक ना. कित्याक? आमी आमकांच हो प्रस्न विचारपाक जाय. जाप मेळ्ळी ना जाल्यार परत विचारपाक जाय. मिसेस पोरोबाक फार्टी सारण मारतना कसलें तरी पार्टीकल मेळिल्लें. आमकां दिसलें GOD'S PARTICLES. पूण तें GOD'S PARTICLES नाशिल्लें. आमची व्हड निराशा जाली पूण आमच्या भयणीनी आशा सोडपाक जायना. सारण मारतना बारीक लक्ष्य दवरपाक जाय. किर्ते सांगुयेता, आमच्याच भयणीक GOD'S PARTICLES मेळत आनी ती आमच्या देशाक प्रगती पथार व्हरत!

बायलां वयल्यान याद जाली, मागीर हांव विसरत म्हणून आतांच सांगतां. देशभर बायलांचेर अत्याचार जाता. वयल्यान बायलांकूच त्या खातीर जापसालदार धरतात. बायलांक DRESS CODE लागू करतात. हांव म्हणटां आमच्या भयणीनी आपल्याक जाय तें घालचें. म्हाका JEANS सोबना म्हणून हांव घालिना. नाजाल्यार जरूर घालतलीं आशिल्लीं. म्हजी मांय हांवें चुडीदार घाल्यार म्हाका दोंण म्हणटा. बायलांच आमचीं शत्रू हाचे वेल्यान सिद्ध जाता. सध्या फॅब इंडियान नवो स्टॉक आयला. आमच्या भयणीनी मुजरत वचून पळोवंचो.

बायलांनी आपल्या संरक्षणाचे उपाय आपणेंच घेवंचे. सदांच आपल्या बरोबर आपल्या बॅगांत मिर्ची पावडर दवरची. घरा केल्ली मिर्ची पावडर मातशी म्हारग पडटली. महाराजा मिर्ची पावडर बरी येता. आमी मिर्ची पावडर, सामार घराच करतात.

आमच्या देशा फुडें व्हड व्हड आव्हानां आसात. देखीक मोडिचें. पयर कवळ्यां देवळांत पेटयेंत घालपाक मोड सोदपाक हांवें सगळी पर्स जमखानार उमथी केली. म्हाका एक तरी नाणें सापडचें आशिल्लें! अशी आज देशाची स्थिती आसा. पूण आमी सगळेच बाबतींत सरकाराक दोश दिवंक फावना. सेगीत दोन लग्नां येत जाल्यार आमी केळवण करतना हात पांय गाळटा जाल्यार आमचो सरकार देश चलयतना हात पांय कित्याक गाळचो ना? भयणीनो हाजेर विचार करपाक जाय.

आज आमकां बऱ्या नेत्याची गरज आसा. आज नेताजी सारखो फुडारी कित्याक जायना? कारण आमची युवा पिढी टी. व्ही. आनी मोबायलान गुल्ल आसा. हाणीं आमगेल्या भुरग्यांक नाका नाका म्हणटा आसतना बारा हजारांचो सोनी मोबायल घेवन दिला. आतां काय म्हजीं भुरगीं देशाची सेवा करीत शीं दिसना. म्हजी आस्त आतां तुमच्या भुरग्यांचेर आसा.

आमच्या महिला मंडळान देशा खातीर किर्ते तरी कोन्ट्रीब्यूशन करपाक जाय हें हांव आज तुमकां सांगतां. आतां हें कोन्ट्रीब्यूशन किर्ते तें आजूच सांगपाक शकना. महिला मंडळान सर्ती घेवं येता देखीक पाककला कौशल्य स्पर्धा. 'मिस वाडो' पोरूं आमी घेतिल्ली. हातुंतल्यानूच एक दीस 'मीस वल्ड' (MISS WORLD) मेळूंक शकता, कोणाक खबर! अशेतरेन आमचें महिला मंडळ देशाचे उदर्गतीक हात भार लावंक शकता. हें मतीन दवरून आमच्या भयणीनी आपलें फिगर मेन्टेन करपा कडेन लक्ष्य दिवपाक जाय. जशें देशाक G.D.P. फिगर म्हत्वाचें तशेंच आमकां आमचें फिगर म्हत्वाचें.

आमचो देश सगळ्या धर्मांक आचार विचारांक घेवन गुण्या गोविंदान नांदता. आमचेंय घर अशेंच. आमच्या घरान चार जाणांचीं तोंडां चार कडेन पूण जेन्ना भाडेकरूचीं भाडीं वाडोवपाचो प्रस्न येता तेन्ना आमी एकठांय येतात. हाचें भाडेकरूंकूय अजाप जाता आनी तीं आमची तोखणाय करतात. आमीय तांकां अभिमानान सांगतात 'हमारा केस्तांव हमारे घर में. जब तुम्हारा भाडा बडाने का होता है तब हम एक होकर बोलतें हैं, है ना?'

आज आमी दादल्यां बरोबर खांद्याक खांदो लावन काम करतात. हांव हांगां उंचाये बद्दल उलय ना. हांव घोवाच्या खांद्याक पावना. ती उलोवपाची स्टायल. तर, आमी खंयच कमी ना. आज आमी विमाना सुध्दां चलयतात. आतां हांव फोर व्हीलर शिकपाचें आसा. नांव घालां.

स्त्री ही शक्ती हें म्हज्या आवय बापायक केन्नाऽऽ कळिल्लें, तांकां दूर दृष्टी आशिल्ली. म्हणूनच तांकां स चलयो जाल्यो. आतां तुमकां दिसतलें ताणीं चल्याक लागून इतलो त्रास घेतलो. फट! तीं म्हणटालीं स पांडव तश्यो आमच्यो स चलयो. जेन्ना हांव स पांडव म्हणटां तेन्ना कर्ण INCLUDED.

आज हांवें भांगराचो दीस म्हणला. आमी देशाचे प्रगतीक हात भार लायतलीं असो सोपूत घेवया. पूण प्रगती आमच्या पासुनूच जावपाक जाय. जेन्ना आमची प्रगती जातली तेन्नाच देशाची प्रगती जातली. पूण चारूय वटेन नदर मारल्यार आमकां प्रगती दिसना. फकत स्पर्धा दिसता. आमच्यो भयणी ह्या स्पर्धेन फुडें. हांव तुमकां एक उदारण दितां. तुमकां सगळ्यान पयलीं हळदी कुकमाचीं परबीं. ह्या हळदी कुकमाचे परबे निमतान आमी आमच्या भयणी मदीं स्पर्धा पळेतात. कोण पाव किलो साखर वाट्टात तर कोण अर्ध कील साखर. हांवें तर आमच्या वाड्यार कोणेतरी पंचवीस किलोचो साक वाटला म्हणून आयकलां. हें किर्ते चल्लां? हळदी कुकूम तुमी असो करता जाल्यार हेर वर्सभर तुमी किर्ते करतलीं? देश फुडें कसो पावतलो? हळदी कुकमाक बुफे दवरिल्लो हेंवूय बी हांवें आयकलां हाचो आमचो महिला मंडळ निशेध करता. ही बुफे दवरपी आमची भयण आसत जाल्यार तिचें मेंबरशीप रद्द जातलें अशें हांव जाहीर करतां. हांवें आनीक एक नोट केलां. हळदी कुकमाक आमच्यो भयणी सगळें भांगर घालून भोंवतात. आतां म्हाका भांगर ना? पयरूच तोडो केला पूण हांव घालून मिरयना. हालीं गोंयां चोरयांचें प्रमाण वाडलां तुमी घरान भांगर हाडून दवरूं नाका. तुमका पांयां पडटां. तुमच्या वैभवाचो हांगा थंय शो नाका. आतां म्हज्या घरकारान आमच्या

महिला मंडळाक धा हजारांची देणगी दिली म्हणून हांव शो मारना, हांव ताका फावो तोच वालोर दितां. म्हजो घोव जालो म्हणून किते जालें? म्हज्या जाग्यार आनी कोणूय आशिल्लीं जाल्यार ओगीच शो मारपाचीं हें लक्षांत दवरात. भायर बॅनर आसा तो पळेया. ताचेर हांवें तिरंग्याचो फोटो दिला. कारण आज सव्वीस जानेवारी. आनी कोणूय जाल्यार आपल्या घोवाचो फोटो दितलीं आशिल्लीं, धा हजार दिल्या म्हणून. हांव तशें न्हीं. हाव रेक्त. म्हजी आवय म्हाका इंदिरा म्हणटाली. म्हज्यान ती लीडरशीप क्वॉलीटी आसा म्हणटाली. म्हणुनूच हांव महिला मंडळाची अध्यक्षा जावपाक पावलीं.

आज जगान तुमी पळेत जाल्यार मंदीची लाट आसा. पूण आमच्या देशाक ती झळ लागली ना कारण प्रत्येक बायल आपलो संवसार सांबाळून आसा. तिणें आपलो संवसार नीट निटको दवरला. आमी सगळीं जाणां खावन पिवन सुखी आसात. गोंयां तर विचारूं नाका येवजण्यांचो पावस पडला. हांव भयणींक सांगूंक सोदतां की लाडली लक्ष्मीच्या फॉर्माची झेरोक्स कॉपी चलना ओरीजीनलूच जाय. आसूं.

तर आज सव्वीस जानेवारी. हांवें तुमकां ह्या दिसाचें म्हत्व सांगलें. हो दीस आमकां असोच मेळूं ना, ताज्या फाटल्यान व्हड बलीदान आसा हेंवूय सांगलें. तर हो दीस फुकट घालोवं नाकात. ह्या दिसा चिंतन जांवचें शें दिसता. घरा वचा आनी हाजेर चिंतन करा. हांवें सांगलां त्या एकाएका गोष्टीचेर चिंतन करा. भासाभास केल्यारूय जाता. भासाभास करून तातुंतल्यान नवो विचार निर्माण जाता हाजो अणभव आमकां फाटीं आयला. मिक्सरान वाटिल्ल्या चटणे पेक्षां रगड्यार वाटिल्ली चटणी पोळ्यांक बरी लागता हो शोध आमकां असोच लागिल्लो ही तुमकां याद आसतली.

तर, आज सव्वीस जानेवारी. साधू संत येती घरा तोची दिवाळी दसरा असो हो दीस. तो फुकट घालोवं नाकात. हांव सांगतां ताचेर चिंतन करात. आज शेनवार. 'कौन है तुम्हारे मन में' ही सिरीयल तुमकां सगळ्यांक पळोवंक जाय. हांव जाणां. हांव तुमचो चड वेळ घेना. हांव तुमकां सिरियल पळोवं नाका म्हणिना. सिरियल सामक्या इंटरेस्टींग वळणार आसा. सगळ्यांक दिसता अविनाश आशाच्या मनांत आसा. म्हाका दिसता प्रभाकरूच आशाच्या मनांत आसा. म्हजे विचार सदांच अशे, हटके. म्हणूनच हांव हांगां उलोवंक पावलें. आई सदांच म्हणी 'मुलाचे पांय पाळण्यात दिसतात' आसूं.

तर, तुमी तुमची शक्ती ओळखा आनी देशाक भर भरून जाता तितली मजत करात. आमच्या मंडळाचें तशेंच देशाचें नांव उज्वल करात.

आज सव्वीस जानेवारी. आयच्या दिसा ही प्रतिज्ञा करुया की आमच्या देशान जशें आयच्या दिसा किते तरी आपणायलें तशेंच आमीय आपणायतलीं.

भारत माता की जय! भारत माता की जय! भारत माता की जय! चामुण्डा महिला मंडळ रजिस्ट्रेशन नंबर २६९/१९८९ की जय!



# तात्पर्य कथा

**पर्वरी सचिवालयांत विधिकारदिना निमतान आजी माजी आमदार मनरिजवण म्हण हाजीर आशिल्ल्यां मुखार नाटकुलें सादर करतात. हेय खेप आमदार बाबुसो गांवकार, शंभू भाऊ बांदेकार, व्हिक्टोरिया फेर्नांडीस आनी विनयकुमार उजगांवकार हाणीं नाटकुलें सादर केलें.**




"म्हाका सोगल्यांनी तुमी मामी मामी केली.
पूण इलेसांवांक तिकेट दिल्या?
एकलीच बायलमुनीस हांव, पूण पर्वा ना.
पळयतलो देव आहा.
आतां परिवर्तन येयलां
देखून हांव हिंदवां भाशेन न्हेसतां
हो मुज्या वांगडा आहा तो बाबुसो
एका टायमावयलो आमदार
तेजी इस्त पोयात किर्ते जाल्या ती!
हो दुसरो विनयकुमार, आदलो मोंत्री
बाबड्यालागीं फूल पॅण्ट लेगीत ना
हो दुसरो आदलो डॅप्युटी स्पिकर शेंबू
तो कोविता कोत्ता म्हूण कोट तोरी घालता.
ना तोर आमचे लागी किर्ते आहा?
हो सेरकार आमचे पासोत कांयच कोरिना.
फोकोत आपोवन नाटकां कोरूंक लायता.

**तात्पर्य : गरजेक मामी**



# अस्तुरी आनी समाजीक सुरक्षा



*चली भुरगें काचाबूल जावन विश्वासांतले शिशिकेकडे 'त्या' भुरग्याची कागाळ करता. ताच्या ह्या वागण्याखातीर ती ताका आपोवन दमदाटी दिता. तापयता. पूण कांयच करूना हो अविर्भाव हाडून तो कानार केंस काडटा आनी पुरावो नाशिल्ल्यान ते चलयेक आपलेंच हांशें करून घेवचें पडटा.*



कुसूम अग्रवाल
शिवोले - गोंय

दिल्ली सारक्या गजबजिल्ल्या शारांत जाल्लो सामुहीक बलात्कार हो दर एके अस्तुरेकच न्हय तर प्रत्येक भारतीयांच्या काळजाक पीळ घालपी एक दुखद प्रसंग. हे घटनेन भारतीय अस्तुरेच्या स्वाभिमानाक हालोवन उडयलें. तिच्या सत्वाचेरूच आघात केलो. दर एक अस्तुरी पेटून उठली. 'चल्यांखातीर आमी कित्याक घरांत बसून रावप? जर चल्यांक स्वताच्या शरीराचेर नियंत्रण दवरपाक जायना? चलयांक पळोवन तांच्यो भावना उचांबळ जातात तर त्या चल्यांनी घरांतूच रावपाक जाय. अश्या चल्यांक आवय-बापायन घरांत कोंडून दवरपाक जाय.' अशी प्रतिक्रिया तीं दिवपाक लागल्यांत.

म्हाका याद आसा, आमी शाळेंत, कॉलेजींत वता आसतना म्हजे आवयकडल्यान, भावाकडल्यान खूब बंधनां पाळचीं पडटालीं. चौगुले कॉलेजींत शिकतना बाणावले ते मडगांव आनी मडगांव ते कॉलेज अशा दोन बशींत प्रवास करचो पडटालो. कॉलेजीचो वेळ आसलो दनपारचीं अकरा ते सांजचीं पांच. केन्ना केन्ना गर्दी आशिल्ल्यान बस चुकताली. पूण रातचें सातच्या पयलीं घरा पावपाक जाय ही सक्ती आशिल्ली. ते तेपार बस कशी चुकली? हीं कारणां दिवपाचें धाडसूय जायनासलें. पडटचा फळाची आज्ञा म्हूण आमी सगलें आयकतालीं. एकटें खंय वचप ना. चल्या भुरग्याकडे उलयतना एका हाताचें अंतर दवरप, बसींत चल्या भुरग्याकुशीक बसप ना अशीं खूब खूब बंधनां.

ते तेपारूय चली भुरग्याचेर आगळीक जाताल्यो आनी समाज चली भुरग्याकूच जबाबदार थारायतालो. चलो भुरगो उजळ माथ्यान वावुरतालो आनी त्याच समाजांत चली भुरग्याक हीन जीण जगची पडटाली. चली भुरग्याची चूक नासतनाय तिका मानसीक तणावासकयल वावुरचें पडटालें. चल्या भुरग्यान कितेंय केल्यार माफ ही वृत्ती तेन्नाय समाजांत आशिल्ली. आसाराम बापूसारके दादले चली भुरग्याकूच जबाबदार थारायताले.

चल्या भुरग्याक दामून दवरून वा तांचेर सक्ती करून चली भुरग्याकडे तांचें वागणें बरें आसतलें अशी अपेक्षा करप म्हणजे मूर्खपणाचें. त्या खातीर चल्या भुरग्याची, चली भुरग्याकडे पळोवपाची मानसिकताय बदलप गरजेचें आसा आनी हें काम समाजांतल्यो



दोन व्यक्ती बेस बऱ्यो करपाक शकतात. एक घराबो, म्हळ्यार पालक, आवय-बापूय आनी दुसरो शिक्षक.

जेन्ना पाचवे-सवेचो भुरगो अभ्यासा बदला आपले चोपडेचेर बायलांच्या अवयवांचीं चित्रां काडून आपल्या इश्टांक दाखयता. थंय चली भुरग्याचीं नांवां बरयतात आनी एकामेकांक दाखोवन हांसतात म्हणजे ह्या भुरग्याच्या मनांत कामूक भावना उचांबळ जाता हें शिक्षकांनी समजूंक जाय. तो भुरगो, ताच्या मनांत कांयच ना अशें म्हूण फकांडाचेर व्हरपाक जायना. रोकडोच ताचेर कितें ना कितें उपाय घेवपाक जाय. ते खातीर पालकांचोय आदार घेवपाक जाय. सगल्या चोपड्यांचेर तो जर अशींच चित्रां काडपाक लागलो. पोजडे शब्द वापरपाक लागलो जाल्यार आपल्या भुरग्यांमदीं कितें ना कितें दोश आसा आनी तो दोश आतांच पयस करपाक जाय हें आवय-बापायन मानून घेवपाक जाय. म्हजो भुरगो अशें केन्नाच करचोना. बरोबरच्या भुरग्यांनी ताका तशें करपाक प्रवृत्त केलां आसतलें अशें तांचे हुजीर म्हणून तांच्या वायट कर्तुपाचेर पड्डो घालपाक जायना.

हेच भुरगे जशजशे वयल्या वर्गांत वतात तसतशी तांची चली भुरग्याकडे पळोवपाची मानसिकता पोजडी जायत वता. तांची चली भुरग्याकडे पळोवपाची नदर बदलता. शिक्षिकेचेर सुद्दां शेरो मारून फिदीफिदी हांसतात आनी अशे चले भुरगे, मदले सुटयेचे गर्देचो, पि. टी. पिरेडाचो फायदो घेवन चली भुरग्यांक नाका थंय हात लायतात. तांकां स्पर्श करपाचो प्रयत्न करतात.

चली भुरगें काचाबूल जावन विश्वासांतले शिक्षिकेकडे 'त्या' भुरग्याची कागाळ करता. ताच्या ह्या वागण्याखातीर ती ताका आपोवन दमदाटी दिता. तापयता. पूण कांयच करूना हो अविर्भाव हाडून तो कानार केंस काडटा आनी पुरावो नाशिल्ल्यान ते चलयेक आपलेंच हांशें करून घेवचें पडटा. शिक्षिका बी चली भुरग्याचे अब्रूचो प्रस्न म्हणून ती गजाल थंयच्या थंय सोपोवपाचो यत्न करतात. आनी अशें करून पालक तशेंच शिक्षक तांच्या ह्या निर्लज्जपणाक पोसवण दिवपाचें काम करतात आनी त्याच खातीर हे नरपशू चली भुरग्याचे इज्जतीचेर घालो घालपापर्यंत मजल मारतात.

घरांत वा शाळेंत अशे हे वृत्तीक ल्हान आसतनाच आळाबंद हाडपाक जाय. तुज्या कपड्यांखातीर ताणें तशें केलें, तुजें वागणें सैल आसा, ते चले भुरगे तुकाच अशे कित्याक करतात?अशें उलोवन चली भुरग्याचेर मानसीक तणाव हाडिनासतना तांच्या फाटल्यान उबें रावन, तो चलो भुरगो करता तें वायट हें ताका निक्षून सांगपाक जाय. ताच्या वागण्याचेर नदर दवरपाक जाय. ताच्या वागण्याचो, ताचे करणेचो चली भुरग्याक कसो त्रास जाता हें पटोवन दिवपाक जाय.

'चली भुरग्याक कितेंय म्हणल्यार, कितेंय उलयल्यार जाता. आमी कितेंय केल्यार खंयच्या तोंडान सांगतलीं? तांकांच लज ती!' अशी भावना चल्यांमदीं आसता. ह्या नश्टचा अहंकाराक ल्हान आसतनाच चिड्डून माड्डून उडोवपाक जाय. बायल-मनीस म्हळ्यार फकांडां मारपाची वस्त न्हय हें पाठ्यपुस्तक शिकयतना, संद मेळटा तेन्ना तांकां पटोवन दिवपाक जाय. बायल मनीस म्हणजे निर्जीव बावली न्हय तिकाय भावना आसतात. आपलें मत व्यक्त करपाचो हक्क आसता. बावली म्हूण तिका वापरत जाल्यार तिकाय मानसीक तशेंच शारिरीक यातना जातात हे संस्कार तांचेर ल्हान आसतनाच जावपाक जाय.

खंयचोच चलो भुरगो आपले भयणीचेर, आपले आवयचेर अत्याचार जातात तें पळोवपाक शकना. म्हणजेच तांकां भावना आसतात. जर हे बरे भावनेक पाळो दिवन घरांत तशेंच शाळेंत चली भुरग्याकडे पळोवपाचे मानसिकतायेंत बदल घडोवन हाडलो जाल्यार, मानवजातीक लजेन तकली सकयल घालपी घटना तरी उण्यो जातल्यो.

आमच्या समाजांतल्या चली भुरग्याकूय लैंगीक अत्याचाराविरुध्द आवाज काडपाक शिकोवपाक जाय. तांकां स्वरक्षणाखातीर आत्मनिर्भर करपाक जाय. मागीर ते अत्याचार घराकडे, शाळेंत, काम करता त्या कार्यालयांत, रस्त्यार भौशीक सुवातेर खंयूय आसूं. शिक्षकान, घरच्यांनी, समाजांतल्या लोकांनी बघ्याची भुमिका घेनासतना, तितलेच तत्परतेन तिच्या आदाराक धांवून वचपाक जाय. समाजांतल्या वायट प्रवृत्तीकडे झगडपाक बायल मनशेन आपलें मनोधैर्य वाडोवपाक जाय आनी आपूण अबला न्हय हें सत्य लोकांमुखार दवरपाक जाय.



# तो लक्षांत घेवंकूच सोडिना!



'Your attention please' अशें एका बस स्थानाचेर वा रेल्वे स्टेशनार जायते फावटी आयकूंक मेळटा.

बस वा रेलगाडी केन्ना सुट्टली वा केन्ना गाडी पावतली, हे विशीं उलोवपी वा म्हायती दिवपी आमचें लक्ष ओडटा. ही म्हायती प्रवास करतल्यांक खूब गरजेची, हातूंत दुबाव ना. असली म्हायती आमकां चुकत जाल्यार, आमचेर लुकसाण सोसपाची पाळी येवंक शकता. देखुनूच मनीस म्हत्वाच्या गजालींकडेन आपलें लक्ष गंभीरतायेन ओडून घेता. एक शिकोवपी वर्गांत विद्यार्थ्यांचें लक्ष ओडपाचे फाव ते यत्न करता. खंयच्याय गजालींकडेन लक्ष दिवप, हें मनीस आपोआप शिकता. पूण आयज लक्ष दिवप वा लक्षांत घेवप, असल्या विशयांचेर फावो ते रितीन म्हळयारूच गंभीरतायेन नियाळ केल्लो दिश्टी पडना. आमच्या मनाक लक्षांत घे म्हणून बळ करूंक जायना. मनशाची मानसीक वाड जाता तेन्ना लक्ष दिवन यश जोडूंक खूब सोपें जाता.

'ताका कितलो समजायलो, पूण तो लक्षांतूच घेना', अशें एक आवय उद्गारली. ह्या तिच्या उतरांचेर हांवें जायते फावटी चिंतपाचे यत्न केल्यात. लक्षांत कित्याक घेना? लक्ष दिना जाल्यार ताका लुकसाण जावं येता? असल्या प्रस्नांनी म्हज्या मनांत घोंटेर केल्लो. लक्ष दिवप म्हळ्यार कितें? ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाचे यत्न म्हजे कडच्यान जाल्यात. मानसशास्त्र्यांनी वेगवेगळ्यो व्याख्या दिल्यात. आर. एन. शर्मा हांचे प्रमाण, 'लक्ष दिवप म्हळयार अस्तित्वांत आशिल्ल्या परिस्थितींतल्या प्रोत्साहन दिवप्यां मर्दी मनशाचे खोशये आनी वृत्ती प्रमाण फावो तसलें प्रोत्साहन दिवपी वेंचून काडूंक मनशाक बळ केल्ली रीत.' हे व्याख्ये प्रमाण लक्षांत घेतलो जाल्यार खोशी आनी आमची दर एकल्याची जिविताकडेन पळोवपाची वृत्ती खूब गरजेची. लक्ष दिवप म्हळ्यार ध्यान दवरप. तर हें सगळें मनांत दवरून लक्ष दिवप, हाचेर भर दिल्यार आमकांच बरें.

आमी खंयचेय वस्तुकडेन गंभीरतायेन पळयतात, तेन्ना फुडें येतले परिस्थितींक फुडो करूंक आमची मनाची स्थिती तयार आसता. लक्ष दिल्यार खोल नियाळून फावो ते निर्णय घेवंक फायदो जाता. कसलीच आडखळ नासतना जिवितांत बाळगिल्लें ध्येय यशस्वी करूंक खूब सोपें जाता. लक्ष ओडपाच्यो साबार तरा आसात. भुरगें रडून आवयचें लक्ष ओडून घेता. खरें म्हळ्यार आवयन लक्ष दिवचे खास अशे यत्न करूंक नांत. पूण आपसूक तिचें काळीज आपल्या रडटल्या भुरग्यासवें ओडटा. दुसरे वटेन लक्ष दिवंक मनाची आनी कुडीची बरीच तयारी करची पडटा. परिक्षा दितना, भुरगीं बरीच तयारी करून आपलें पुराय लक्ष परिक्षेचेर ओडून घेतात.

खंयच्याय वेळार, खंयचेय वस्तुकडेन, लक्ष दिवप तितलें सोंपें जायना, पूण मनांत बाळगिल्लें ध्येय दोळ्यां मुखार दवरून आपलें लक्ष फावो ते वस्तुकडेन ओडून घेवपाची तांक आमकां आसल्यार बरी. लक्ष दितलो जाल्यार फावो तसली परिस्थिती निर्माण करूंक आमी आधार दिवन ह्या विशयाची गंभीरताय वाडोवंक जाय. आमच्यो मुळाव्यो गरजोय लक्ष दिवपाचेर आपलो प्रभाव घालतात. आमी भुकेंत वो तानेंत आसात जाल्यार कितलेय त्रास काडले म्हूण ध्यान दवरूंक खूब कठीण. ह्या सगळ्या घटकां वांगडा मनाची स्थिती आनी खोशी चड भर घालतात. आमकां खोशीच ना जाल्यार लक्ष दिवंक केल्ले यत्न निर्फळ जावंक वेळ लागचो ना. मनशाच्यान एकदां एकेच वस्तुचेर लक्ष दिल्यार बरें. संपर्क साधना आमचें लक्ष रोखडेंच ओडून घेतात. तरेतरेच्यो आकृतायो, रुपकार तशेंच जायरातींक आमी तर बळी पडटात. आमचीं थोडीं तरनाटीं तर असल्या साधनांचे गुलाम जाल्यातशे दिसतात.

लक्ष दिवप वा ओडप, हो विशय दिसपाक खूब सादो, पूण जायतें आमकां शिकयता. लक्ष दिवन आमच्यांनी यश मेळोवंक येता. फावो त्या वेळार ती परिस्थिती निर्माण करून, फावो ते वस्तुकडेन लक्ष दिवन, जिवितांत बाळगिल्लो हावेस पुराय करून एक सुखी जीण जियेवपाचे यत्न केल्यार कितें वायट?



**– जॉन एम्. आल्फोंसो कार्मेलीत**
पेडें,
म्हापशें – गोंय.



# कुडचडें कोंकणी केंद्राचो वर्धापन दीस

## लेखकान समाजाचें फुडारपण करून ताका वाट दाखोवपाक जाय : डॉ. तानाजी हळर्णकार




कुडचडें कोंकणी केंद्राचे साहित्य पुरस्कार मेळिल्ले मानेस्त : प्रकाश पर्येकार, ग्वादालूप डायस, हनुमंत चोपडेकार, दिलीप बोरकार. कुशीक मुखेल सोयरे डॉ. तानाजी हळर्णकार, केंद्राच्यो अध्यक्ष रजनी भेंब्रे आनी सुवाळ्याचे अध्यक्ष उदय भेंब्रे.

'फकत गरजो भागयल्यो म्हूण उदरगत जायना. ती करतलो जाल्यार मनशाक वयर काडपाक जाय. सान भुरग्यां भितरल्या सुप्त गुणांक वाव दिल्यार ती उदरगत जातली' अशें कवी, विचारवंत उदय भेंब्रे हाणीं सांगलें. कुडचडेच्या कोंकणी कला, साहित्य केंद्राच्या रुप्या उत्सवी वर्धापन दिसाच्या सुवाळ्यांत ते अध्यक्षस्थाना वयल्यान उलयताले. ह्या वेळार मुखेल सोयरे म्हूण कोंकणी विश्वकोशाचे संपादक डॉ. तानाजी हळर्णकार हाजीर आशिल्ले.

मुखेल सोयरे डॉ. तानाजी हळर्णकारान सांगलें : लेखकान समाजाचें फुडारपण करून ताका वाट दाखोवपाक जाय. लेखक प्रज्ञावंत आशिल्ल्यान तोच समाजाचें फुडारपण करपाक योग्य आसा. कोंकणी लेखकांनीच जनमत चांचणे वेळार समाजाक योग्य वाट दाखयली.

पुरस्कार मेळिल्ल्या लेखकांचे वतीन प्रकाश पर्येकारान विचार मांडले.

ह्या सुवाळ्यांत कुडचडें केंद्राचो १५वो जनगंगा पुरस्कार प्रकाश पर्येकाराच्या 'म्हादय काळजांतल्यान' ह्या पुस्तकाक भेटयलो. अणकाराचो पुरस्कार दिलीप बोरकार हाणी क्रांतीवीर मोहन रानडे हांच्या 'सतीचे वाण' ह्या आपजिणेच्या अणकारीत पुस्तकाक भेटयलो. बालसाहित्य पुरस्कार ग्वादालूप डायसाच्या 'मामाचो गांव' ह्या पुस्तकाक जाल्यार नाट्य लेखन पुरस्कार हनुमंत चोपडेकाराच्या 'दम दमा दम' ह्या नाटकाक मेळ्ळो.

सकाळीं 'मार्गा'चे संस्थापक गुरूनाथ केळेकाराचे हस्तुकीं कोंकणी पुस्तक प्रदर्शनाचें उक्तावण जालें. संयोजन रत्नदीप वस्तान केलें. मागीर महाविद्यालयीन विद्यार्थ्यां खातीर कार्यशाळा जाली. तातूंत हनुमंत चोपडेकार, अजय बुवा आनी संगीता नायकान मार्गदर्शन केलें. दिनेश मणेरकारान संयोजन केलें.

### हर्षा सदगुरू शेटये हांच्या 'आनंद यात्रा' ह्या प्रवासवर्णनाचें लोकार्पण

बिम्ब मासिकांतल्यान काव्य, ललित आनी प्रवासवर्णन अशें सातत्यान साहित्य केळोवपी हर्षा शेटये हांच्या 'आनंद यात्रा' ह्या प्रवासवर्णनाच्या लोकार्पण सुवाळ्याचें आयोजन शेनवार तारीख २ फेब्रुवारी २०१३ दिसा सांजवेळच्या ६ वरांचेर तांच्या घराकडेन, 'कृष्णप्रेम' अंबाजी, फातोड्डें हांगा केलां. पुस्तकाचें विमोचन साहित्य अकादमी पुरस्काराचे मानकरी नामनेचे कवी माधव बोरकार हांचे हस्तुकी जातलें तर डॉ. माधवी सरदेसाय मुखेल सोयरीं म्हूण हाजीर आसतली. पुस्तकाचेर प्रा. हनुमंत चोपडेकार उलोवप करतले.

हर्षा शेटये हांचो 'म्हजी माती म्हजें मळब' हो कविता संग्रह ह्या आदीं बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडला.





अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आनी गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी फांट्यान घडोवन हाडिल्ल्या अखिल भारतीय नागरी लिपी संमेलनांत फा. मोवजीन आताईद हांकां विनोबा पुरस्कार भेटयतना पंजाब आनी हरियाणा उच्च न्यायालयाचे आदले मुखेल न्यायाधीश डॉ. रामा जोयस.




स्वातंत्र्य सैनीक सर्गेस्त नारायण नायक यादस्तीक व्याख्यानांत उलयतना डॉ. सावित्री खानखोजे. कुशीक कला अकादमीचे अध्यक्ष विष्णू वाघ, स्वातंत्र्य सैनीक प्रभाकर सिनारी, भैया देसाय, सावित्री ना. नायक आनी पीपल्स फोरमाचे निमंत्रक ॲड. सतीश सोनक.

## देवदास नायक हांकां इंडियन ॲवार्ड फॉर एक्सलन्स इन कस्टमर सॅटिसफॅक्शन पुरस्कार



आदले प्रधानमंत्री लाल बहादूर शास्त्री हांचो पूत सुनील शास्त्री हांच्या फुडारपणा खालचे नवी दिल्लींतले 'इंडियन ॲचिव्हर्स फोरम' हे संस्थेचो प्रतिश्ठेचो 'इंडियन ॲवार्ड फॉर एक्सलन्स इन कस्टमर सॅटिसफॅक्शन' हो २०१२ वर्साचो पुरस्कार कांदोळे आनी म्हापशेंचे हायलॅण्ड कन्स्ट्रक्शन कंपनीचे अध्यक्ष आनी कार्यकारी संचालक देवदास नायक हांकां फावो जाला.

हाचे आदीं जायत्या पुरस्कारांनी भोवमानीत केल्ल्या नायक हांकां हो पुरस्कार फावो जाल्ल्यान बांदकाम आनी हॉटेल मळा वयल्या मानेस्तांनी तांकां परबी भेटयल्यांत.

इंडियन ॲचिव्हर्स फोरमाचे वतीन नवी दिल्लींतल्या इंडिया हॅबिटॅट सेंटरांत आयोजीत केल्ले ३३वे इंडियन ॲचिव्हर्स परिशदेंत उद्देजक देवदास नायक हांकां ह्या पुरस्कारा खातीर वेंचून काडले. प्रमाणपत्र आनी यादस्तीक अशें ह्या पुरस्काराचें स्वरूप आसा.

पुरस्कार भेटवण कार्यावळीक थायलंडाचे उपप्रधानमंत्री मुखेल सोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले. भारतीय अर्थवेवस्था आनी सामाजीक उदरगती खातीर योगदान दिल्ल्या वेगवेगळ्या मळा वयल्या मानेस्तांक हे परिशदेंत पुरस्कारांनी भोवमानीत केले.

फोरमाचे संस्थापक सुनीक शास्त्री, सीबीआयचे आदले संचालक जोगिंदर सिंग, डी. के. बक्षी, हरिश्चंद्र आनी हेर मानेस्तांचे निवड समितीन सगळ्या निकशांचो अभ्यास करून देवदास नायक हांची पुरस्कारा खातीर निवड केली.

सामके प्रतिकूल परिस्थितीचेर मात करून देवदास नायक हांणी कश्टान आपलें उद्देग साम्राज्य उबें केलें. हायलॅण्ड बीच रिसॉर्ट, हायलॅण्ड होलीडे होम आनी हायलॅण्ड कन्स्ट्रक्शनाच्या माध्यमांतल्यान व्हिला, पार्क, व्हिस्ता ह्या बांदकाम प्रकल्पांची उबारणी केली. ह्या प्रकल्पां वरवीं ताणीं जायत्या जाणांक रोजगार मेळोवन दिलो.

शुन्यांतल्यान उबारिल्ल्या तांच्या उद्देग साम्राज्याची दखल देशांतल्या आनी विदेशांतल्या नामनेच्या संस्थांनीं घेवन तांकां आतां मेरेन जायत्या पुरस्कारांनी भोवमानीत केलां.

टीव्ही - १८ समुहाच्या सीएनबीसी आवाज क्रायसील क्रेडायचो पुरस्कार, आशिया खंडांतलो बेस्ट एम्प्लॉयर ब्रँड ॲवार्डाचो अग्झेम्पलरी लीडर पुरस्कार, इकॉनॉमिक टायम्साचो पुरस्कार, बिझनेस गोवा पुरस्कार, अर्थीक विकास मंचाचो ग्लोबल ॲचिव्हर्स ॲवार्ड फॉर बिझनेस लिडरशीप हे पुरस्कार देवदास नायक हांकां हाचे पयलीं फावो जाल्यात.

# घडामोडी



१८व्या गोवा युवा महोत्सवाचो वस्ताद थारिल्ल्या मडगांवच्या युवा संजीवनी पंगडाक घोळटो करंडक भेटयतना भलायकी मंत्री लक्ष्मीकांत पार्सेकार. कुशीक कार्याध्यक्ष शिरीश नायक, कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष चेतन आचार्य आनी हेर मानेस्त.




उपवस्ताद फोंडें करमगाळच्या पंगडाक यादस्तीक भेटयतना भलायकी मंत्री लक्ष्मीकांत पार्सेकार. कुशीक कार्याध्यक्ष गिरीश नायक, खेळां आनी युवा वेव्हार खात्याचे संचालक व्ही. एम. प्रभुदेसाय आनी हेर मानेस्त.



‘भावविश्व साधकाचे’ अल्बमाचें प्रकाशन करतना श्रीमती नीला धेंपे. कुशीक श्रीनिवास धेंपे, विष्णू वाघ, डॉ. गुरूप्रसाद कापडी, अशोक पत्की आनी विजय भांगले.

# वखदां – मात्रा दिवपाचे अनेक प्रकार

जायत्या कारणांक लागून वखदांतले सक्रीय घटक (ड्रग) तशातशे दिवंक मेळना : ताची मात्रा खूबच कमी आसता, ह्याच स्वरूपांत ते दिवप शक्य नासता, चव चडशे फावटी विद्रोही आसता. अशेच दिल्यार ते निरुपेगी जावंक शकता. ताका लागून योग्य आनी सोपे तरेन तांचो उपोग जावंचो म्हणून तांकां अनेक 'डोसेज फॉर्म' – म्हणजे मात्रा दिवपाच्या अनेक प्रकारांत–स्वरूपांत तयार करतात. वेगवेगळ्या कारणांक, किंवा आमचे कुडींत वेगवेगळ्या मार्गांत भितर वचपाक वा भायल्यान वापरपाक वखदांचे वेगवेगळे प्रकार जाय पडटात.

प्रत्येक वखदांच्या प्रकारान सक्रीय घटकांबरोबर अनेक निश्क्रीय घटक योग्य त्या प्रमाणांत घालुनूच आमच्या फुड्यांत 'वखद' म्हणून येता.

वखदांचो प्रकार = ड्रग (वखदांचे सक्रीय घटक + निश्क्रीय घटक)

वेगवेगळ्या वखदांमदीं वेगवेगळे निश्क्रीय घटक वापरतात. प्रत्येक घटकाचे वेगवेगळे उपयोग आसता आनी तांचो सक्रीय घटकांचेर वेगवेगळे प्रभाव पाडूंक शकता.

वखदांचे प्रकार जायते आसतात :

१. तोंडी मार्गान घेवपाचे (ओरल डोसेज फॉर्म्स) : तोंडांतल्यान गिळून घेवप वो सगळ्यांत सामान्य आनी सुटसुटीत मार्ग. थोड्या वखदांचे थोडे सक्रीय घटक पोटांतल्यान जाल्यार चडशे आमच्या धाकट्या आतकड्यांतल्यान शोशण जातात आनी रगतांतल्यान आमचे कुडींतल्या वेगवेगळ्या भागांनी ते पावतात आनी तांचो असर आमचेर जाता.

तोंडी मार्गान घेवपाच्या वखदांचे अनेक प्रकार आसात :

अ. गुळयो (ह्यो पूण अनेक प्रकारांच्यो आसतात)
ब. कॅप्सुलां – दोन तरेचीं आसतात.
क. पातळ वखद (लिक्वीड ओरल) – हेंय अनेक प्रकारचें आसता)
ड. लाझेंज (चोखपाच्यो गुळयो)
ई. पावडर (पूड), ग्रन्यूल्स, ड्राय पावडर फॉर सस्पॅन्शन.

२. तोंडांतल्यान स्वासनाच्या यंत्रणाचेर प्रभाव करपी वखदां :

अ. मीटर्ड डोस ईन्हेलर
ब. रोटाकप्स (कापसुलां)
क. डीस्क



३. भायल्यान लावपाचे (ॲक्सटर्नल डोसेज फॉर्म्स) :

अ. लिनीमेंट
ब. लोशन
क. क्रीम
ड. ऑयनमेंट
ई. जॅल
फ. डस्टींग पावडर
जी. ट्रान्सडर्मल/चांबडेचो पॅच
एच. प्लास्टर
आय. नाकांत घालपाचे थेंब
जे. वाफ घेवपाक कॅपसुलां वा पातळ वखद
के. नाकांत मारपाचो स्प्रे
आय. कानांत घालपाचे थेंबे (ईयर ड्रॉप्स)
एम. दोळ्यांत घालपाचे थेंबे (आय ड्रॉप्स)
एन. दोळ्यांत घालपाचें मलम
ओ. दोळे धुवपाचें लोशन
पी. गळगळे करपाचें पातळ वखद (गार्गल)
क्यू. तोंड धुवपाचें पातळ वखद (माव्थ वॉश)
आर. योनी मार्गांत घालपाची कांडी (वजायनल पॅसरी)
एस्. योनी मार्गांत लावपाची क्रीम
टी. गुद्वार मार्गांत घालपाची कांडी (रॅक्टल सपोझीटरी)

४. इंजेसांवां : (सोल्यूशन, सस्पन्शन, ईमल्न) – हीं कुडीच्या वेगवेगळ्या जाग्यार करतात. रक्ताचे शिरेंत (ईन्ट्रावेनस), स्नायूंत (ईन्ट्रामस्कुलर) कातडींत (ईन्ट्राडर्मल), कातडीच्या पोंदा (सबक्यूटेनीयस), कण्यांत (ईन्ट्रास्पायनल) बी.



– राज वैद्य
इंडियन फार्मास्युटिकल ॲसोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com

# आडवे



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

१. झारखंडची राजधानी, हालींच हांगा पयलीं एका दिसाची क्रिकेट मॅच जाली.
३. मोनजातीक वखद दिवपी वैज
६. आयज सावन तिसऱ्या दिसा
७. फावट
८. रितीक धरून आशिल्लें, पद्दतशीर
९. जेवंक बसतल्यांची रांग
११. पिळगी
१३. कर्नाट प्रांतांतलो
१५. पाळां मुळां घालून केल्लो वखदी कडो
१७. भायलें, परकी
१८. रक्त
२०. कांटे आशिल्लें लांबसार आनी मांसाळ कणंग
२१. वृत्तपत्राचो मुखेली, एडिटर
२२. भेद, अंतर
२४. बांगलादेशाची राजधानी
२५. आयच्या दिसा पयलो दीस
२७. स पावटी
२८. गरजेक आयिल्लें, आधार जाय जाल्लें
२९. रानवटी बैल

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | २ | ■ | ३ | | ४ | ५ | ■ | ६ | |
| ७ | | ■ | | ■ | ८ | | | | ■ |
| | ■ | ९ | | १० | ■ | | ■ | ११ | १२ |
| १३ | १४ | | ■ | १५ | १६ | | ■ | १७ | |
| १८ | | | ■ | ■ | | ■ | १९ | ■ | |
| ■ | | ■ | २० | | | | | ■ | |
| २१ | | | | ■ | | ■ | | ■ | ■ |
| ■ | | ■ | | ■ | ■ | २२ | | | २३ |
| २४ | | ■ | २५ | २६ | ■ | २७ | | | |
| | ■ | २८ | | | | | ■ | २९ | |

# उबे

१. दर्यांत रांपण घालून नुस्तें पकडपी
२. पत्र, लेटर
३. न्हिदपाची बाज, खाट
४. दुस्मान, शत्रू
५. बारीकसाणीन केल्ली राखण
६. कुथपण, हाय हूय करप
९. गिन्यानी, व्हड बरपाक्षरी
१०. कयामत से कयामत xx - एक सिनेमा
१२. सरबत (हिंदी)
१४. काम्र, म्युनिसिपालटी
१६. रांदनीत उजो घालप
१९. बॉडीगार्ड
२०. वळार
२२. खातीर
२३. पांयाचो तळ
२४. तलवारीचो वार झेलपाचें लोखणाचें हत्यार
२६. शरम, मुरवत

**जानेवारी उत्तरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| आ | श्वी | न | ■ | खे | ळ | ग | डो | ■ | मे |
| का | ■ | र | का | द | ■ | ण | ■ | शा | र |
| श | क | ■ | ण | ■ | उ | प | का | र | ■ |
| ■ | ण | व | को | ■ | ■ | ती | ■ | दा | दा |
| ■ | या | ■ | ण | व | ■ | ■ | मा | ■ | द |
| वा | रें | ■ | ■ | थ | ■ | ग | ड | ग | ड |
| ता | ■ | सा | ■ | रे | ख | णी | ■ | जा | ■ |
| व | स | व | स | णी | ■ | त | का | ल | स |
| र | त | न | ■ | ■ | जू | ■ | री | ■ | त |
| ण | ■ | ■ | न | म | न | न | ट | व | रा |

